# अरेबियन डेज

(प्रवास वर्णन)

दत्ता दामोदर नायक

लोकायत प्रकाशन

अरेबियन डेज् **Arabian Days**
(प्रवास वर्णन) ( Travelogue )



पयली उजवाडावणी : जुलै २००४

उजवाडावपी : दत्ता दामोदर नायक

अक्षर जुळोवणी : स्नेह ग्राफीक्स,ताळगाव,गोंय

छापणावळ : ए ॲन्ड ए कम्युनिकेशन्स्, कोल्हापूर

मुखचित्र आंखणी : नीला रॉड्रीग्ज

मोल :रू. १००/-

पूर्व प्रसिद्धी:
सुनापरान्त

**दत्ता दामोदर नायक**

'लोकायत'
आचार्य धर्मानंद कोसंबी मार्ग
पो. बॉ. नं. ७,कोंब - मडगांव - गोंय
पिन कोड - ४०३ ६०१
फोन - ०८३२ - २७३६८४६ (घर)
०८३२ - २७३४०९० (ऑफीस)
mobile- ९८२२१०२४१६
e-mail - kdnaik @ cdhomes.com

**मराठी पुस्तकां-**

**काणकोण** : एक सर्वांगिण अभ्यास - १९७२
**होते कुरूप वेडे** (सत्तरी तालुक्याचा अभ्यास) - १९७३

**कोंकणी पुस्तकां-**

**कालीघाट ते करूणाघाट** (प्रवास वर्णन) - १९९५
**जाय काय जूय ?** ( ललीत गद्य ) - २००२

**फुडलीं कोंकणी पुस्तकां-**

**स्मशानातलीं भाशणां** ( विनोदी निबंद )
**खुल जा सीम सीम** ( व्यवस्थापनशास्त्राची वळख )
**चिकणमाती** ( व्यक्तिचित्रां )

अनुक्रम

# मोरपांखी मकराना

भोंवडेकाराक भोंवडेर वचूंक कसलें ना कसलें निमित्त जाय पडटा. घर वांदपाचें थारायलें तेन्ना कोणें तरी म्हळें- घराक तिजुले घालतलो जाल्यार मकरानाक वचून थंयचे तिजुले हाडचे.

मकराना वचपाक तें निमित्त पुरो जालें. राजस्तानांत वचपाची संद हांव चुकयना. राजस्तानांत मनभुलवणो सैम ना. झेलाचे दोंगर नात. दर्याच्यो वेळो नात. पांचवींचार शेतां नात.

पुणून सैमाचे सोबितकाये परस सुंदर अशें लोकजिणेचें रंगयाळें रूप पळोवंक राजस्तानाक वचचें.

राजस्तानी संस्कृतायेचो रंगविरंगी चित्रविचित्र 'मोझायक' जाणें पळोवंक ना ताका भारतीय लोकजिणेचें पुराय दर्शन घडलें अशें म्हणूंक येवचें ना. बंगालचे, हिमाचलाचे, केरळाचे, महाराष्ट्राचे, गुजराताचे, तामिळनाडूचे लोकजिणे परस विलक्षण वेगळें अशें रूप आमकां राजस्तानांत पळोंवक मेळटा. रानांत भोंवतना धोंपरभर वाडिल्ल्या तणामदीं अकस्मात रसरशीत जांभळया रंगाचें रानफूल दिसचें तशी राजस्तानी लोकजीण! राजस्तान मध्ययुगीन इतिहासाचे साकरन्हिदेंतल्यान अजून उठूंक ना. शिगम्याच्या गुलाला उपरांत पाणठ्यार न्हावनय आंगावयल्या गुलावी गुलालाची झांक दिसची तशे तरेन राजस्तानाच्या मुखामळार ताच्या गिरेस्त

इतिहासाची सया मारता.

राजस्तानी लोकजिणेन इतिहासाच्या भरजरी शालवाचो रंगयाळो पोळेर मांडला.

भारतीय संस्कृतायेचो अर्दनारीनटेश्वर राजस्तानाक खरो पळोवंक मेळटा. संस्कृतायेची मृदू आनी कठोर, मॅश्कुलीन आनी फेमिनीन, प्रकृती आनी पुरूशाचीं रूपां हांगा एकमेकांत भरसून गेल्यांत. दोंगरांच्या उत्तुंग तेंगशांचेर हांगा घटमूट किल्ले आपल्या पौरूशत्वाचें बोंदेर हुबोवन उबे आसात तर कमनीय रूपाच्यो लावण्यवती हवेल्यो हांगा राणी पद्मिनीभाशेन तळयेच्या उदकांत आपलें रूप तोखेत बसल्यात. राणा प्रताप आनी ताच्या चेतक घोड्याची समरगितां हांगाच्या लोकगितांक वीररसाची कलय दितात तर मीराबाईचीं मधुर भजनां तांकां भक्तिरसाच्या गोड पाकांत वुडयतात. अरवली पर्वताचे मांडयेर बशिल्लो चित्तोड गड आनी पिचोला तळयेच्या उदकांत धव्याफुल्ल साळकाभाशेन फुलून आयिल्लो उदयपूरचो लेक पॅलेस! राजस्तानाचीं हीं दोन रूपां.

सुसंगतीन सोबितकाय वाडटा तशी विसंगतीनय वाडटा. भूमितींतली सिमेट्री दवरून वाडयल्लीं उपवनां जितलीं सुंदर तितलींच कसलोच नेम, कसलेच छंद-मात्रां मानिनासतना वाडिल्लें मुक्त-छंद रानय सुंदर. घडये चड सुंदर!

सुसंगती आनी विसंगती हांच्या गोफान विणिल्ली राजस्तानी लोकसंस्कृताय अशी मिश्र-संमिश्र. हिंदू आनी जैन अशा दोन पूरक, पोशक आनी तितल्याच विसंगत, विरोधाभासी धर्म-परंपरांचीं तासां हे लोकजिणेंत पुरायेन भरसून गेल्यांत. कृष्ण आनी महावीर! लोकदैवतांची हीं दोन रूपां! यशोदेचो कृष्ण, राधेचो कृष्ण, मीरेचो कृष्ण! राजस्तानी काळजांत महावीरापरस कृष्ण अर्दाक रूजलो.

बालक कृष्ण, अभिसारक कृष्ण, राजा कृष्ण, सारथी कृष्ण, विचक्षण कृष्ण, स्थितप्रज्ञ कृष्ण, भोगी कृष्ण, योगी कृष्ण- भारतीय समाजमनान कृष्णाचे हारशांत आपलें रूप पळयलें. कृष्णाचो कॅलिडोस्कोप गीत आनी

संगीतांतल्यान, नृत्य आनी नाट्यांतल्यान, कथा आनी दंतकथांतल्यान लोकजिणेंत घुंवत रावलो. समाजाच्या गुप्त अंतर्मनांतल्या भुकेल्ल्या, दखदखिल्ल्या वासनांक कृष्ण कथेंतल्यान ओतो आयलो. घुसळिल्ल्या ताकांतल्यान लोणी येवचें तशे तरेन तांतूंतल्यान राधेचो जल्म जालो. राधा आनी मीरा ही कृष्णाकथेंची दोन तोंकां. राजस्तानी लोकगितांत तीं दोनय आर्त भावार्त रूपां पळोवंक मेळटात.

जंय कृष्ण रूजलो तेच मातयेंत महावीरय किल्ललो. करूणासागर महावीराची संन्यस्त, त्यागी जिणय राजस्तानाक भावली. ताचें ब्रह्मचर्य, ताची अहिंसा, ताचो अपरिग्रह राजस्तानाक मानवलो.

वांयच्या निवळ उदकांत राजू तुटून पडिल्ली कलय काडिल्ली चकचकीत कळसुली दिसची तशे तरेन राजस्तानांत इतिहासाच्यो यादी सांबाळून दवरल्यात. दिलवारा आनी रनकपूरच्या देवळांतल्या खांव्यांनी जैन धर्माचो इतिहास- आपल्या आंगार कोरांतून घेतला. रनकपूराच्या देवळांत १४४४ खांवे आसात. दरेक खांवो वेगळो. खंयचेच दोन खांवे एकसारके न्हय. रनकपूरच्या देवळांत गेलों तेन्ना थंय देवस्पण चलतालें. जैन भजनांचें पठण चलतालें तें आयकतां आयकतां मनांत विचार आयलो -जे भुयेंत बुध्द करपून गेलो तेच भुंयेंत महावीर कसो चंवरलो? फुडें दामोदर कोसंबी वाचलो तेन्ना तें कुवाडें सुटलें. बुध्द धर्मान हिंदू धर्मांतल्या जाती आनी वर्णांचे परंपरेक शिंगां दाखयलीं तशें जैन धर्मान केलें ना. बुध्दाइतलो महावीराचो धर्म बंडखोर न्हय. म्हणून बुध्द हद्दपार जालो. जैन धर्म उरलो. पचलो. फुडें ह्या धर्माक वैश्य वेपाऱ्यांचो आदार मेळ्ळो. आज लेगीत वेपार-उद्योगाच्या मळार वावुरपी जैन धर्मीय उणे नात.

वेपार- उद्योगांत येस हातासूंक जिणेक एक शिस्त जाय. जैन धर्माच्या आहार विहाराच्या कडक नेमांतल्यान जैन वेपारी आनी उद्योजकांचे जिणेंत ही शिस्त आयली. संन्यस्त धर्माक गिरेस्त भजक मेळ्ळो. जैन धर्माक विसाव्या शतकांत एक श्रेश्ठ तीर्थंकर मेळ्ळो. ताचें नांव महात्मा गांधी. गांधीन हिंदू, जैन आनी ख्रिश्चन धर्मांतलीं मुळावीं तत्वां

घेवन आपलें सत्य आनी अहिंसेचें तत्वज्ञान फुडें हाडलें. जैनांचो शाकाहार, जैनांची अहिंसा, जैनांचो अपरिग्रह, तांची करूणा, तांची भूतदया गांधीच्या तत्वज्ञानांत सगलें जशाक तशें आयलें.
वुध्दाच्या संघर्शापरस महावीराचो समन्वय हे भुंयेक मानवलो.

जयपूर ही राजस्तानची पट्टराणी जाल्यार पिचोला तळयेच्या उदकांत पांय सोडून बशिल्लें उदयपूर ही राजस्तानची अभिसारिका. जांणी इंग्लडांतलें वर्डस्वर्थाचें लेक डिस्ट्रिक्ट पळोवंक ना तांकां उदयपूराक वतकीर तळयांची सोबा चाखूंक मेळटा. उदयपूर हें तळयाचें शार. ह्या तळयांनी मदीं मदीं भुंयेचीं साळकां फुलल्यांत. जयपूराक मन उसंखळ जाता. गर्देच्या घुस्मटमारांत घुस्मटूंक लागता. उदयपूराक मनाक थाकाय मेळटा. भुंयेपरस उदकाचो सांगात मनशाक आवडटा म्हणून आसत घडये! उदयपूरचो रंग निळो जाल्यार जयपूरचो गुलाबी. सगल्या राजस्तानाक रंगाचें पिशें. व्हंकलेन मेथी घालून हात रंगोवचे तशें 'रंगेहाथ' राजस्थान. सगलें राजस्तान रंगांची होली खेळटा. ह्या रंगाचो गुलाल ताच्या पोल्यांचेर, ताच्या वस्त्रांचेर, ताच्या घरांचेर, ताच्या रस्त्यांचेर फांफुडला.

जयपूराक रसरशीत पाकांतली केशरी जिलेबी मेळटा. तिखट झणझणीत गरमागरम शेवावरोवर ही गोड वाकस जिलेवी खावप हो एक अणभव ! रोसाची रूच दवल्याक कळना तशी जिलवेची रूच उतरांक कळपाक ना. राजस्तानी जेवण तशें सात्त्विक-सोज्वळ. तें तामसी न्हय. रोटी पराठ्यांबरोवर तरांतरांची शाकभाजी, तरांतरांचीं लोणचीं आनी तरांतरांचे पापड. राजस्तानाक नुस्त्याची याद येना.

जयपूरच्यान मकराना चड पयस न्हय. तीन चार वरांची वाट. मकराना गांव दिसंपाक सोबीत सुंदर न्हय. दोंगराच्या मुळसाक वशिल्लें धुल्लान भरिल्लें एक खेडें ते! पुणून थंयचे भुंयेक सैमान कसलो परिसस्पर्श केला कोण जाणा! केन्ना आनी कित्याक जालो हे भुंयेक हो मिडास टच म्हणून हांगाचें फातर अशें मोरपांखी जाले!

चिन्यांचे खणींतल्यान काडिल्लो ताजो टवटवीत चिरो आमी पळयला.

पुणून भुंयेच्या गर्भांत हे दुधाळ तुपाळ फातरांचे मुरींग कशे जाले? मकरानाचे कामधेनू भुंयेक खंयच्या पाडकाचे मायेन हो दुधाचो पानो फुटलो?

मकरानाचो फातर भुंयेंतल्यान वयर येता तेन्ना ताका घांसून पुसून चकचकीत करचो पडटा. मागीरच फातराचो संगमवरी तिजुलो जाता.

रंगारंगांक उपरंग आसतात. धव्व्या रंगाचे कितले रंग, उपरंग! दरेक फातर आपल्या आंगार हीं तरांतरांची वस्त्रां न्हेसून येता. कांय वेळार धव्व्यांत गुलाबी, कांय वेळा निळया तर कांय वेळा पांचव्या रंगाची सया आसता. कांय फातरी पुनवेच्या चंद्राभाशेन धवेफुल्ल आसतात. चंद्रावयल्या काळ्या दागांभशेन ह्या फातरींचेर मदीं मदीं काळया रंगाचे थिपके आसतात. त्या थिपक्यांनी ती फातर अदीक भरजरी जाता. कांय फातरी मोगऱ्यावरी, कांय जायेवरी, कांय पार्जती, कांय कुचकुचून फुलिल्ल्या चांफ्यावरी!

कांय हिमालयांतल्या झेलाचो भेस घाल्ल्यो तर कांय निकत्याच फोडिल्ल्या आडसराचे कातलेच्या रूपाच्यो! तिकतिकीत कातीचें लावण्य घेवन आयिल्ले कांय जाल्यार कांय मुग्ध वालिकेच्या हांसपावरी निष्कलंक निरागस!

कणसांतली पिकी परिपक्व मोतयाळी सोबितकाय घेवन कांय फातरी तर कांय फातरी ल्हवपीक फेणेरांचे तुरे माळून आयिल्ल्या दर्या ल्हारांचें रूपसौंदर्य घेवन आयिल्ल्यो!

मकराना हें अशें फातरांचें खंडकाव्य. दूध आटोवन आटोवन बासुंदी करची तशी शेकड्यांनी वर्सां भूगर्भांतलीं रसायनां आटून आटून हे फातर जाले. सृश्टीचे उत्पत्तीवेळार हूनहून आशिल्लो भूगर्भ थंड थंड थंड जायत गेलो. न्हिवतां न्हिवतां भुंयेर ह्या संगमरवरी फातरांची दाट साय दाटली.

ह्या फातरांचेर कांय वेळा एक सेल्फ डिझायन आसता. नक्षी आसता. तांतूत कांय वेळार सिमेट्री आसता कांय वेळार नासता.

पैठणी घेतना दुडवांक मोल उरना तशें तरेन मकरानाच्या मोरपांखी फातरींचें मोल करूंक जायना. वज्रांचें मोल करपी पारखी आसतात तशा खूब थोड्या जाणांक ह्या फातरींचें मोल कळटा.

मकरानाचे भुयेचें काळीज हारशेवरी नितळ, कंवचेवरी पारदर्शी पुणून थंयच्या लोकांचें चित्र काडूं नज. मोटे चतुर चालाख लोक. तांचें उलोवप पोपटाभशेन गोड. विक्रिशास्त्रांतली सगली कला जातनाच तांचे जिवेक प्रसन्न जाल्या.

एके फातरीर मदींच एक उवो सडो दिसलो. हो डिफेक्टीव फातर अशें म्हणल्यार ते मोटी हजरजबाबी जाप दितात.

'ये जिंदा पत्थर है साहब, ये उसकी नसें हैं' अशें ते सांगतात. ह्यो फातरी जित्यो तट्टटीत, ताज्यो टवटवीत. जांकां तुमी फातरीवयले सडे समजतात त्यो तांच्यो शिरो. भूमातेच्या गर्भांतलो रोस चोखून ह्यो फातरी शिरवंत जाल्यात - ते सांगतात.

गांवगिऱ्या शिकूंक नाशिल्ल्या मनशाच्या तोंडांत कांय वेळार व्हडा साहित्यिकाक लजोवपी उतरां येतात. कान दिवन आयकत जाल्यार तातूंत जिणेंतलें मुळावें सत् भरशिल्लें आसता. मकरानाचो अनपढ गांवढळ मनीस उलयतां उलयतां काव्यात्म उतरांची पखरण करता.

मनीस घर एकदांच बांदता. घर कपड्यालत्त्याभाशेन वर्सावर्साक नवें घेंवक मेळना. घरची जमीन ही खरी घराची सोबितकाय. वण्टीपरस, जनेलापरस, दारांपरस जमनीचो मान व्हडलो. ती मुलायम बिलोदी जाय. अनवाणी पायांक तिणें स्पर्श सुख दिवंक जाय. कातकुतल्यो करूंक जाय. मकरानाच्या तिजुल्यांत तो जादू आसा - ते सांगतात.

मकरानाक तिजुले घेवंक खूब लोक येतात 'कोई गधे पे बैठके आता है तो कोई घोडे पे बैठके आता है.'

तुमी कशे आयल्यात? तुमकां फातरी तुमच्या घराक घालपाक जाय काय हांगाच्यो फातरी सवाय दरेन घेवन तुमी त्यो विकूंक सोदतात?

मकरानाचो मनीस गिरायकाचें काळीज पारखिता. एकदां स्वताच्या घराखातीर तिजुले घेवंक आयला हें कळटकीर तो तुमची फाट सोडिना. ताजमहालाचे तिजुले हेच खणींतल्यान व्हेले - तो सांगता! यमुनेचे देगेवयलें ताजमहालाचें देखणें फूल तुमचे नदरेमुखार येता. पुनवेचे रातचो ताजमहाल जाणें पळयला ताका मकरानाचे फातरीचें सौंदर्य सांगपाची गरज ना. मकरानाचे भुंयेंत किल्लल्लो फातराचो रोपो हुमटावन राजा शहाजहानान तो यमुनेचे देगेर लायलो. आंगाखांदार लावण्याच्यो वटमोगऱ्यो फुलोवन ताचो रूख जालो. मकरानाच्या मनशाक ताचो अभिमान दिसता. आमच्या गांवचे फातरीन ताजमहाल घडलो. राजाच्या राजवाड्यांत, देवाच्या देवळांत, संतांच्या दर्ग्यार, गिरेस्तांच्या घराघरांत ह्यो फातरी वचून बसल्यो. राजस्तानांतलो एक पयसुल्लो अनवळखी गांव तांच्या नांवान फांकीवंत जालो. ह्या फातरींच्या परमळान अश्टदिशांतले लोक हांगा आयले.

मकराना साकून घराखातीर तिजुले हाडले. त्या थंड पाशाणी तिजुल्यांनी घराची जमीन गाभारी जाली. स्निग्ध साय-दाटी जाली. मुग्ध मधुर जाली. गिमाच्या उबाळांत उज्यान जीव हुलपता तेन्ना वाज्जेवयल्यान सकयल देंवन हांव हे जमनीर न्हिदतां. मकरानाच्यो मोरपांखी फातरी मागीर मोर जावन सपनांच्या रानांत थुयथुय नाचूंक लागतात.



# हिमालयाच्या हुमऱ्यार

सिक्कीम १९७५ मेरेन एक वेगळें राष्ट्र आशिल्लें. अठ्ठावीस वर्सांपयलीं सिक्कीम भारतीय प्रजासत्ताकाचें चोविसावें राज्य म्हणून भारतांत आयलें आनी ताचे उपरांत थोड्याच वर्सांनी भारतीय भोंवडेकारांक थंय मेकळेपणान भोंवक मेळूंक लागलें.

सिक्कीम ह्या शब्दाचो थळावे भाशेंतलो अर्थ नवें घर. हें नवें घर सिक्कीमी लोकांनी केन्ना वसयलें कोण जाणा! लेपछा हे सिक्कीमचे थळावे लोक. तांचो धर्म बौध्द. पुणून कुर्गी लोकांभाशेन तांचे मूळ आनी कूळ कळना. ते मंगोलॉयड वंशाचे हातूंत दुबाव ना. ते एक तर दक्षिण तिबेटांतल्यान वो ब्रह्मदेशांतल्यान हांगा आयल्यात जावंक जाय. १५व्या शेंकड्यांत सिक्कीमांत भूतानचे भुतिया लोक आयले आनी तांचे उपरांत एकोणिसाव्या शेंकड्यांत नेपाळच्यान नेपाळी लोक येवन रावंक लागले. नेपाळी लोकांचे चोमे खूब व्हडा संख्येन सिक्कीमाक आयले. आज सिक्कीमचे लोकवस्तेंतले पांचांतले चार वांटे नेपाळी लोकांचे जावंन पडल्यात.

सिक्कीम हो अशे तरेन थळावें लेपछा, भूतिया आनी नेपाळी गुरखा लोकांच्या मिश्रणान तयार जाल्लो व्यामिश्र संस्कृतायेचो वाठार. गँगटोक हे सिक्कीमचें सोबीत सुंदर राजपाटण. गँगटोक म्हळयार दोंगराची तेंगशी. स

हजार फुटांवयल्या एका दोंगराचे तेंगशेर हो सुपुल्लो गांव वसला. गँगटोकच्यान अठ्ठावीस हजार फूट उंचायेच्या कांचनजंगा पर्वताचीं शिखरां दिसतात. गँगटोकच्या चारी वटांनी झेलाचे दोंगर आनी मदीं गँगटोक.

आमी सांजचीं गँगटोक पावलीं आनी नॉर्कहील हॉटेलांत गेलीं. जे कुडींतल्यान सकाळ सांजवेळ कांचनजंगा दिसता अशी कूड आमकां दी अशें हांवें हॉटेलाच्या मॅनेजराक सांगलें. ताणें म्हळें- हांव तुमकां कोनशावयली कूड दितां. दलाई लामा गँगटोकाक येता तेन्ना ताका आमी हीच कूड दितात. आनी मागीर ताणें म्हाका जंय दलाई लामा रावन गेल्लो ती कूड दिली.

दिसभराच्या प्रवासाचो शीण आशिल्लो तरी तिनसांजची गँगटोकच्या बाजारांत वचपाक आमी भायर सरलीं. शिंयाचो कुडकुडो आशिल्लो. रस्त्याचे कुशीक एका ल्हान हॉटेलाच्या दारांत आंगांत हुनसाण हाडपाखातीर गरम च्याचो घोंट घेत हांव उबो आशिल्लों. रस्त्यावयल्यान येवपी वचपी सिक्कीमी लोक आनी तांतूत अदीं मदीं शिंपुडिल्ले भोंवडेकार. तांकां पळयतालों.

सिक्कीमाक पळोवपासारकीं खंयचीं थळां आसात तें हांव एका थळाव्या मनशाक विचारतालों.

अशा वेळार पयसुल्ल्यान कोणें तरी म्हज्या  नांवान उलो मारलो. म्हाका अजाप जालें. बायल म्हणूंक लागली- 'गोंयांत तुज्या नांवाचे पायलेक पंचवीस लोक आसात. बंगालांतय ह्या आडनांवाचे लोक आसात. कोण कोणाक उलो मारता कोण जाणा!' आमी अशें उलयतात म्हणसर म्हाका उलो मारपी मनीस आमचे सामकार पावलो. शीं सोंसू नजो जावन ताणें ओव्हरकोट घाल्लो. माथ्याक चेपें घाल्लें. खीणभर ताका हांव वळखलों ना. मागीर- पळयल्यार- नागरी. अहमदाबादचो नागरी.

नागरीन म्हाका कडकडून वेंग मारली. कितल्या वर्सांनी आमी मेळटाले!

म्हाका पंदरा वर्सां पयलींचे दीस याद जाले. नागरी आनी हांव अहमदाबादेक एकेच कुडींत रावताले. आमचे कुडीभायर झुपकेदार पानांचें एक पांचवेंचार झाड आशिल्लें. सकाळ-सांज त्या झाडार पोपट येवन बसताले. त्या

झाडाचीं ल्हान तांबडीं फळां चाखपाक ते पोपट येताले. कुडीचें दार उगडटकीर पोपटांचो किलकिलाट आयकूंक येतालो.

भायर पोपटांचो किलकिलाट आनी भितर नागरीची बडबड. नागरीइतलो बडबडो इश्ट म्हाका केन्नाच मेळ्ळो ना. फक्त खातना नागरी थंड पडटालो. ना जाल्यार सदांकाळ कितें ना कितें बडबड आशिल्लीच. बदमाश, बदतमीज, बुध्दू आनी साला हे नागरीच्या शब्दकोशांतले सगळ्यांत आवडटे शब्द. आजय ताणें तेच वापरले.

'बदमाश, हमको भूल गया! इतने साल कहाँ गूम हुए थे साले?' - नागरीन विचारलें. इतले म्हणसर नागरीची बायल आनी भुरगीं थंय पावलीं. नागरीची बायल सुजाता. ताचे चलयेचें नांव पियूषी आनी चल्याचें नांव पार्थ. नागरीन तांची वळख केली. पियूषी देविकाचे पिरायेचें जाल्यार पार्थ चिरागाच्या वयाचो. भुरग्यांक भुरगीं मेळ्ळीं, तांकां खोस जाली. सुजाता आनी सुशांता गँगटोकाक खंय शॉपिंग करचें ह्या विशयाचेर उलोवंक लागलीं. हांवें आनीक च्या मागयली. च्या पितां पितां नागरीन आपली बडबड सुरू केली. सगल्यांत पयलीं नागरीन आमी खंयच्या हॉटेलांत रावतात ताची चवकशी केली. हांव नॉर्कहिलांत रावतां हें कळटकीर आपूण फाल्यांच आपलें हॉटेल सोडून थंय रावंक येता अशें ताणें थारायलें. मागीर फाल्यां, परां खंय खंय भोंवपाक वचपाचें तेंय नागरीन सांगलें.

गँगटोक येतकीर श्यांगु तळें पळोवंकच जाय- नागरीन सांगलें. श्यांगु लेक गँगटोकच्यान ३५ किलोमिटरांचेर आनी सुमार बारा हजार फुटांचेर आसा. थंयच्यान आठ धा किलोमिटरांचेर नाथुला गांव आसा. भारत आनी चीनाचे शिमेवयलो हो गांव. देखून श्यांगू लेकाचो वाठार लश्कराच्या ताब्यांत आसा. भोंवडेकाराक़ थंय वचूंक परमीट काडचें पडटा.

'पुणून तें म्हजेर पावलें. फाल्यां सकाळीं पयलीं परमीट काडुंया. आनी परां श्यांगु लेक पळोवंक या.' नागरीन म्हळें.

नागरीन अशें म्हणटकीर आमकां परमीट मेळटलें हाचेसंबंदी कसलोच दुबाव उरलो ना. कोणाक कशीं फुलां माळचीं आनी कोणाक केन्ना शिंगा

दाखोवचीं ही कला नागरीक वेस वरी ख्बर आशिल्ली. नागरीन फटाफट कामाची वांटणी केली. आपणें परमीट काडप. हांवे मिनरल वॉटर, रमाच्यो आनी ब्रँडीच्यो बोतली घेवप. झेलांत चलपाखातीर भाड्याचे बूट खंय मेळटात ताची चवकशी करप.

अशें थारावन आमी नॉर्कहिलांत वचूंक भायर सरलीं आनी नागरी आपल्या हॉटेलांत.

नॉर्कहिलांत पावलीं तेन्ना रात जाल्ली. दुसऱ्या दिसा फांतोडेर उठपाचें थारायलें. दुसरेकडेन वता तेन्ना सुर्योदयापयलीं उठूंक जाय. चड करून सिक्कीमासारक्या सैमीक सोबितकायेन नटिल्ल्या वाठारांत फांतोडेचो सैम पळोवपाची संद वगडावंक जायना.

फांतोड फुटचे पयलीं जाग आयली. कुडीक ल्हानशी बाल्कनी आशिल्ली. दार उगडून बाल्कनींत येवन बसलों. मिण्ण काळोख आशिल्लो. किण्ण रात गाड न्हिदिल्ली. ल्हवु ल्हवू फांतोडेची सुलूस लागूंक लागली. गाढ निळ्या मळबांत उजवाडाचीं पयलीं किर्णां पातळूंक लागलीं. धुक्याचो पातळ विरविरीत पड्डो पयस जालो आनी धव्व्याफुल्ल झेलान भरिल्लीं कांचनजंगाचीं शिखरां दिसूंक लागलीं. फास्केंत घालून दवरपासारके तें चित्र आशिल्लें. हावें भुरग्यांक उठयलीं. दोळे भरून आमी कांचनजंगा पळयलो.

पर्वतासन घालून बशिल्लो तो पर्वत गौतम बुध्दाभाशेन मळबाच्या घुमटासकयल ध्यान करीत बशिल्लो!

सकाळ जाता म्हणसर नागरी बायल भुरग्यांक घेवन नॉर्कहिलांत पावलो. आमी गँगटोकच्या बाजारांत आयले. गरम गरम पराठे खाले. गरमागरम च्या घेतली. नागरी परमीट काडपाक गेलो. हांवें श्यांगु लेक वचपाक जोंगा जीप बूक केली. बूट भाड्यान घेतले. नागरीन दिल्ल्या लिस्टाप्रमाण सगली खरेदी केली. वरभरान हातांत परमीट घेवन नागरी आयलो.

'साले हमें परमीट नहीं देंगे तो किसे देंगे ?' ताणें म्हळें.

दनपरां आमी ऑर्किडांचें गार्डन पळयलें. ऑर्किडांची फुलपाखरी फुलां

हो एक सैमाचो चमत्कार. ऑर्किडाच्यो एक आनी दोन न्हय, पांचशे सशें जाती सिक्कीमाक पळोवंक मेळटात. तरांतरांचे रंग, तरांतरांचे आकार आशिल्लीं ऑर्किडाचीं फुलां माळून सौभाग्य कांक्षिणी सिक्कीम नट्टा. हॉलंडाचें नांव काडटकीर जशीं टुलीपची फुलां दोळ्यांमुखार येतात तशीं सिक्कीमची याद काडटकीर ऑर्किडचीं फुलां नदरेमुखार धोलूंक लागतात. ऑर्किडाच्या गार्डनांत नागरीचें मन लागलें ना. भटान बेगीबेगीन पुजा सांगून उठचें तसो गार्डनांतल्यान ताकतिकेन भोंवन तो गाडयेंत वचून बसलो आनी आमकां हॉर्न मारीत रावलो.

मागीर आमी रूमटेक मॉनेस्ट्रींत गेलीं. रूमटेक मॉनेस्ट्री १७१७ वर्सा बांदिल्ली. तिबेटी आर्किटेक्चराचो हो बेस बरो नमुनो. हे मॉनेस्ट्रींत तिबेटी भाशा आनी बौध्द तत्वगिन्यान शिकयतात. भितर कितलेशेच बौध्द भिक्षू बुध्दवचनांचें पठण करतात. बुध्ददेवाक भजतात. ताची पुजा करतात.

अशे मॉनेस्ट्रीत वतकीर हांव अस्वस्थ जातां. हिंदू धर्मांतल्या कर्मकांडाआड बंड करपी बुध्दाचो धर्म वेगळे तरेच्या कर्मकांडात कित्याक मुंगरून पडचो? मॉनेस्ट्रींत एक कुटीर आसा. कांय बुध्दभिक्षू थंय एकांतांत तीन वर्सां रावन ध्यानधारणा करतात. वुध्दाचो मध्यममार्ग हे कित्याक विसरले? बुध्दाचो हांणी बोन्साय कित्याक केलो? कांचनजंगापरस उंच विचारांचो गौतम बुध्द एकेकडेन आनी कर्मकांडांत गुंतिल्लो हो बोन्साय बुध्द दुसरे कडेन! हाचेफुडें खंयचेय मॉनेस्ट्रींत वचप ना हाचो हांवें कानाक पिवळ घालो.

दुसरे दिसा गँगटोकच्यान सकाळीं स वरांचेर भायर सरिल्लीं. श्यांगु लेकाकडेन पावता म्हणसर णव जालीं.

श्यांगु तळयेच्या चारी वटांनी झेलाचे दोंगर आसात आनी झेलाच्या दोंगरांमदी श्यांगु लेक. श्यांगु ही झेलाची गर्भकूड! सैमाच्या महाकाय मंदिराचो हो गाभारो. घडये अनादि काळापासून श्यांगूच्या शांत शितळ, नितळ निवळ निळ्याशार गाभाऱ्यांत सैमाची अनाकार निराकार सर्वाकार मूर्त धव्याफुल्ल झेलाचे धारेचो अखंड अभिशेक घेत उबी आसा.

श्यांगु तळयेचें थंड शिंयाळें उदक. व्हर्जीन, सिरीन, ट्रॅन्क्वील! शांत, प्रशांत!!

आमी उदकांत हात घालो. हात शिरशिरलो. पोसोभर उदक तोंडार मारलें. घोंटभर उदक पिवन हांव तृप्त जालों.

मागीर आमी श्यांगु तळयेक प्रदक्षणा घाली. इतले म्हणसर भुरूभुरू स्नो पडूंक लागलो. धवोफुल्ल हांसरो स्नो. ताजो-टवटवीत 'धारोष्ण' स्नो आमी आंगार घेतलो. सर्वांगार घेतलो. भुरगीं भुरकुटून गेलीं. चिराग आनी पियूषी, पार्थ आनी देविका नाचूंक लागलीं.

मळबांत खंय तरी सांवरीचीं बोणां फुटिल्लीं. झेलाच्या बोणांतलो कापूस मळबभर फांफुडलो. त्या झेलाची मोव लोणयाळी साय श्यांगु तळयेचेर पातळूंक लागली.

म्हणटां म्हणटां तळी संगमरवरी जाली. म्हणटां म्हणटां तळी झेलांत बुडून गेली. म्हणटां म्हणटां तळी तळी उरली ना. तळयेचें धंय जालें.

झेलाचे गर्भकुडींत काळ वेळ गोठून गेलो. मळबान धर्तरेक वेंग मारली. दिकांक अस्तित्व उरलें ना. उजवाड आपले धवे फुल्ल सावळेंत विरगळून गेलो. मोनेळ मख्ख मोनो जालो. रंग अनंग जाले. आकार आपलें न्हेसण सोडून विवस्त्र जालो.

थोड्या वेळान स्नो पडपाचो थांबलो. पुणून ते मेरेन सगलेकडेन व्हायट् आवट् जाल्लो. दोळयांत घाल्लें बोट दिसनाशिल्लें. हांवें मिण्ण काळो कुळकुळीत काळोख पळयला. आयज पयले फावटी फुल्ल धवो, धवोफुल्ल उजवाड पळयतालो.

नागरीन रमाची बाटली उगडली आनी रमाचे घोंट घेत एका फाटल्यान एक माथ्यावयल्यान वचपी उर्दु शायरी तो मोट्या गंभीर आवाजांत म्हणूंक लागलो.

म्हाका कित्याक कोण जाणा, स्टीफन हॉकीन्साची याद जाली. हालींच ताचें 'ब्रीफ हिस्टरी ऑफ टायम' वाचिल्लें.

विश्वाची उत्पती कशी जाली? विश्वाचो अंत कसो जातलो? मनशाक आपल्या जल्मापसून पडिल्ल्या प्रस्नाची जाप हॉकीन्सान दिल्ली. विश्वाची उत्पत्ती जावंक खंयच्याय विश्वकर्त्याची गरज ना. हें विश्व शुन्यांतल्यान

जल्मलां आनी वोमाड्याभाशेन फुलत फुलत गेलां. एक दीस हीच प्रक्रिया उरफाटी सुरू जातली आनी अनंत विश्व परत शुन्यांत विरगळून वतलें.

म्हाका उपनिषदां याद जालीं. जेन्ना कांयच नाशिल्लें तेन्ना कितें आशिल्लें ह्या प्रस्नाची जाप उपनिषदकारांक मेळ्ळी ना. स्टीफन हॉकिन्सान ती दिली. 'जेन्ना कांयच नाशिल्लें तेन्ना कांयच नाशिल्लें'.

स्नो पडपाचो थांविल्लो 'चड वेळ काडुं नाकात. अदीक स्नो पडल्यार वाटो वंद जातल्यो, मागीर हांगाच रात सारची पडटली.' जिपीचो ड्रायव्हर ताकतीक करतलो.

श्यांगुची आंकवार तळी आमी परत एकदां दोळे भरून पळोवन घेतली, हांवें हात जोडले. झेलाचे गर्भकुडींतल्या सैमाच्या पुर्णावताराफुडें हांव नतमस्तक जालों.

गँगटोक पावलीं तेन्ना तिनसांज जाल्ली. दुसऱ्या दिसा फांतोडेच्या झिळीमिळी उजवाडांत आमी गँगटोक सोडलें. नागरी केलींगपोंगाक गेलो आनी च्याच्या मळयांमदल्या अशीर रस्त्यावयल्यान आमची जीप दार्जिलिंगाकडेन वचूंक लागली.

दार्जिलिंगाच्या जल्माची एक काणी आसा. शेंकड्यांनी वर्सांपयलीं एक वौध्द भिक्षू भोंवत भोंवत हांगा पावलो. एका दोंगरार चडून तो ध्यान करूंक लागलो. ताच्यान ध्यान करूंक जायना जालें. ताका न्हीद येवंक लागली. तो वेजार जालो. भिक्षूक अशी न्हीद येवंक जायना ताका दिसलें ताणे आपल्या दोनय दोळयांच्यो पापण्यो कापून वडयल्यो. त्यो धर्तरेर पडल्यो. कांय तेंपान त्यो किल्लून आयल्यो. तांचे रोंपे जाले. तांका पानां आयलीं.

इतले म्हणसर तो वौध्द भिक्षू परत थंय पावलो. ताणें तीं पानां काडलीं. सुकयलीं. तांचो पिठो केलो. तो गरम उदकांत घालो. तें उदक तो पिलो. ताका तरतरी आयली. तें उदक पिल्यार न्हीद येना जाली. अशे तरेन च्याचो सोद लागलो. लोक दोंगराचे देंवतेर च्याचे मळे लावंक लागले. म्हण्टां म्हण्टां थंय गांव वसलो. दोंगराचे तेंगशेर धुक्याच्या गर्भांत एके दंतकथेतल्यान दार्जिलींग जल्माक आयलें.

दार्जिलिंगाची याद काडिना फुडें दोळयांमुखार धुकेंच धुकें येता. धुक्याचें रसायन सैमान खंयच्या आयदनांत शिजयलें कोण जाणा! पूण ताचो परमळ अश्ट दिकांक पातळटा तेन्ना पंचेंद्रियां भुल्लुसून वतात.

धुकें पावसाभाशेन पारदर्शी न्हय. ताच्या काळजांत कितें चललां तें कळना. मोनालिसाच्या हांसपाभाशेन ताच्या तोंडांवयले भाव हांसरे काय गंभीर तें कळना. बुध्दाच्या स्मिताभाशेन तें गूढ गहन खोल सखोल.

कांय कडेन पावतकीर मन थतरवितर जाता. घुस्मट्टा. दुखेस्त उदास जाता. कांय कडेन पावतकीर प्रसन्न दिसता. जीव ताजो टवटवीत जाता. सगलो वाठार खिणभरांत वळखीचो, संवकळीचो जाता. घराबगर घराबो दिसूंक लागता.

दार्जिलिंग तशेंच जालें. दार्जिलिंग खिणभरांत संवकळीचें जावंक आनीक एक कारण आसलें. दार्जिलिंग हॉटेलांत रावचें पडलें ना. देबाशिश आनी आभादेबी हांणी कलकत्याच्यान भायर सरतना आपल्या घराची चावी दिल्ली. चौकीदार झितेनाच्या नांवान चिटय दिल्ली. देबाशिशचें घर सोदून काडूंक वेळ लागलो ना. दार्जिलिंगांतलो खंयचोय मनीस देबाशिश आनी आभादेवीक वळखना अशें ना. आभादेबी आनी देबाशिश हीं दोगांय चित्रकार. वर्साचे कांय म्हयने कलकत्याक, कांय म्हयने शांतिनिकेतनांत आनी कांय म्हयने दार्जिलिंगाक अशीं तीं वर्सयभर घुंवत आसतात. चित्रकाराक घर नासता देबाशिश म्हणटा. चित्रकाराक एकाच वाठाराची आसक्ती जावंक जायना आभादेबी म्हणटा.

जशे तरेन एक चित्र काडचें तशें फिशालकायेन देबाशिश आनी आभादेबीन दार्जिलिंगांतलें आपलें घर बांदलां. झाडाच्या पानांमदीं तांबडेंगुंज फूल लिपचें तशें च्याच्या मळयामदीं घर लिपलां. घराक ल्हानशें दार दवरलां पुणून सरभोंवतणीचो सैम पळोवेक तीन वटांनी घराक फ्रेंच डोअर्स आसात. घर दोन माळयांचें. सकयल गॅरेज आनी चौकीदाराची कूड. पयले माळयेर ऐसपैस दिवाणखानो. रांदची कूड आनी बाल्कनी आशिल्ल्यो दोन बेडरूम. दुसरे माळयेर स्टूडियो. ल्हानशी आर्ट गॅलेरी आनी देबाशिश-आभादेबीची

मास्टर बेडरूम. मास्टर बेडरूमासामकार ल्हानशी आगाशी. अशें घर !

घराच्यो वण्टी एकेच तरेच्या रंगान रंगयल्यात. फिकट जांभळो कलर. वण्टीचेर लँडस्केपस् लायल्यात. कोनशां कोनशांनी सोबीत फुलझाडांच्यो कुंड्यो दवरल्यात. दिवाणखान्यांत पोन्ने बंगाली फर्निचर. पोन्नी घड्याळ. दोन व्होल्तेरां. पुस्तकांची एक आलमार. स्टडींत लिओनार्ड द व्हिन्सी, मायकेल एंजेलो, व्हिन्सेंट व्हॅन गो, रेम्ब्रॉ, पाब्लो पिकासो हांचे फोटे. देवाशिशान काडिल्लें आपलें सेल्फ पोर्ट्रेट आनी आभादेबीन काडिल्लें आपलेंच फाटमोरे पोर्ट्रेट. आर्ट गॅलेरींत दोगांयचींय पेटींग्ज आसात हिमालयाच्या शिखरांचीं. च्याच्या मळयांचीं. चिनार रूखांचीं. ओक झाडांचे मदल्यान वचपी पांयवाटेचीं. सुपुल्ल्या घरांचीं माणकुल्या भुरग्यांचीं. शृंगारीक जोडप्यांचीं वेदनेंत आकंठ बुडिल्ल्या मरणाकडेंन दोळे लावन बशिल्ल्या जखख म्हातान्याचीं. वाऱ्याफाटल्यान धांवपी गोरवां राखण्याचीं. ल्हंवाळ माजराचीं. झेलांतल्या वांस्वेलांची-तरेकवार चित्रां !

प्रत्येक चित्र रंग आनी रेशाचें विमुक्त प्रदर्शन. प्रत्येक चित्र व्हांवतें. प्रत्येक चित्र एक वेग, एक ओघ आशिल्लें. सगल्या चित्रांत प्रसन्न वॉर्म रंग वापरिल्ले. देखून चित्रांतल्या मनशाच्या काळजांतली वेदना लेगीत प्रसन्न आनंदी दिसताली.

दरेक रंगाक स्वताची एक प्रकृती आसता. मळबाच्या निळया रंगाची शेतांच्या पाचव्या रंगाची. कणसांच्या हडव्या रंगाची, देवकेळम्याच्या तांबड्या रंगाची, धुक्याच्या धव्या रंगाची, म्हशीच्या काळया रंगाची - वेगळी प्रकृती. रंगरंगांत उजवाड आनी सावली हांची भरसण करून चित्रांक एक खोलाय दिल्ली. एक डायमेन्शन दिल्लें.

देवाशिश आनी आभादेवीच्या आर्ट गॅलरींतलें सगल्यांत सुंदर चित्र आशिल्लें झोपाळयाचें. उंच झाडाच्या खांद्याक बांदिल्ल्या रित्या झोपाळयाचें. आमोरेच्या वेळावयलें वातावरण चित्रांत फिशालकायेन पितारिल्लें. हें चित्र आभादेवीन काडिल्लें. चित्रांत कोणूच नाशिल्लो. पुणून निकतीच कोणूय तरी झोपाळयार बसून उठल्या आनी झोपाळो आतांच हालपाचो थांबला अशी झांक

त्या चित्राक मारताली.

चित्रां पळोवन दोळे न्हिवले. प्रतिभा आनी साधना, कला आनी कारागिरी, परंपरा आनी नाविन्य हांचो तातूंत संगम जाल्लो. चित्रां दोळयार मारनाशिल्लीं. आंगार पडनाशिल्लीं. आरड करनाशिल्ली. मोन्या जायांभाशेन आपल्या अबोल मोन्या दोळयांनी तीं हांसतालीं. तीं कितें तरी सांगतालीं कितें तरी सुचयतालीं.

सगली सांजवेळ घर, घरांतलीं चित्रां, घराभोंवतणीची बाग आनी सरभोंवतणीचो च्याचो मळो पळोवपांतच गेली. रातचें झितेनान सुरबूस जेवण केलें. जेवणाचो थाट पारशी मोदीचो आशिल्लो. झितेन कांय वर्सां पारशी कुटुंबांत आशिल्लो. ताणें धनसाक केल्लो. बैदा मसाला केल्लो. जेवणापयलीं ताणें आमकां वायन् दिली. मागीर चिकन सूप. मागीर मेन कोर्स आनी मागीर कारामेल कस्टर्ड. ताचे उपरांत कॉफी. ताणें फोर कोर्स जेवणाचो थाट केल्लो.

चतुर्दशेची रात आशिल्ली. झितेनान आमकां घराचे आगाशेर व्हेलीं. कोणूय तरी येतकीर आपल्यांक कितली खोस जाता तें तो सांगूंक लागलो. दार्जिलिंगाक खंय खंय वचप तें तो सांगूंक लागलो. टायगर पॉइंट आसा. मॉनेस्ट्री आसा. पशुपतीनादाचें देवूळ आसा. रोप-वे आसा.

आमकां खंयच वचपाचें नाशिल्लें. दार्जिलिंग आमकां भोंवडेकार जावन एक दोन दिसांत वयलेवयर चाखपाचें नाशिल्लें. आमी दार्जिलिंग पळोवंक येवूंक नाशिल्लीं आमी दार्जिलिंग रावूंक आयिल्लीं.

म्हणून दार्जिलिंग खंयच गेलीं नात. खंयचोच पॉइट, खंयचीच मॉनेस्ट्री, खंयचेंच देवूळ पळयलें ना. देबाशिशाच्या घरांत रावलीं. च्याच्या मळयांत भोंवली आनी मॉलार वचून भोंवलीं.

मॉल म्हळयार हिल स्टेशनावयलो मुखेल रस्तो. मॉल म्हळयार हिल स्टेशनाचो भांगतिळो. सगल्या हिल स्टेशनार मॉल आसात. मसुरी मॉल आसा. नैनिताल आसा. पयस कित्याक महाबळेश्वराक लेगीत आसा. शिमल्याक मॉलाक रीज म्हणटात.

दार्जिलिंगाच्या मॉलार दर दिसा उत्सव चलता. अश्ट दिशांतल्यान शेवणीं येवचीं तशे अश्ट दिकांतले भोंवडेकार सांजवेळचे मॉलार जमतात. तांतूंत चडशी मधुचंद्राक आयिल्लीं जोडपीं आसतात. हातांत हात घालून मॉलार तीं मुक्त विमुक्त भोंवतात. मॉलाचेर एक पतंगांचें दुकान आसा. थंय तरांतरांचे पतंग मेळटात.

पतंग हें मनशाच्या सपनांचें एक रूप. मनशाच्या हावेसाचें रूपडें. पतंगाच्या रूपान आमी सपनांच्या मळबांत भोंवून येतात. चौरस्त्यार अशीं किंतलींशींच नवपरिणित जोडपीं पतंग उडयत बशिल्लीं. मळब कुपांविणे निवळ आशिल्लें. मळबांत तांबडे पांचवे हळडुवे जांबळे निळे पतंग उडटाले. पयस झेलाचे दोंगर धुक्याची शाल पांगरून उबे आशिल्ले. सगल्यांची नदर मळबाकडेन लागिल्ली. मळबाचे माचयेर पतंगांचो बॅले नाच चलिल्लो.

मॉलार अशेंच एक मधुचंद्री जोडपें मेळ्ळें. फोटो काडपाक तें कोणाय तरी तिसऱ्या मनशाकडेन आपलो कॅमेरो दिवंक सोदतालें. हांवें कॅमेरो घेतलो. तांचे जिणेतलो म्हांवाळ मोरपांखी खीण हांवें कॅमेऱ्याच्या करणांत अळंग धांपून दवरलो.

खूब वर्सांनी हें जोडपें जाण्टें जातलें. खूब वर्साआदींचो हो फोटो पळोवन ह्या खिणाची विलोदी याद तें सांसपीत बसतलें. विस्मृतीचे मोनेस्ट्रींत मागीर यादींच्यो घांटी वाजूंक लागतल्यो...



# वेळीच्या चोळख्यावयलें कूर्ग

"दीस तिचो अपरूप फुलवारी. शेवणी थंय विणतात सूर मुदयाळे. झाडां थंय न्हेसतात न्हेसणां सावळयांचीं. न्हंयो चिप्प भिजतात पावसांत वस्त्रांविणें. मोर नाचतात मनमोर. फुलां थंय फुलतात बावते आमोरेर."

कूर्गाची अशी वळख जाली सावित्रीकडल्यान ! सावित्री म्हंळयार साऊ.

कवी पु. शि रेंगेच्या 'सावित्री' ह्या जगावेगळया पुस्तकाची ती नायिका. तिरूपेट हो कूर्गातलो एक गांव. सरभोंवतणी पाचवेंचार रान, मदीं गुलाबी साळकांचें तळें, तळयासामकार काळया पाशाणाचें देवूळ आनी देवळाभोंवतणी मातयेच्या घरांमदीं शिंपुडिल्लो सुपुल्लो गांव थंयची सावित्री. सात कुमारिकांच्यो दोंगुल्ल्यो, काणयेंतले म्हातारेची नात लच्छी आनी नाचरो मोर हो सावित्रीचो भुरगेपणांतलो भावूक संवसार. सावित्रीक खूब भाशा येतात. अजापाची गजाल म्हळयार तिका कोंकणी समजता. उलोवंक येता. अशी साऊ-सावित्री.

खूब वर्सांपयली तिची वळख जाली आनी तिचेंच बोट धरून कल्पनेन कूर्ग पळयलें. पूणून ताचे उपरांत कूर्गाक विसरून गेलों आनी पयर

अचकीत कूर्गाक पावलों.

कूर्ग तशें गोंयापसून पयस न्हय. फांतोडेर गोंयांसावन भायर सरल्यार दनपारमेरेन मंगळूर पावता. मंगळूरच्यान तीन-चार वरांनी सांजवेळामेरेन कूर्गाक पावूं येता.

डिसेंबरांतल्या अशाच एका सांजवेळा कूर्ग पावलों. परमळ सुटिल्ल्या उजवाडाचें उटणें लावन कूर्ग बशिल्लें. मळबांत कुपां नाशिल्लीं. मळबांतल्यान पातळ विरविरीत वस्त्रगाळ उजवाड पाझरतालो. नितळ वारें व्हांवतालें. केळीच्या नितळ धुल्ल्या पाचव्या चोळख्यार ताज्या टवटवीत फुलांचो परमळीत झेलो दवरचो तशें सैमाचे मांडयेर कूर्ग बशिल्लें.

म्हणटा म्हणसर आमोरी जाली. पयस ओंकारेश्वराच्या देवळांत घांट वाजली. उजवाड मातमातसो करपत गेलो. काळखाचें मेण वितळ्ळें वारें थांबलें रात जाली वातावरणांत थंडसाण आयली. मळब लकलें. कूर्ग न्हिदलें.

गाड न्हिदेची गुबगुबीत गोजडी घेवन हांवूय न्हिदलों.

फात्यांपारार कूर्ग उठलें. रूख उठले शेवणीं उठलीं घरां उठलीं. रात्री उठल्यो. भुती घेंवन कूर्गी वायलो काफयेच्या मळयांनी पावल्यो.

मडिकेरी हें कूर्गाचें राजपाटण. ताका मर्कारा अशेंय म्हणटात. मर्काराचे सरभोंवतणी काफयेचे मळे आसात. चारी वटेनच्यो दोंगरांच्यो देंवत्यो काफयेच्या काळसार पांचव्या झुपक्यांनी भरून गेल्यात. काफयेचे हे मळे मोटे रसिक नदरेन लायल्यात. तातूंत शास्त्र आसा तशी तातूंत कलाय आसा. काफयेच्या मोटव्या झुडपामदीं तरांतरांचे उंच रूख लायल्यात. तांचेर मिरीं मसाल्याच्यो वेलचेच्यो वाली चडयल्यात. रूखांचे तेंगशेर म्हौंवा मुसांनी माळीं केल्यांत. मदीं मदीं संत्रांची झाडां आसात. मळोभर भोंवपाक अशीर पांयवाटो आसात. मळयाचे मदीं ल्हानशें सुपुल्लें घर आसा. घराभोंवतणी केळी लायल्यात. देवकेळम्याचीं फुलझाडां फुलल्यांत. थंय काळें जाकीट घाल्लो आनी माथ्याक धवो फेटो बांदिल्लो कूर्गी, फाटल्यान मिरयो काडून साडी न्हेशिल्ली ताची वायल आनी एक-दोन गुटगुटीत

हांसरी भुरगीं अशें कुर्गी कुटूंब रावता.

कुर्गी लोकांनी धर्तरेकडेन आपले नातें तोडूंक ना. तांणी आपली आनी सैमाची वार कापून वडोवंक ना. कुर्गी जिणेक म्हणूनच मातयेचो वास येता. गीम सोंपून निकतोच पावस पडटकीर धर्तरेच्या रूवारूवांतल्यान मातयेचो हुनहुनीत परमळ सुटचो तसो परमळ तांचे जिणेक येता.

उद्योगीक संस्कृतायेची सावली तांचे जिणेचेर पडूंक ना. म्हणूनच मनशाचे आदिम संस्कृतायेचें जितें तटट्टीत रूप कुर्गी जिणेंत दिसता.

कॉफी, म्होव, मिरीं, वेलची आनी संत्रां हें कूर्गी लोकांच्या चरितार्थाचें साधन. ते भांयर थोडें भौ भात पिकता. केळीं, आंबे, पणस, पेरां, अनसां अशी फळफळावळ आसा. कोकोची लागवड आसा. सायलाचे आनी चंदनाचे रूख आसात. इतल्यान भागता. पोट भरता.

कूर्गी मनीस लोभी न्हय. वसवसो न्हय. जीण म्हळयार सोरोप आनी निसणीचो खेळ अशें तो मानीना. खळखळ व्हांवतें न्हंयेभाशेन ताची जीण व्हांवता. तिचो कोंड जावूंक ना. तिचेर शेळो पातळूंक ना.

म्हणूनच आसत- कूर्गी मनीस न्हंयक देवता मानता. कावेरी न्हंयचो उगम कूर्गांत जाता.

थलकावेरी हें कूर्गांतलें सगल्यांत पवित्र तीर्थक्षेत्र. थल कावेरी वचून कावेरीची वर्सुकी पुजा केले बगर कूर्गी मनाक थाकाय मेळना.

कुर्गाक वतकीर भोंवडेकारान थल कावेरी वचुंकूच जाय.

मर्काराच्यान थल कावेरी वतना कूर्गाचो गांवगिरो वाठार पळोवंक मेळटा. वाटेर भागमंडल लागता. थंय एक सोबीत सुंदर देवूळ आसा. वेगळेच तरेन बांदिल्लें. देवळां बांदपाच्यो तरा तरी कितल्यो ! गोपूरां आशिल्लीं देवळां. घुमटाकार देवळां. पसरट देवळां. बसकीं देवळां. मोटवीं. उंच. भांगर शिंगर घालून नटिल्लीं तशीं वल्कलां न्हेसून बशिल्लीं. भारतभर अशीं विंगड विंगड तरांचीं देवळां आसात. ह्या सगल्या देवळांमदीं भागमंडलचें देवूळ वेगळें. देवळां बांदपाची ही केरळी तरा. कर्नाटकाचे शिमेर हें देवूळ कोणें, केन्ना आनी कित्याक बांदलें हाचो इतिहास उस्तून

पळयलो ना. दोळे भरून फकत देवूळ पळयलें.

देवळा फुडल्यान कावेरी न्हंय व्हांवता. थंय तिका कानिके आनी सुज्यांती ह्यो दोन ल्हान न्हंयो येवन मेळटात. तीन न्हंयांचो हो संगम. पुणून खूब ल्हान. सुपुल्लो. उदक थंडगार. हात बुडयल्यार गाभारी थंडसाण. पोसोभर पिल्यार पंचामृती गोड गोडसाण.

अशे न्हंयेंत न्हावपाचें सुख घेना तो पिसो. कुर्ग वतना काळीज रूखार दवरून मानग्याचे फाटीर बसपी काणयेंतल्या मांकडाभाशेन शारी सभ्यतायेचीं रूपडीं गोंयात घरांतल्या खुटयाळयांक लावन वचूंक जाय.

भोंवडेर जंय जंय न्हंय दिसता, दर्या दिसता, झरे, वझरे, घोगे मेळटात थंय थंय भोंवडेकारान न्हांवूंकच जाय.

सगल्यांत पयलीं न्हंयच्या उदकांत चिरागान बुडकी मारली. ताचे फाटोफाट हांवें. लागींच चार पांच भुरगी न्हातालीं. चिराग तांकां हांसलो. ताणें ताच्या आंगार उदक शेंवटिलें. तीं भुरगीं म्हन्यांत आयलीं. चिरागान वयर वचून वॉल हाडलो. न्हंयच्या उदकांत आमी खेळूंक लागले. आमचो खेळ पळोवन आनीक भुरगीं आयलीं. तींय उदकांत देंवलीं. कावेरीच्या पात्रांत हांसऱ्या कूर्गी भुरग्यांबरावर आमी हांसले खेळळे. मोन्यांनी तांचेबरावर एक चिप्प ओली इश्टागत केली.

थल कावेरी एके दोंगुल्लेचेर आसा. दोंगुल्लेवयल्यान चारी वटेनचो कूर्गाचो वाठार दिसता. पयस अरबी समुद्राची रूप्या देग दिसता. झणझण वारो येता. वाऱ्यार केंस हुवतात. काळीज ल्हवपीक जाता. सकयल ल्हानशी तळी आसा आनी तळयेमुखार सुपुल्ली देवळी हेंच थल कावेरी !

कूर्गाचे आग्नेय दिकेक नगर होले अभयारण्य आसा. सरभोंवतणी सायलाच्या आनी चंदनाच्या रुखांनी भरिल्लें दाट रान. लागसार न्हंय. न्हंयेंत न्हावपाक हत्ती येतात. उदक पिवपाक हरणां, सांबरां, चितळां येतात. तांकां खावंक वाग.

अभयारण्यांत सावदां केन्ना दिसतात, केन्ना दिसनात. अभयारण्यांत सावदांक अभय आसता पुणून मनशांक भय दिसता. रात जाली म्हणटकीर

काळखाचें भंय. मंद उजवाडांतले सावलेचें भंय. अदृश्याचें भंय. भंयाक वेळकाळ लागना. तांचें कसलेंच कोश्टक नासता. व्याकरण नासता. भंयाक छंद आनी मात्रा नात. भंय म्हळयार भंय ! मुक्तछंद भंय! शेळो घाम हाडपी भंय !

नगरहोलेचो शांत स्तब्ध मोनेळ सोंसूंक नज जाता. कसल्या ना कसल्या आवाजाची आमकां इतली संवकळ जाल्ली आसता! रानांतलें मोनें संगीत आमकां घुस्मटून वडयता. रातीचो किट्ट काळो काळोख आमकां सोसूंक नजो जाता. उजवाडाची आमकां इतली संवकळ जाल्ली आसता !

फांतोड जातकीर सू SS जाता. रानांतल्यान रूखांच्या ताळयांमदल्यान किर्णां दारांत येतात. त्या उजवाडाचें न्हेसण न्हेसून सैम शेवण्याच्या बोटांनी शांत स्तब्ध मोनेळाचो पियानो वाजयता.

नगर होलेच्यान मर्कारा पावता म्हणसर दनपार जाली.

रातभर जागरण करूक नाशिल्लें. पुणून न्हिदेंतय जाग आशिल्ली. रानांत न्हिदपाकय भंय दिसता. सावदांचीं सपनां पडटात. दोळे न्हिदसुरे जाल्ले. आंग शिणिल्लें. हॉटेलाचेर थोडो वेळ विसव घेवपाचें थारायलें. इतल्यांत शेजारचे कुडींतल्यान रडपाचो आवाज आयलो. कोण रडटा ? कोण रडटा शेजारचें कुडींत ?

आमी सगलीं भायर आयलीं. शेजारचे कुडीचें दार बंद आशिल्लें. भितरल्यान मुसमुसून रडपाचो आवाज येतालो. कान दिवन आयकलें. तेन्ना लक्षांत आयलें. कोण तरी भुरगें कुडींत एकटेंच रडत आसा.

आमी दारार मारलें. "दार उगड. कोण रडटा ? दार उगड." चिरागान मोट्ट्या आवाजान म्हळें. "आरे, तुजी कोंकणी हांगा कोणाक समजता ?" दत्तीन म्हळें. दत्तीन हिंदींत विचारलें. कोण जाप दिना. बॉबी मणिपालाक शिकता. ताका कन्नड येता. ताणें कन्नडांत विचारलें. "यार तिडत्रु ? कदा तेगी" तरी जाप ना. निमाणें कोणाक तरी मराठीन विचारीन दिसलें. मराठी शब्द आयकून भितर आशिल्लें भुरगें अदीक मोट्यान रडूंक लागलें. आमी ताका जनेलाकडेन आपयलें. जनेल उत्तें करूक लायलें.

पांच वर्सांचें सान चली. ताचें नांव सायली. जनेलाकडेन येवन सायली हुंदक्या हुंदक्यांनी रडूंक लागलें. "माझी आई मला खोलीत ठेवून गेली." ताणें सांगलें. कितें जालां तें आमच्या लक्षांत आयलें. सायली न्हिदलांशे पळोवन ताचीं आवयबापूय भायल्यान दार बंद करून खंय तरी लागींच भोंवपाक गेल्लीं आसूंक जाय.

हांव कुडीची मास्टर की हाडूंक हॉटेलाच्या मॅनेजरा लागीं गेलों. पुणून मॅनेजर आनी मास्टर की दोनय जाग्यार नाशिल्लीं.

जनेला भोंवतणी सगळीं भुरगीं जमलीं. सायली रडटा तें पळोवन चिरागाक हांसूंक येवंक लागलें. ताका 'होम अलोन' सिनेमा याद जालो. सायली तुवें 'होम अलोन' पळोवंक ना ? तूं कित्याक भिता ? - ताणे विचारलें. दत्तीन सायलीक बिस्किट आनी चॉकलेट दिली. बॉबीन फ्रुटी हाडलें. इलान चुवींगगम दिलें. सायली मुमुरख्यांनी हांसलें. रडपाचें थांबलें. ताका भूक लागिल्ली. तान लागिल्ली.

सायलीक भुरग्यांनी जनेलाकडेन कदेल हाडून ताचेर बसपाक लायलें. भुरगीं सायलीकडेन गजाली करूंक लागलीं. चिरागान ताका ज्योक सांगले.

दत्तीन काणी सांगली. इलान पद म्हळें. सायली खुदखुदून हासूंक लागलें. सायली मागीर कदेलार उबें रावलें आनी पदाच्या तालार नाचूंक लागलें.

इतले म्हणसर ताचीं आवय बापूय आयलीं. कितें जालां तें कळपाक तांकां वेळ लागलो ना. बेगीन बेगीन दार उगडून आवयन सायलीक हांडीर घेतलें. ताची पापी घेतली. आवयक पळोवन सायली हिमट्यो काडीत रडूंक लागलें. इतले म्हणसर सगलीं भुरगीं तांचे कुडींत गेलीं. तांणी सायलीक उखल्लें. भायर हाडलें. ताका मदीं घालून भुरगीं नाचलीं.

कूर्गाचे उरिल्ले भोंवडेंत सायली आनी ताचे आवयबापूय आमचे बराबर भोंवले. सायलीन निमाणे मेरेन आमची फाट कशीच सोडली ना.

सायलीच्या सांगातान आमची कूर्गाची भोंवडी अदीक गोड,

मिरमिरीत जाली- चुवींगमा भाशेन !

कूर्गाक आनीक एक भुरगो मेळ्ळो. ताचें नांव अगस्त्य. रातचीं एका रेस्टोरंटांत गेल्लीं. थंय आमकां अगस्त्य मेळ्ळो. तांबश्या पोल्यांचो. सोंसो कसो.

शिकयल्ल्या पोपटाभाशेन इंग्लीशींतल्यान ताणें आपलें नांव, गांव, शाळा, यत्ता सगलें सांगलें. इतल्यान ताचो बापूय आयलो. ताचें नांव किरण. किरण अच्छीला. किरण कूर्गी. कुर्गी लोक हांसरे, आनंदी आनी उक्त्या काळजाचे. किरणय तसोच. रोखडीच ताचेयकडेन इश्टागत जाली.

भोंवडी म्हळयार फकत भूगोलाचो अभ्यास न्हय. सैमाचें दर्शन न्हय. भोंवडी म्हळयार त्या त्या वाठारांतल्या मनशांची सैमाच्या सांगातान चलिल्ली जीण- तिचें दर्शन. म्हणून कूर्ग म्हळयार कूर्गाचो सैम न्हय. कूर्ग म्हळयार सैमाचे मांडयेर वशिल्ल्या कूर्गी मनशाची जीण.

कूर्गी संस्कृतायेचें कुवाडें म्हाका सुटूंक ना. कूर्ग हो भारतीय संस्कृतायेच्या म्हासागरांतलो ल्हानसो जुंवो ! ह्या म्हासागरांत हो जुंवो खंयच्यान व्हांवत आयलो ? धर्तरेच्या गर्भातल्यान उदकाचें पोट चिरीत केन्ना वयर सरलो ?

कोण जाणा ! इतिहास ताची स्पश्ट जाप दिना. कूर्गाचो इतिहास असो धुंगरिल्लो.

कोण सांगता अलेक्झांडाराच्या ग्रीक शिपायांमदले कांय लोक हांगा पावले. हांगाच उरले. कूर्गी जाले. कोण तांकां मानववंशशास्त्राचे फुटपट्टेन दिनारिक वंशाच्या लोकांमदीं धुकलता.

कूर्गी लोकांची न्हेसपाची तरा वेगळी. तांचें देवदेवस्पण वेगळें. तांचें खाणजेवण वेगळें. ते झुजपी लोक. खंजीर कमराक लायले बगर तांचो भेस पूर्ण जायना. लढायेची खुमखुमी तांच्या रगतांत आसा. गेर्रां आनी झुजां हें तांच्या नाचगाण्याचे पंचप्राण. हुथरी ही तांची सगल्यांत व्हडली परब. हे परबेवेळार पाराकली हो झुजपाचो खेळ कूर्गी दादलो मोट्या गोस्तान खेळटात. कूर्गी दादलो मनीस लांबरूंद. भलायकेन घटमूट. भारतीय सैन्यांत

कूर्गी शिपायांक खास मान आसा. जनरल थिमय्या, जनरल करिअप्पा हे दोगूय कुर्गी. तांचो कुर्गी मनशाक खूब अभिमान.

कूर्गी बायलो दिसपाक सुंदर. कातीन उजळ. तांची साडी न्हेसपाची तरा वेगळीच. फाटल्यान मिरयो काडप. पदर खांदाक खोंवप. गळयांत लांब मणयांची माळ घालप.

कूर्गी जिणेंत लग्नाचो सुवाळो मोटो व्हड. परबच ती. किरणान आमकां कूर्गी लोकांच्यो खूब गजाली सांगल्यो. कुर्गी लग्नांतली मजा मीठ मसालो लावन सांगली. मागीर तो खिणभर थांबलो. आनी म्हणूंक लागलो. - परां विराज पेट एक लग्न आसा. हांव वतलों. तुमी येतात ?

"आमंत्रण नासतना ?" आमी विचारलें.

"भोंवडेकाराक कूर्गी लग्नाचें आमंत्रण लागना"- किरणान सांगलें.

तिसऱ्या दिसा सकाळचीं किरणाच्या सांगातान आमी विराज पेट गेलीं.

हांवें पंजाबी लग्नां पळयल्यांत. बंगाली, मारवाडी, गुजराती लग्नांक हांव गेलां. मुसलमानांचो निकाह पळयला. दरेका लग्न सुवाळयांत त्या त्या लोकांचे जिणेचें, संस्कृतायेचें पडबिंब पळोवंक मेळटा. लग्नाचो सुवाळो म्हळयार संस्कृतायेचो गोठिल्लो तिजुलो कसो. तांतूंत रीत आसता. रिवाज आसता. श्रध्दा आसता. अंधश्रध्दा आसता. कर्मकांड आसता. रागार फुगार जावपाची, हांसपा खेळपाची, नाचपागावपाची संद आसता. कुर्गी लग्नाक वचपाची संद हांवे चुकयली ना.

हातांत दांडो घेवन धव्याफुल्ल भेसांत न्हवरो उबो आसा. माथ्यार ताणें तांबडो लेंस बांदला, व्हंकल तांबडी साडी न्हेसल्या. तिणें माथ्यार पदर घेतला. दोगांच्याय गळयांत धोंपरामेरेन पावपी फुल्ल धव्या फुलांचे हार आसात. न्हवऱ्यावटेन पांच आनी व्हंकलेवटेन पांच अशे पांचपांच पंच एकमेकांसामकार उबे आसात.

'न्हवरो व्हंकलेक कसलोच त्रास दिवचो ना, तिची आनी भुरग्यांची जापसालदारकी वेस बरी सांबाळटलो हाचें उत्तर कोण दिता ?' व्हंकलेकडलें

पंच विचारतात

'आमी दितात' न्हवऱ्याच्या गांवचे पंच सांगतात.

'व्हंकल न्हवऱ्याक कसलोच त्रास दिवची ना, ताचीं आनी भुरग्यांची जापसालदारकी बेस बरे तरेन सांबाळटली हाचें उतर कोण दिता ?'न्हवऱ्याल्या गांवचे पंच विचारतात

-'आमी दितात ' व्हंकलकारावटेनचे पंच म्हणटात.

न्हवरो मागीर माटवाभायर वता. तरसादीन केळीच्या गब्याचे दोन कुडके करता. व्हंकलेकडेन लग्न जावंक सोदतल्या दुसऱ्या दादल्याचो तो प्रतिकात्मक तरेन वध करता आनी व्हंकलेक जिखता.

कूर्गी लग्नांतलें जेवण म्हळयार जिबेची रसयात्रा. स्वादांची तीर्थयात्रा. केळीचे पाचवेचार शिरतेर वोटी (तांदळांची रोटी) नूल पुट्टू, पुलाव, कोली करी (कोमडेचो रस्सो) पन्धी करी (दुकराच्या मासाची करी) तेभायर किल्लाची भाजी, पायस, खीर अशे पदार्थ आसतात.

कूर्गी जेवण जेवतना आमी कूर्गी जालीं. किरणान न्हवऱ्या व्हंकलेच्या सोयऱ्यांकडेन वळख केल्ली. तीं आग्रो करीत रावलीं. आमी सुरबूस जेवण गोस्तान पोटभर जेवलीं.

विराजपेटच्यान परततना किरण उलयत आशिल्लो. नव्यो नव्यो गजाली सांगीत आशिल्लो. किरणाचो ल्हानसो काफयेचो मळो आसा. काफयेचो मळो आसप हो बरो धंदो. पुणून किरण समाधानी ना. इंडियन कॉफी बोर्ड कॉफयेच्या मळेवाल्यांकडल्यान बाजारांतल्या दरापरस उणे दरान कॉफी घेता. कायद्यान मळेवाल्याक उत्पादनाचो बरोचसो वांटो कॉफी बोर्डाक दिवपाची सक्ती आसा.

हांवे किरणाक विचारलें. - 'तुमी कूर्गाचे मळेवाले आणंदाचे धर्तेर सहकारी पध्दतीन कॉफयेची विक्री कित्याक करिनात ? सरकाराकडेन तसो प्रस्ताव कित्याक दवरनात ?'

किरणान वर्गीस कुरीयनाचें नांव आयकल्लें. 'अमूल' आनी 'धारा' चे बाजारपेठेंतलें यश ताका खबर आशिल्लें.

'कूर्गी मनशांत सहकाराची कल्पना रूजप कठीण- किरणान सांगलें, फकत झुजपांत कूर्गी मनशाचो एकचार दिसता हेर जिणेंत न्हय.'

कूर्गांत ल्हवु ल्हवु कुर्गी मनीस अल्पसंख्य जायत वता हाची भिरांत कूर्गी लोकांक दिसता. गोंयकाराक बिगर गोंयकारांचो भंय दिसता तसोच कूर्गी लोकांकय भायल्यांचो.

राष्ट्राच्या दर्यांत अशे कूर्गाभाशेन जुंवें आसप जाल्यार ते कितले तेंप ? त्या जुव्यांचेर सांकव बांदप काय जुंवो भश्टत म्हणून ताका तसोच दवरप ?

उदरगतीचो अर्थ कितें ? सैमाक जाता तितलो बुड्डून खावप कांय सैमीक संतुलनाचो थातोमातो करून मनशाक दळिद्री दवरप ?

उद्योगीक उदरगत आनी पर्यावरणाचें रक्षण, भुंयपुत्रांचें संरक्षण आनी भायल्यांचें आक्रमण, संस्कृतायेचें वेगळेपण आनी राष्ट्राचो एकचार, अस्मिता आनी सहिष्णुता ह्यो गजाली एकमेकांत इतल्यो भरसल्यात की ताच्यो साद्यो सोप्यो जापो दिवप शक्य ना.

जे अशो क्लिश्ट प्रस्नांच्यो सोप्यो जापो दितात ते स्वताकय फटयतात दुसऱ्याकय फटयतात.

किरणाकडेन प्रस्न आशिल्ले. म्हजेकडेन प्रस्नाक जापो नाशिल्ल्यो.

कूर्गांतल्या निमाण्या दिसा मर्काराच्या बाजारांत गेलों. वेलदोडे घेतले. म्होवाचो दोन बाटलो घेतलो. वतां वतां अगस्ताक घेवन किरण आयलो. सायली आनी ताची आवयवापूय आनीक दोन दीस मर्कारांत रावपाची आशिल्लीं. भुरग्यांनी अगस्ताक आनी सायलीक खांदार घेवन नाचयले. दोगूय जाणांची पापी घेतली.

आनी मागीर ते प्रसन्न दनपारा प्रसन्न मनान आमी कूर्ग सोडलें आनी मंगळूराची वाट धरली.



# सागर - दर्यांतुलो साकर - जुंवो

पूर्व उदेंतेची, उजवाडाची दिका म्हणून पुर्वेक पवित्र मानल्या. आनी पश्चिम अस्तंतेची, काळखाची दिका म्हणून अपवित्र. उत्तरेक सर्गाची, चिरंतनाची दिका मानल्या तर दक्षिणेक पाताळाची, मृत्युलोकाची दिका मानल्या.

खरें म्हळयार आठय दिको आमी पवित्र मानूंक जाय. पुणून ना. पश्चिम आनी दक्षिण दिकांक अपवित्र मानलेबगर पुर्वेची आनी उत्तरेची पवित्रताय, तांचे व्हडपण, वाडचें ना अशें दिसलें जायत. देखून पश्चिम आनी दक्षिण दिकेकडेन फाट करून आमची संस्कृताय पुर्वाभिमुख, उत्तराभिमुख जाल्या.

दक्षिण आनी पश्चिम दिको जंय मेळटात थंय जल्मता नैऋत्य दिका! तशें पळयल्यार दोन अपवित्र दिकांचें हें अपत्य. पुणून उत्तर, दक्षिण, पूर्व पश्चिम, आग्नेय, नैऋत्य , वायव्य ,ईशान्य ह्या आठय दिकांमदीं अदीक पवित्र मानूंक जाय भारतवर्षान नैऋत्य दिकेक.

गंगेचें उगमस्थान गंगोत्री, यमुनेचें यमुनोत्री, कावेरीचें थलकावेरी जितलें पवित्र त्याय परस भरतवर्षाक न्हाणोवपी, नटोवपी, सुजलाम् सुफलाम् सस्य श्यामलाम् करपी नैऋत्य मान्सुनाच्या पावसाची जी जन्मोत्री ती नैऋत्य दिका आमी अदीक पवित्र मानूंक जाय.

भारतीय म्हासागराच्या अथांग दर्यांत जंय नैऋत्य मान्सुनाचीं कुपां जल्मतात थंय पयस सागर-दर्यांत एक साकर-जुंवो आसा. हजारांनी वर्सांआदीं म्हासागराच्या गर्भांत जाल्ल्या ज्वालामुखीच्या विस्फोटांतल्यान हो जुंवो वयर सरलो. पुणून पयर पयर मेरेन मनशाचें पावल ह्या जुंव्यार पडूंक नाशिल्लें. धर्तरेच्या जल्माक लाखांनी वर्सां जालीं अशें धरल्यार तिचे भाशेंत तिनशें-चारशें वर्सांक पयरच म्हणूंक जाय.

सोळावो शेंकडो सुरू जावपाच्या सुमाराक हिंदुस्तानमेरेनची दर्यांतली वाट सोदूंक वास्को-द-गामाच्या फुडाराखाला पुर्तुगेज खलाशी भायर सरले. आफ्रिका खंडाक भोंवताडो घालून ते हिंद म्हासागरांत पावले आनी ईशान्येचे दिकेन फुडें वचूंक लागले तसो हो जुंवो तांकां दिसलो. पुर्तुगेजांनी ह्या जुंव्यार राबितो केलो ना. पुणून ह्या जुंव्यार तांचें येवप वचप आशिल्लें. १६३८ त हांगा डच लोक पावले. आपलो राजकुंवर मॉरिस-द- नासांव हांचें नांव तांणी ह्या जुंव्याक दवरलें. नॅदरलँडाच्या राजकुंवराच्या नांवाचो तिबो कपलार लावन मॉरिशस ह्या नांवान ह्या जुंव्यान जगाच्या नकाशार पावल दवरलें. डच लोकांनी ह्या जुंव्यार उशिकांडो लायलो. फुडें हे सुपीक भुंयेचेर फ्रेंचांची नदर पडली. १७२१ त मॉरिशस फ्रेंचांकडेन गेलें. फ्रेंचांनी मॉरिशसांत साकरेचे कारखाने काडले. १८१० त ब्रिटीश लोकांनी फ्रेंचांकडल्यान मॉरिशस जिखून घेतलें.

ब्रिटिशांनी उशिकांड्याच्या मळयात काम करूंक हिंदुस्तानांतल्यान कामेरीं हाडपाक सुरवात केली. १८३४त पयलो हिंदुस्तानी मॉरिशस पावलो. पोर्ट लुई हें मॉरिशसचें राजपाटण आनी मुखेल बंदर. कलकत्त्याक कालीघाट आसा तसो पोर्ट लुईक एक घाट आसा. ताचें नांव कुली घाट. जे सुवातीर भारतीय कामेऱ्यांनी कुली म्हणून पयलें पावल दवरलें ते सुवातेक आयज

मॉरिशसांतले भारतीय वंशाचे लोक कुली घाट ह्या नांवान वळखतात. मागीर एका फाटोफाट एक अशे शेंकड्यांनी लोक कलकत्ता, मद्रास आनी मुंबय बंदरातल्यान पोर्ट लुईच्या कुली घाटार देंवले. तांतूतले कोण परतले नात. घडये तांकां आपले मायभुंयेंत परत वचप जमलें ना. ते थंयच रावले. ते थंयच खपले.

तांच्या घामान, तांच्या रगतान तांणी साकरेचे मळे शिंपले. तांची घरांदारां, सोयरींधायरीं पयस बिहारांत, बंगालात, कोंकणात उरलीं. तांची नातीं तुटलीं. तांचीं आडनांवां ते विसरले. तांणी नवीं नावां घेतलीं. तांच्या बापायचें मदलें नांव ब्रिटिशांनी तांचें आडनांव केलें. तांणी तें मानून घेतलें.

कांय लोक बायलांक घेवन आयले. कांय लोक भुरगेबाळांक घेवन आयले. हिंदुस्तानचे धर्तरेचो एक कुडको उफेत उफेत मॉरिशसचे धर्तरेर आयलो. थंयच किल्ललो. चंवरलो.

म्हासागरांतलो किण्ण निर्जन, निर्मनुष्य जुंवो आतां मनशांनी मनशाळून गेलो. आफ्रिकेंतल्यान खांपरी लोक आयले. फ्रान्सांतले फ्रेंच लोक आनी इंग्लंडचे ब्रिटीश लोक तर आशिल्लेच. तरांतरांचे लोक, विंगड विंगड संस्कृतायो एकमेकांत भरसून गेल्यो. मॉरिशसचो मयुरचित्रिक मॉझायक जालो.

मॉरिशस संस्कृतायेंचें मेल्टींग पॉट जालें. दशदिशांतल्यान आयिल्ले लोक हातांत हात घालून कश्टले. म्हणटां म्हणटां सगलो जुंवो उशिकांड्याच्या मळयांनी भरून गेलो. गांव उबे जाले. साकर कारखाने जाले. गिरेस्तकाय आयली. १९६८ त मार्चाचे बारा तारखेक मॉरिशस ब्रिटीशांचे बंदखणींतल्यान मुक्त जालो. आपले भौरंगी सैमीक सोबितकायेक सोबत असो तांबड्या, निळ्या, हडव्या आनी पाचव्या रंगांचो चौरंगी बावटो ताणें मळबांत हुबयलो. कुली म्हणून पोर्ट लुईच्या कुली घाटार पांय दवरिल्ल्या भारतीय मनशाचो पणतु मॉरिशसच्या राजशिंवासनार बसलो. इतिहासाची एक खूब व्हडली परिक्रमा सोंपली. दुसरी सुरू जाली. मिठाळ म्हासागरांतलो संस्कृतायेच्या साकरपाकांत बुडून साकर-जुंवो जाल्लो मॉरिशसचो जुंवो इतिहासाच्यो सांखळयो तोडून दिमखुऱ्यांनी चलूंक लागलो.

भारतवर्शाचें आनी मॉरिशसचें एक इतिहासीक नातें. आयज मॉरिशसांतले ५२% लोक भारतीय वंशाचे. मॉरिशसांत फ्रान्सांतले फ्रँको-मॉरिशन आसात. आफ्रिकेचे अँफ्रो-मॉरिशन आसात तशे भारतीय वंशाचे इंडो मॉरिशन रावतात. ते शेंकड्यांनी वर्सांपयलीं आयले. हजारांनी मैल पयस पावले. पुणून तांणी एक गजाल केली. आपल्या तोंडांतली भारतीय भास तांणी सोडली ना. हिंदी, भोजपुरी, बंगाली, तमीळ, उर्दू आनी मराठी मायभास ते विसरले ना. ह्यो भासो तांकां संस्कृतायेचें जीवनसत्व दित रावल्यो. हिदुस्तानांतले तेत्तीस कोटी देव खांदार मारून हाडप तांकां जमलें ना पुणून तांणी एक देव हाडलो. तो म्हळयार मारूती. दर्या हुंपून लंकेक वचपी मारूती हो मॉरिशसच्या भारतीय लोकांचें आराध्य दैवत जालो. आमच्या आंगणांत तुळस आसता तशी मॉरिशसांतल्या दरेक भारतीय मनशाच्या आंगणांत मारूतीची ल्हानशी घुमटी आसता. थंय दिवो लागले वगर घरांत दिवो लागना. कुली म्हणून आयिल्ल्या आनी राष्ट्रध्यक्षपदार पाविल्ल्या भारतीय मनशांक आपल्या उपाट कश्टांच्या, हालअपेश्टांच्या जिवितांत बजरंग बली मारूतीचे दुर्दम्य पुरूषार्थी आनी पराक्रमी जिणे पासून सदांच स्फूर्त मेळळी. देखून हनुमान चालिसी हो तांचो गीतेपरस अदीक पवित्र ग्रंथ जाला. चिरंजिवी चिरतरूण हनुमान मॉरिशसच्या भारतीय लोकांच्या काळजांतलें चिरंतन संस्कृतीक संचित जालो.

मारूती बरावर भारतीय लोकांनी आनीक एक गजाल व्हेली. ती म्हळयार गंगा. मॉरिशस गंगातीर्थ आसा आनी म्हासागराच्या पोटांतल्यान हिमाद्री-दुहिता गंगा हांगा वयर सरल्या हो भावार्थ ते मानतात. ग्रँड मोसिन हांगा गंगा तालाव आसा आनी ताचे देगेर गंगाधारी नीलकंठ शंकराचें देवूळ. थंय महाशिवरात्रेची परब जाता. कृष्णापरस हो वैरागी निरीच्छ शिव तांकां अदीक भावला. अवतारी रामापरस मारूतीची भावार्थी भक्ती तांकां अदीक मानवल्या.

तशीच व्हड्यांत बसून मॉरिशसचे धर्तरेर पावल्या भारतीय केळ. भारतांत केळ फुडल्या दारांत लावप अशुभ मानतात. आपल्या बाळकाच्या

जल्माउपरांत मर्णाचे वेंगेंत वचपी केळ- ती आमच्या मागीलदाराच्या पोरसांत आसता. फुडल्या आंगणांत नासता. मॉरिशसी भारतीयांक हें शुभाशुभ भश्टूंक ना. जर्द पाचवेचार पानांच्या आनी रसरशीत पिक्या घडायांच्या केळींनी दरेका मॉरिशसी भारतीय घरःक ताचें निजाचें भारतीयपण दिलां.



# मयुर माचुलांतलें मॉरिशस

रंगांधळ्या मनशान वचचेंच न्हय मॉरिशस! मॉरिशस म्हळ्यार रंगांचो उत्सव. रंगाचो पिसारो फुलोवन सागरदर्याचे देगेर मयूर - माचुलांत बसलां मॉरिशस!

वयर लख्ख निळें मळब. सकयल निळो शार दर्या. ताजो टवटवीत निळो रंग. निळ्या रंगाच्यो कितल्यो शेडस्... अंतरिक्षांतलो धारोश्ण वस्त्राळ उजवाड आनी त्या भांगरनिळ्या उजवाडाच्या इंद्र-मखरांत बशिल्लो तो गर्भगिरेस्त निळो रंग! निळीं कुपां. गडद निळीं. गडद निळीं फिकट निळ. जांभूळनिळीं. तांबूसनिळीं. दर्या निळो. उदक निळें. मोरनिळें. श्यामनिळें. श्यामलनिळें. मनूय निळें. मूडय प्रसन्न निळो. कमळनिळो. साळीकनिळो. निकतोच सुटिल्लो अनील वारो. तोय नितळ निवळ सोलीव निळो. आनी सांजचो पिकिल्लो झाडपिको काळोख. तो कृष्ण कृष्ण निळो.

उजवाडाच्यो तरातरा. तरांतरांचे रंग म्हळयार खरें तरांतरांचो उजवाड. निळयाक ताजी नीळसाण, हडव्याक ताची हडवुळसाण, पांचव्याक ताचें पांचवेपण, तामडचाक ताजी तामुडसाण - उजवाड दिता. रंगांचे मिस्तूर करून उजवाडाच्याच देंठांतल्यान शुभ्र, श्वेत, धवल रंग रसरसून येता आनी उजवाडान फाट करंतकीच काळयाक ताजें कृष्णरूप मेळटा.

मॉरिशस हो उजवाडाचो वरदहस्त आशिल्लो देश. तो रंगांच्या कॉकटेलांत बुडिल्लो देश. रंगांची रक्त, आरक्त, विरक्त रूपां पळोवचीं मॉरिशस.

काळी काळी माती काळी काळी खडपां. काळयो काळयो दोंगुल्ल्यो. काळे कुळकुळीत दोंगोर. धवोफुल्ल फेंस माळिल्लीं ल्हारां. दर्यादेगेवयली धवीफुल्ल खडीसाकरी साकर-रेंव आनी भूंय-पिक्या ताज्या मिठाची धवींफुल्ल मिठागरां.

रसरसून पिकिल्या हडव्या केळयांचे घडाय लागिल्ल्यो पाचव्योचार केळी. पावस पिवन तृप्त जाल्ले, तटतटीत यौवनान मुसमुशिल्लें पांचवेंचार उशेल, च्याचीं रस्मी पांचवी झुडपां. पाचवी पामरी पांगरून ध्यानस्त बशिल्ले पिंपळाचे बुध्द-रूख. तामडीं जास्वंदी दशिण-फुलां. तामड्यो बोगनवेली. जांभळीं साळकां. कमळां. लिलीज् आनी वॉटरलिलीज्.

रंगांचो हो असो वसंतोत्सव. रंगांचो हो रंगोत्सव पळोवंक वचचें मॉरिशस.

जेष्ठांतले काळखे चतुर्दशीचे मध्यानरातीं उटंगाराच्या पावसांत आमी मुंवय सोडले. मॉरिशस पावले तेन्ना फांतोड जाल्ली. मळबाचे घुमटे सकयल शेवण्यांच्यो काकड-आरती चलताल्यो. मोव मोव वताचीं बोटां शिंयाक कातकुतल्यो करतालीं. रातभर केल्ल्या जागरणान सुस्त न्हिदिल्ल्या शेतांमळयांक वारो साकरन्हिदेंतल्यान उठयतालो. दोगुल्लेचे देंवतेवयली घरां दोळे चोळून उठटाली. विमान देंवता देंवता म्हळयार फांतोड आटत आटत सकाळ जायत आयिल्ली. मॉरिशसचे भुंयेवयलो आमचो पयलो दीस उदेल्लो.

साळकाचे पाकळेर फुलपांखो बसचो तशें विमान मॉरिशसचे धर्तरेर देंवता. खंय देंवले आमी ? विमान तळार काय उशेलांत ? सरभवतणी उशिकाण्याची उशेलां, मदीं विमानतळ. पाचवींचार उशेलां. वाऱ्यार धोलपी उतरांनी वाऱ्याक म्हणपी - वाऱ्या, वाऱ्या, आमकां धोलय. पोटांत आमच्या साकर पिकय.

उशेलांतल्यान चडटे देंवतेच्या सर्पाकार रस्त्यान आमची जीप फुडें वता. मदींच एक दोंगुल्ली लागता. आमी जीप थांबयतात, सकयल देवतात. धर्तरेचो आनी पिक्या शेतांचो हो मुक्त शृंगार आमी दोळेभर पळयतात. म्हाका याद जाता - काळजाच्या करणांत सांवाळून दवरिल्ले एके मोरपांखी कवितेची

वळ -

'भुई सर्वत्र गोविंद
क्षेत्र साळीचें राधा'

पु. शि. रेगे तो! भुंयेच्या आनी शेतांच्या शृंगारांत ताका राधाकृष्णाचो शृंगार दिसता. सगळी भूंय कृष्ण सगलीं शेतां राधा ! आमी उशेलांत वतात. जीपीचो शोफेर सकयल देवता."चड वेळ शेतांत रावूं नाका" तो सांगता.

"हांगची भूंय इतली सुपीक - चड वेळ रावल्यार तुमकां मुळां फुट्टलीं. तुमचेय जातले उशिकाणे" तो सांगता. ताच्या उतरांतल्यान मॉरिशसच्या लोकवेदांतली एक ऑपारच आमकां आयकूंक मेळटा.

जीप फुडें वता. शोफेर अरमान पयस दोंगराकडेन बोट दाखयता. तो पीटर मिल्कमेंड - दोंगराचे तेंगशेर खऱ्यांनीच एक मनशाचो पुतळो उबारचो तशें शिल्प उबें आसता. दुदकार पीटराचो पुतळो तो. ताजी एक काणी आसा एक लोकां-काणी. अरमान आमकां ती सांगता.

खूब वर्सांपयली दोंगराच्या मुळसाक पीटर नांवाचो दुदकार रावतालो. एक दीस गोरवांक धेवन तो दोंगर चडटा. चडत चडत तो दोंगराचे तेंगशेर पावता. थंय ताणे पळोवंक फावना अशें किदें तरी तो पळयता. थंय ताणे आयकूंक जायना अशें किदें तरी तो आयकता. आनी ताणे सांगूक जायना अशी ती गजाल तो हुयेली मारून आपले फाटल्यान येवपी आपले वायलेक सांगता. पीटर दुदकाराचो थंयच फातर जाता.

ताणे किदें पळेलें ? किदें आयकलें ? किदें सांगलें ? अरमान तें सांगना. खंयचोय मॉरिशसाचो मनीस पीटर  दुधकाराची लोकां काणी अशीच सांगता. पीटरान किदें पळयलें किदें आयकलें किदें सांगलें तें तो सांगना. दादल्यांक विचाल्ल्यार खांदे उडयत आमका फातर जावपाचे ना अशी जाप ते दितात. बायलांक विचाल्यार तीं हांसत हांसत सकयल मान घालतात. लोकांकाणयेच्या पुस्तकांतय ही काणी आसा, पुणून अशीच अर्दकुटी - घडये तिजे अर्दकुटेपणांतच तिजें गुपीत, तिजी सोबितकाय आसा.

मॉरिशसची अर्धचंद्री लोकांकाणी आयकता आयकता म्हणसर पोर्ट लुई येता. आज्येचे साणयेर माणकुली नात वसची तें अपुरबायेन मायेस्त दर्यादेगेर पोर्ट लुई वसलां. ल्हान, टूमदार शार. आवयवापायचें अर्दें अर्दें रूप घेवन वाय जावचें तशें. थोडी फ्रांसाची थोडी इंग्लडाची सया ताका मारता. दर्या शारांत इल्लो भितर सल्ला. देखून पोर्ट लुई हांसता तेन्ना ताज्या गालाक खळी पट्टा अशें दिसता. पोर्ट लुई मॉरिशसचें राजपाटण पुणून नवे दिल्लीसारक्या राजपाटणान घाल्लो फेरोद भेस ताणे घालूंक ना. ताणे घाला लोकां खेळांतलो आदिम भेस! पोर्ट लुईक आमी रावली नात. दनपार जाता म्हणसर अरमानान आमकां हॉटेलांत पावयलीं.

दर्यादेगेर आसरमांडी घालून बशिल्लें दर्याभिमुख ल व्हिक्टोरिया हॉटेल! 'सनशायन इन अवर स्मायल्' हें मॉरिशसचें घोषवाक्य - स्लोगन. त्या स्लोगनाचो रूपेरी बॅनर आमकां येवकार दितालो.

"मॉरिशस हो देश न्हय तें राष्ट्र न्हय. आमी ताजो केल्ला एक ब्रँड. आमी ताका दिल्या एक ब्रँड इक्विटी. सनशायन इन अवर स्मायल अशें म्हणून आमी केलां ताजें ब्रँड पॉझिशनिंग" सुमन चिनॉय सांगूंक लागली. हांव विचारांत पडलों. आपलें मायभुंयेसंवदान असली भास हांव पयले फावटीं आयकतालों.



# आमोर नाचता सेगा

'वन पर्सेंट लँड आनी नायन्टी नायन् पर्सेंट फन 'हें मॉरिरशसचें दुसरें घोषवाक्य. आनी त्या घोषवाक्याक पुराय निश्टा ओंपून मॉरिशसान भोंवडेकारांखातीर धर्तरेवयलो सर्ग निर्मिला. सरभवतणीच्या दर्या-उदकांत तांणी भोंवडेकारांखातीर तरांतरांचे उदका खेळ, वाऱ्याखेळ खरें म्हळयार पंचेंद्रियां खातीर पंच महाभूतां खेळ दवरल्यात.

मॉरिशसच्या जुंव्यार आनीक एक ल्हानसो जुंवो आसा. त्या जुंव्याचें नांव इलो सर्फ. एके मोटरबोटींत बसून इलो सर्फार वचपाचें. इलो सर्फाचो जुंवो दर्याचे उदक दोनय व्हटांनी भितर सरून घडला आनी ताचे दावे कुशीन निळ्याशार नितळ निवळ दर्याउदकाचो लगुन तयार जाला. व्हड तळी कशी! मनसोक्त पेंवचें, उदकांत न्हावचें. उदकांत खेळचें. उदकांत डुबकी मारून उदकाच्या गर्भातली जलसृश्ट पळोवची.

आमी इलो सर्फार गेलीं तो आयताराचो दीस आसलो. भोंवडेकारांची आयतारी जात्रा भरिल्ली. ते जात्रेंत आमी भरसलीं. जुंव्यार जळींमळीं रंगीत सत्र्यो लायिल्ल्यो. रूखांक रंगीत बोमाडे बांदिल्ले. जुंव्यावयल्या रेस्टोरेंटांकय अशेंच रंगीत रूपडें घाल्लें. सगलें वातावरण आनी मूड कलरफूल आनी फन-फेस्टिव्ह आशिल्लो. वातावरण निर्मणेची म्हणून एक फिशालकाय

आसता. ती सैमांत आसता. साहित्यांत आसता, चित्रांत आस्ता आनी सैमीक सोवितकयेक पर्यटनाची भरजरी देग लावनय ती करू येता. इलो सर्फाचो जुंवो ही देख दिता.

आमी स्पीड-बोटीत वसलीं आनी दर्या शिंपलेंतल्या ह्या इलो सर्फाच्या माणिक जुंव्याक प्रदक्षणा घाली. स्पीड-बोट खूब वेगान वता. ल्हारां कापीत दर्यांत घुसता. वयर सकयल जाता. उवी आडवी जाता. आरक्यो तिरक्यो गिरक्यो मारता. काळीज खपखपता पुणून मन भुल्लुसता.

इलो सर्फार पांय दवरचे पयलीं भंय-भिरांतेची कवच कुंडलां देगेर दवरून येवंक जाय. भंय आनी आनंद केन्नाच हातांत घालून वचूंक शकनात.

स्पीड बोट दर्यांत मर्दी थामली. दर्यांत उफेवपी लाकडाच्या चौकोनी राफ्टार आमी देंवलीं. आंगार पेंवपाचो भेस घालो. लायफ जॅकेट घालें. दोगादोगा जाणांच्यो जोडयो केल्यो. चंदा आनी दत्ती. चिराग आनी हांव. खांदाक दोरयो बांदल्यो आनी-

एक दोन तीन

खिणभरांत आमी पॅरेशुटाच्या आदारान वयर वयर मळबांत पावलीं. सकयल स्पीडबोटीक पॅरेशुटाच्यो दोरयो बांदिल्ल्यो. स्पीडबोट उपाट वेंगात दर्यांत भोवंक लागली.

शेवणी जांवन आमी दिगंतरांत उडूंक लागलीं. सकयल खोल निळो दर्या. वयर तामडीगुंज पॅरेशुटाची सत्री. मर्दी आमी. सरभवतणी वारो. थंड शीतळ वारो. पयस इलो सर्फाचो जुंवो. शेवण्याच्या दोळ्यांनी सैमाचे विहंग-दर्शन. शेवण्याच्या पाखांनी मळबांत उडप. वाऱ्याक वेंगेत घेवप.

मळबांत पंदरा वीस मिनटांचें हें उडप करतकीर स्पीड बोट चलोवप्यान मोटे फिशालकायेन आमच्या राफ्टाचेर आमचें अळंग लॅंडींग केलें.

मागीर दिगंतरांतल्यान दर्यांतरंगांत वचपाचो खीण आयलो. आमी ऑक्सिजन मास्क तोंडार घालें आनी स्पीडबोटीवयले निसणी वयल्यान सकयल देंवलीं. सात आठ सोंपणा जातकीर निसण सोंपता. मागीर हात

सोडून दिवप.

आमी उदकांतल्यान खोल खोल दर्याच्या तळाक पावले. थंय पांयाक लागली म्हासागराच्या दांत्यार शेकड्यानी वर्सां दळिल्ली मोतयांदाण्याची मोव मोव मुलायम रेंव आनी चारी वटेन दिसली कोरलाची नयनसुंदर जलसृश्ट.

दर्या गर्भांतलो हे कोरल हो एक सैमीक चमत्कार. म्हासागरांतले तें कोरलांचें घनदाट अरण्य आनी तांतूत भोंवपी चित्रविचित्र रंगीबेरंगी ल्हानल्हान मासोळ्यो.

एके वटेन थंडगार उदकाचें स्पर्शसुख आनी दुसरे वटेन म्हासागराचे पोटांतले मयसभेचें नेत्रसुख. आमच्या हातांत पावाचे कुडके आशिल्ले. ते खावपाक चोम्याचोम्यांनी मासोळ्यो येताल्यो. आमचीय जाल्ली एक एक मासोळी. मनीस देह कडून वितळून गेल्ले. अथांग म्हासागराचो आमीय एक थेंबो जाल्ले.

आमी जंय दर्यांत देंविल्ले तो दर्या बरोच मनशाळिल्लो. उदका भवतणी कोरल आशिल्ल्यान थंय शार्क, पाणसर्प आनी व्हडलीं नुस्तीं येना आशिल्लीं.

कोरलाच्या आंगाक घश्टीत येतालीं तीं तरांतरांच्या ल्हान नुस्त्यांची भिरीं. दर्याच्या ओल्या कॅनव्हासावयलो तो एक स्वरूपसुंदर 'सी-स्कॅप' आशिल्लो. तो आशिल्लो एक खिणाखिणाक रंग आनी रूप बदलपी जितो जिवो थ्री डायमेन्शनल कॅलिडोस्कोप. म्हासागराच्या सारयल्ल्या आंगणांतली ती आशिल्ली रंगवावरी रांगोळी.

कोरल म्हळयार एक ल्हान जीव. दिसपाक वनस्पत कशी दिसता. पुणून शास्त्रीय नदरेन तो एक जल-जीव. 'पॉलिप' हे ताचें शास्त्रीय नांव. कोरल नितळ निवळ आनी जंय उजवाड झिरपत पावता अशा उदकांत जल्मतात. तांचे जैवीक खांदे वडाभशेन दर्यांत पयस पयस पातळटात आनी तांची कुचकुचीत कॉलनी जाता. कोरलाच्या आंगात द्रवरूप फ्ल्यूड आसता. आपल्या ल्हान ल्हान सान सान 'हातांनी' कोरल दर्यांतले सुपुल्ले जीव किडी

खावन गुटगुटीत जातात. कोरल उदकांत शुक्र बीजां सोडटात. सुफलीकरण जाल्ल्या तांतयांची थोड्याच दिसांनी लावी जाता आनी मागीर ताजो जाता कोरलाचो प्रॉलिप.

कोरल मरतकीर तांच्या सांगाड्याचो दर्यात बांद जाता ताका कोरल रीफ्ट म्हणटात. ऑस्ट्रेलियांत संवसारांतलो सगल्यांत व्हडलो कोरल रीफ्ट आसा. चंद्रावयल्यान धर्तरेवयल्यो ज्यो दोन वस्ती दिसतात तांतूतली एक वस्त म्हळयार चीनांतली महाप्रचंड वणत आनी दुसरो ऑस्ट्रेलियाच्या दर्यातलो कोरल रीफ्ट.

कोरल जेन्ना तातयां आनी शुक्रबीजां सोडटात तेन्ना दर्यात एक सोबित सुंदर सृजनोत्सव चलता. अशा वेळार दर्यातरंगांत वचपाची संद मेळप ही एक मोटी पर्वणी.

अशा कोरलाच्या सहवासांत रावन समुद्र-संमोहित जावन आमी वयर सल्लीं.

स्पीडबोट जुंव्यावेल्या धक्यार थांबली आनी आमी सकयल देवल्ली तेन्ना अल्बर्टान आमच्या हातांत एक एनव्हॉलोप दिलो. तांतूत आशिल्ले अल्बर्टान काडिल्ले आमच्या मळवांतल्या आनी दर्यातल्या भोंवडेचे रंगीत फोटे.

दिगंतरांतल्यो आनी दर्यातरंगांतल्यो आमच्यो थंड शीतळ ल्हवपीक आनी चिप्प चिप्प ओल्यो यादी त्या फोटयांचे फास्केंत आतां आमी सासणाच्यो गोठोवन दवरल्यात.

इलो सर्फावयल्यान व्हिक्टोरिया हॉटेलांत पावलीं तेन्ना रात बरीच जाल्ली. सकाळीं घाल्लो भेस सोडोवन व्हिक्टोरियान नवो भेस चडयल्लो. सॉफ्ट संगीताची धून लागिल्ली. दर्यादिगेवयलें रेस्टॉरंट दोन तीन पेग मारून इल्लें तर्र जाल्लें. न्हीदसुऱ्या दिव्या उजवाडांतल्यो सावल्यो लकत लकत चलताल्यो. स्विमिंग पूल नवख्या बेबद्याभशेन पिवन पिवन आड पडिल्लो.

नित्तेच उगडिल्ले शेम्पेनाचे बाटलेभशेन कॅझिनोतलो उल्लसित आवाज फसफसून भायर येतालो. रूलेच्या मेजार घुलांचो खुळखुळाट आनी स्लॉट मशिनार नाण्यांचो खणखणाट आयकूंक येतालो.

कॉफी शॉपांत एक फ्रेंच जोडपें उंची अत्तर पांगरून गरम काफयेचे घोट घेत कसल्या तरी न सोंपपी संभाशणात गुल्ल जाल्लें. बिलयर्डाच्या मेजार दोन तरणे खांपरी पोर बॉलार बॉल मोखीत थंडसाणेन बिलयर्ड खेळटाले.

कुचकुचित टॉपींग आशिल्या कुरकुरीत पिझ्झाभशेन इटालियन रेस्टॉरंट लोकांनी भरून वत्तालें. लॉबींत लाँग डिस्टन्स् फोन खणखणटाले. बुकशॉप अजून बंद जांवक नाशिल्लें. शॉपिंग आर्केडाच्या ओंठाव्यलो सिंथेटिक हांसो दिसभराच्या शीणान मंद श्रांत जाल्लो.

तरांतरांचे सॅलेड, ग्रील्ड चिकन, रोस्टेड लॅम्ब, लॉबस्टर मायोनिज, मशरूम पिझ्झा, जिंजर रायस, व्हेजिटेबल स्ट्यू, गार्लिक ब्रेड, ट्रायफल पूडींग, मिंट आयस्क्रिम,. फ्रूट योगर्ट, ड्राय फ्रूट जेली अशा तरांतरांच्या प्रातीचें पुरसांव किचनांतल्यान नटून थटून पूल सायड रेस्टॉरंटांत येतालें.

दीस सुस्त न्हिदिल्लो. रात जागरण करताली. मध्यानरात जावन गेल्ली. अर्दें हॉटेल सुस्त न्हिदिल्लें अर्दें हॉटेल जागरण करतालें. व्हिक्टोरियाचो एक दोळो न्हिदिल्लो. दुसरो आजून जागो आशिल्लो.

फांत्यापारार जाग आयली. हांव कुडींतल्यान भायर आयलों. वातावरणांत शितळसाण आशिल्ली. काळखाचे दिवे पालोवंक नासले. उजवाडाची साकरन्हीद सोपूंक नासली.

व्हिक्टोरिया सुस्नात ताजें टवटवीत जावन बशिल्लें. ताणे जॉगिंगाचे धवेफुल्ल शूज घाल्ले. हेल्थ क्लब निक्तोच उगडो जाल्लो. कोण स्टीमबाथ, कोण सौना कोण जाकुझ्झी घेवपाक भितर सरताले. चार पांच टीनएजर्स सायकली घेवन पासयेक वचूंक भायर सरिल्लीं. स्विंमिंग पुलान आपलो स्विंमिंग कॉस्च्युम चडयल्लो. किचन आपलो ब्रेक फास्ट करपाक बशिल्लें. जार्दिनांत तीन चार माळी फुलझाडांची पानझाडांची हेअरस्टायल् करपांत गुंतिल्ले. स्पीड बोट्स निकत्योच उदकांत पांय बुडोवंक दर्या देगेर गेल्ल्यो.

पिक्या पानावरी रात गळून पडिल्ली. दिसाक कंवळी आंकरी फुटिल्ली.

व्हिक्टोरिया हॉटेलाच्या सरभवतणी जॉगिंग ट्रॅक आसा. ताजेवयल्यान हांवे दोन भोंवताडे घेतले आनी कूडींत परतलो.

इतल्यान फोन घणघणलो. बच्चूचो फोन - 'णव म्हणसर तयार जायात, गाडी घेवन येता.' ताणे सांगलें.

परदेशांत आपलो मनीस आसलो म्हणटकीर तो देश अनवळखी दिसना. ताजी रोखडीच संवकळ जाता.

बच्चू नाशिल्लो जाल्यार आमकां मॉरिशसाचें आपलेपण दिसचें नाशिल्लें.

मॉरिशसच्या भुरग्यांक गोंयच्या मेडिकल कॉलेजांत एक-दोन सुवातो राखून दवरल्यात. कांय वर्सांपयलीं दोतोरकी शिकपाक बच्चू बांबोळे आयलो. जिणेच्या एका मोडार बच्चूची आनी आमची इश्टागत जाली आनी एक दीस फिरंगी शेवण्यावरी बच्चू पयस उडून गेलो.

आज खूब वर्सांनी बच्चू मेळ्ळो. दोन दीस आपले गाडयेन बच्चून आमकां भोंवडायलीं. ग्रँड बेसिनचो गंगातालाब, कासेला बर्ड पार्क, डोमेन ली पालास, पाम्पाल मोसेस गार्डन, चामारेल, रोजहिल्स आनी पोर्ट लुई ..

दर्यादेगेवयलीं मिठागरां, दोंगरामाथ्यावयले च्याचे मळे, गांवा भवतणीचीं कुचकुचीत उशेलां, फळांफुलांनी फुलिल्लीं जार्दीनां, चकचकीत झगमगीत हायपर स्टोअर्स, फ्रेंच आर्किटेक्चराची सया मारपी पुरातन घरां, बुध्दाच्या नांवाचो तिबो लावन बसपी पिंपळाचे बुध्द-रूख, चायना टाव्न, साकरेचे अद्ययावत कारखाने, हिंदी फिल्मांच्या शुटींगाच्यो सुवाती -- बच्चूच्या सांगातान मॉरिशसची सैमीक सोबितकाय आनी समाजीक गिरेस्तकाय आमी मनसोक्त चाखली.

दुसरे दिसा सांजचो बच्चू आमका ग्रँबे घेवन गेलो. ग्रँबे म्हळयार ग्रँड बे. मॉरिशसचे ईशान्येकडले दर्यादेगेर आशिल्लो एक सुपुल्लो गांव. बीजेच्या चंद्राभशेन अर्धचंद्राकार दर्यादेग आनी तिजे हांडीर बशिल्लो ग्रँबे.

आमोर जायत आयली. रंगयल्ले मेथयेच्या अनवाणी पावलांनी आमोर आयली. आमोर आयली पांयांत घालून अनाहत नादांची पांयजणां!

आमोर आयली माळून अनाघ्रात परमळाची आटी! आमोर आयली काळखाचो रंगांध पिसारो फुलोवन!

म्हणटा म्हणसर आमोर गावंक लागली कसलें तरी अबोध क्रियोल लोकगीत. आमोर सांगूक लागली मातयेंत खोल पुरिल्ली लोकांकाणी.

आमोर नाचूंक लागली सेगा... आमोर जाली आदामाची आदिम अभिसारिका ईव्ह. आमोर नेसली न्हेसण फुलवंती पायघोळ. आमोर जाली आकूळ पिकूळ काळोखपिशी आमोर जाली शृंगारपिशी. आमोर जाली मोराची लांडोर. आमोर जाली रोमिओची ज्युलिएट. आमोर जाली मजनूची लैला. आमोर जाली आम्रपाली. आमोर जाली क्लिओपात्रा.

रात जाली आनी ग्रँबेचे दर्यादिगेवयल्यान आमी परतूंक लागलीं तेन्ना बच्चून मॉरिशसच्या मातयेंत किल्लून आयिल्ल्या ह्या आफ्रिकन सेगा नाचाची जल्मकथा आमकां सांगली.

सेगा हो उत्तेजक नाच. इनव्हायटिंग डॅन्स. मिलनपूर्व आमंत्रणाचो तो आदिम नृत्य-विधी. सेगा नाच इरॉटिक आसत पुणून व्हल्गर न्हय पर्व्हर्ट न्हय.

सेगा ह्यो मॉरिशसी लोकजिणेच्या सृजनोत्सवाच्यो धालो. आमोरेइतल्योच अकृत्रिम.

म्हणूनच दर दिसा दीस रातीचे वेंगेत वता तेन्ना आमोर नाचता सेगा...



# घरा - पयसुल्ले घरावे दीस

होम-सीक जावंक घरापासून खूब दीस पयस आसूंक जाय अशें न्हय. हांव कांय वेळा घरचे घराय होम-सीक जातां. दिसपट्टे जिणेतल्या घुस्मटमारांन घर खांवक उठ्टा. घराचें घरपण मुयेता आनी एके तरेचें घर-दुयेंस जाता.

हाचे उरफाटें घरापासून खूब दीस खूब पयस रावल्यार देखून घराची याद येताच अशें ना. कांय वेळा घरा-पयसुल्ले दिसय खूब घरावे आसतात.

मॉरिशसचे भोंवडेंतले दीस हे अशेच घरा-पयसुल्ले घरावे दीस आसले.

आफ्रिका खंडाचे सावलेंतली ही एका तेंपावयली फ्रेंच, ब्रिटीश कॉलनी. पुणून भारतीय वंशाच्या लोकांनी हे भुंयेर पावला कणकणी नीज भारतीयत्वाचे रंगीत बावटे लायिल्ल्यान मॉरिशसची भूंय परकी दिसना. तिजेविशीं कसलेंच परकेपण दिसना. आपलेपणाचे साय-दाटें नातें हे भुंयेविशीं दिसूंक लागता.

बच्चूचे इश्टागतीन हें आपलेपण अदीक मोव, मुलायम, अदीक साजूक-स्निग्ध जालें. बच्चूच्या स्नेहार्द आदरातिथ्यान आमी चिंब भिजून गेलीं.

गोयांत पांच साडेपांच वर्सां राविल्यान बच्चू कसलेंच अडेचेंपण

नाशिल्ली थळावी कोंकणी उलयता. वास्को-द-गामा पुर्तुगालच्यान भारताकडेन येवंक भायर सल्लो तेन्ना वऱ्याच दिसांनी तो आफ्रिका खंडांतल्या एका वंदरांत पावलो. थंयचो एक वेपारी ताजेकडेन पुर्तुगेज भाशेंत उलयलो. आपले मायभाशेतलीं उतरां कानार पट्टकीर भुल्लुसून वास्को-द-गामान ताका वेंग मारली अशें सांगतात. आपली मायभास खंयची हाजो संभ्रम जालो, दुबाव पडलो जाल्यार असल्या दुबावी मनशाक बरेच दीस परदेशांत व्हरून दवरचे आनी जे भाशेंतली उतरां कानार पट्टकीर तांचे कान फुरफुरतात, काळीज भुल्लुसता आनी मनाक थाकाय मेळटा ती ताची मायभास हें थारावचें. शेणिल्ल्या पाडकाक गाय चाटता तशीं मायभाशेतलीं उतरां आपले मायेस्त जिवेन तुमकां चाटूंक लागतात.

शें-दोनशें वर्सांपयलीं मॉरिशसचो भुयेर कुली म्हणून वचपी लोकांमदीं गोंयकार आशिल्ले काय ना हे सांगप कुस्तार, चड करून नासूंये. पुणून गोंयच्या वैजकी कॉलेजांत शिकून वैज जातां जातां वच्चूभशेन गोंयकार जाल्ले पंदरा-वीस जाण तरी मॉरिशसांत आसतले.

बच्चूक दोन भाव. ते लग्न जांवन ताणी मूळ घराचे कुशीन दोन सुपुल्लीं घरां वांदल्यांत. वच्चू आपल्या आवयवापाय वांगडा मूळ घरांत रावता. घराचे फुडले वटेन एक पसरो आसा. ताचो वापूय सरकारी नोकरेंतल्यान रिटायर जातकीर ताणे हो पसरो सुरू केलो. पसऱ्याचें नांव म्हाका आवडलें.

पेटिट प्रॉफिट म्हळयार फावो तो फायदो दवरून जंय सवाय दरेंत वस्ती मेळटात असो पसरो. फावल्या वेळांत बच्चूली आवयय पसरो सामाळटा. संवसारभर शाराशारांतले पसरे वेगळे आसत पुणून खेड्यांतले पसरे सगल्याक एकसारके. मागीर तो कळंगूटचो तेलयाचो पसरो आसूं, असोळणेचो नावेलकाराचो पसरो आसूं, माजोड्डेचो मावज्यालो पसरो आसूं, कवळेंचो साधलेलो आसूं - हे पसरे आनी मॉरिशसांतल्या एका खेडेगांवांतलो वच्चूल्या वापायलो पसरो हांतूंत कांय एक म्हळयार कांयच भेद ना. ना म्हळयार

पसऱ्यार खूब सांखळयो लांवयल्ल्यो दिसल्यो. हांवें बच्चूल्या वापायक विचाल्लें - ह्यो सांखळयो कसल्यो ? ताणे सांगलें मॉरिशसांतल्या लोकांक कुत्र्याचें खूब पिशें. ज्या घरांत घरकारांचे पांय चाटपी, ताका शेंपडी हालोवपी, ताजे फाटोफाट उशेलांत वचपी कुत्रो ना अशें घर मेळपाक कुस्तार.

इतले म्हणसर उडकी मारीत शेंपडी हालयत बच्चूचो गोल्डन रिट्रिवर कुत्रो आयलो. ताचें नांव सॅम. कुत्र्याक आपल्याक कोण भिता आनी कोणाक आपूण आवडटा तें रोखडेंच कळटा. डॉग नोज डॉग लवर म्हणटात तें फट न्हय. सॅमान रोखडीच आमचेकडेन इश्टागत केली.

सॅम, बच्चू, बच्चूचे दोगय भाव, भयणी, आवयबापूय आनी आमी घराचे आगाशेर बसलीं. बच्चूल्या एका भावाक दोन चलयो - मंदिरा आनी माधुरी. दुसऱ्या भावाक एक चली, एक चलो- अमृता आनी पवन. भारतीय वंशाच्या मॉरिशन घरांत भुरग्यांची नांवा एक तर तेत्तीस कोटी भारतीय देव देवतांमदली आसतात नाजाल्यार देवांइतलीच तांची भक्ती आशिल्ल्या भारतीय फिल्मांतल्या नायक नायिकांची.

मंदिरा, माधुरी, अमृता आनी पवन हीं माणकुलीं भुरगीं. वासमती तांदळाच्या दाण्याभशेन शिरशिरीत नाकाचीं, सफरचंदी गालांचीं, रस्मी मुदयाळया केसांचीं - सोयरीं येतलीं म्हणून तांका न्हाणोवन बिणोवन रंगीत फुलपांखी भेस घालून बसयल्लीं. शिकयल्ल्या किराभशेन तीं विचारता त्या प्रस्नाच्यो चुटचुटीत जापो दितालीं. कांय वेळ तीं शोकेशींतल्या बावल्यांभशेन ओग्गी बसलीं. पुणून थोडोच वेळ! ताचें सभावीक मस्तें आडांगीपण मागीर भरिल्या कळसुलेभशेन घसघसून ओतूंक लागलें. आवयबापायन चडयल्ले नाटकी रूपडें ताणी पिनून मोखून वडयलें. भुरग्यांचो धुमाकूळ सुरू जालो. खूब दिसांनी चिरागाकय आपले पिरायेच्यो इश्ट इश्टीणी मेळयो आनी तांच्या सांगाताक सॅम ! भुरग्यांनी परकेपणाचे पडदे कुशीक साल्ले. भुरगीं एकमेकांत भरसलीं. सोंपत्या वैशाखांत पावसाची सुलूस लागिल्लो पिंपळ पानांनी सळसळचो तशें बच्चूचें घर भुरग्यांच्या खेळान, तांच्या आवाजान,

तांच्या नाचान, तांच्या पदांनी सळसळून गेलें.

वयर आगाशेर- आमच्याय गजालीक नेट आयलो.

बच्चूच्या आवयबापायक अजून हिंदुस्तानांत वचपाचो योग येवंक ना.. हिंदुस्थानाची तीर्थयात्रा करपाची तांची इत्सा अजून पुराय जावंक ना. पांच पिळग्यांपयली आपले पूर्वज खंयच्यांन आयले, आपलो मूळ गांव खंयचो, आपले सोयरेधायरे खंय आसात काय - कोण जाणां. बच्चूच्या घराची काणी हो एक दीर्घ प्रदीर्घ कादंबरीचो विशय. रुटस् कादंबरीइतलोच रंजक. तितलोच नॉस्टालजीक. सगल्या सुखांत हें यादीचें स्मृतीसुख-आमकां चड भावता. तांची अमुरपिकी, झाडपिकी रूच आमचे जिणेची दरेक उंडी अदीक सुग्रास करता.

बच्चूले भावजेन दालपुरी केल्ली. दोन तीन तरांची शाकभाजी केल्ली. एक दोन नुस्त्याचे प्रात केल्ले. प्लास्टिकाच्या फुलांत आनी पोरसांतल्या फुलांत जो भेद आसता तसोच भेद पंचतारांकित हॉटेलांच्या जेवणांत आनी घराव्या जेवणांत आसता. पोटाक थाकाय मेळ्ळेबगर निखटी सैमीक सोबितकाय आनी ऐहिक गिरेस्तकाय सुकी सणसणीत उरता. उपाशीं पोटार कांयच जायना. सुजातान रांदिल्ली खीर खातकीरच उपाशीं पोटावयल्या सिध्दार्थाचो बुध्द जांवक पावलो हे गजालींत खूब अर्थ आसा अशें म्हाका सदांच दिसता. उपासांतल्यान येवपी अतृप्त वखवखांपरस समराधनेचें जेवण जेवतकीर मेळिल्लें संतृप्त समाधान आमकां अदीक समतोल, अदीक परिपक्व, अदीक सात्विक करता हांतूत दुबाव ना.

हांवे म्हजे देशविदेशांतले भोवडेंत तरांतरांची घरां पळयल्यांत. पुणून बच्चूबराबर मॉरिशसचे भोंवडेन ताचें घर, ताज्या इश्टांची घरां, गांवांतलीं, खेडयांतलीं, शारांतलीं, दर्यावेळेवयलीं, दोंगरमाथ्यावयलीं, उशेलांमदीं, च्याच्या मळयांमदीं आसनमांडी घालून बशिल्लीं मॉरिशसांतली तरांतरांची देखदिणी घरां पळयलीं आनी मनांत म्हळें -

घर म्हळयार निखटें वास्तुशिल्प न्हय. घर म्हळयार आमचें संस्कृतीक गांठवल. घर म्हळयार लोकजिणेची हारशी. घर म्हळयार राष्ट्राचो जितो

इतिहासीक म्युझियम. त्या त्या वाठारांचें समाजीक दायज, गिरेस्त लोक-परंपरा, मांतयेचो मृद्‌गंध घेवन किल्लल्ली थळावी सर्जनशीलता. त्या त्या वाठारांतल्या पोरन्या परंपरागत घराच्या वास्तुंनी जितली सांबाळल्या तितली हेर कियानच सांबाळूंक ना.

मॉरिशसांतलीं घरां पळोवप हो एक मन भुलोवणो अणभव. ह्या घरांनी कृत्रिम मेकअप करूंक ना. आंगार मारपी, उर्मट, उद्दाम,ॲरोगंट घरां न्हय तीं ! त्या घरांच्या वास्तुशिल्पांत एके तरेची अकृत्रिम आपलेपणाची सया आसा. तीं घरां फोटयाखातीर पोझ घेवन रावंक ना. ताणी पोझ घेतल्या - पुणून ती नाचांतली पोझ. नाचांतली पोझ हें पोझिशन न्हय. तें आसता एक ट्रान्झिशन. एके पोझिंतल्यान दुसरे पोझिंत वचपाचें! तशीं हीं घरां. तीं स्टेटिक्‌ न्हय तांका एक डायनेमिक्स आसा.

दरेक घराक फुडें व्हारांद आसता. व्हारांद ना तें घर कसलें ? ऐसपैस, उक्तो मेकळो व्हारांद घराक एके तरेचें डायमेन्शन दिता. घराक चडसो धवो रंग आसता. वयर पांखें तामडें, निळें कांयवेळा पांचवें. कांगारूच्या पिलाभशेन दोशीव्हटेन दोन जनेलां मान वयर काडून पळयतात. घरांक फ्रेंच डोअर्स आसतात आनी तांका फ्रिलीचो धवेफुल्ल पडदे.

घराफुडें फुलझाडांचें, फळझाडांचें, पानझाडांचें सोबित पोरसूं आसता. पोरसांत सान तळी आनी तांतूत ल्हानशे कारंजे. पोरसांत बसून पयसुल्ल्या दर्याची गाज आयकुची, उशेलांक घश्टत आयिल्लो साकर-वारो पिवचो, दोंगरा तेंगशेवयल्यान पाझरत आयिल्लो उजवाड चाखचो.

मॉरिशसच्या घरांक तारवांचो आकृतिबंध आसा. ज्या कारागिरांनी दर्यांत वचूंक तारवां बांदली ताणीच ही दर्या-जुंव्यावयलीं घरां बांदलीं. भुंयेवयलीं तारवां कशीं. केन्नाय राजू सोडून दर्यांत वचपाक तयार जाल्लीं !

मॉरिशसी मनशाचो आपल्या घराचेर खूब मोग. पोरनें परंपरागत वास्तुशिल्पाचें घर कोणूय मोडटा जाल्यार लोक तें घर मोडूंक दिनात. आमी आमची ॲंटीक घरां डोडो सवणें नानपश्चात जालें तशीं मरपाक दिवचेना असो तांचो निश्चेव. म्हणून सुंदरलाल बहुगुणाचे 'चिपको' निश्टेन ताणी

आपलीं पोरनीं परंपरागत घरां वेंग मारून सांबाळ्ळयांत.

परतुपाच्या दिसा सुमन चिनॉयान हातांत एक प्रश्नावली दिली. मॉरिशसांत किदें आवडलें, किदें आवडूंक ना, भोंवडेकार म्हणून आमचो अपेक्षाभंग जालो काय आमकां आमच्या पयशांचें मोल मेळ्ळें, आमच्यो सुचोवण्यो किदें, आमच्या इश्टांमित्रांक मॉरिशस पळोवपाक आमी सांगतलीं वो ना, आमी परत मॉरिशस येतलीं काय ना - असो भोंवडेकाराचो फीडबॅक घेवपी ती प्रश्नावली हांवे बरोवन सुमन चिनॉयाच्या हातांत दिली. तांतूत एक गजाल हांवे बरयली -

मॉरिशसांतली सगल्यांत दर्शनीय, प्रेक्षणीय गजाल म्हळयार थंयच्यो वेळो न्हय. थंयचो दर्या न्हय. थंयचे लगुन्स थंय. मॉरिशसातलीं सगल्यांत सोबीत सुंदर गजाल म्हळयार थंयची घरां.

मॉरिशस 'घरा'वो देश! तो सोडून घरा परतकीत म्हाका आतां घर-दुयेंस जालां.



# केरळ: एक कॉलाज

पाचव्याचार पानांनी सालंकृत जाल्ली गर्भार गाबणी केळ पळयली म्हणटकीर म्हाका केरळाची याद जाता. केळ हें सैमांतलें तृप्त, संतृप्त झाड. गर्भगिरेस्त केळीक पांचव्या पिक्या केळ्यांचो घडाय लागलो म्हणटकीर केळ अदीक सोबीत सुंदर दिसता. केळ हो सैमांतलो अंतर्बाह्य शुचिर्भूत रूख. केळीची सोबा दुसऱ्या रूखाक ना. केळीचो तिकतिकीत मोतयां कोराचो गबो, जर्द पाचवीं शिरवंत पानां. लजकुरें अधोमुख केळफूल आनी सर्वांगान चंवरिल्लो पोपटी केळ्यांचो रस-रसशीत घडाय! आनी अशा केळींचें कुचकुचीत रान.

कुसुमित केरळाच्या कोरीव कॉलाजातलें हें एक रूपचित्र- केळीचें, केळीच्या कुचकुचीत रानाचें.

केळीचें रमणीय लावण्य जाल्यार माडाचो पुरूशी डौल. नैऋत्येचो गंधीत खारो दुवाळी वारो पिवन झिंग आयिल्ले आनी फेनिल दर्याच्या गाभाऱ्यांतली गाज आयकून धोलपी माड. निळो सांवळो कृष्ण काळो अथांग दर्या आनी दर्यादेगेवयले हारीन उबे राविल्ले माड. उदकाचो उमो घेवंक वसवशिल्ले! सरळ आनी वक्र! काटकोनी, विशालकोनी आनी लघुकोनी! खंय कवायतींतल्या सोल्दारांचो झेत तर खंय कमनीय नर्तकाचो पदन्यास. पावसाच्या हरंधारींनी झंझळावन काडिल्ले ओलेत्या आंगाचे पाचवे पाचवे

माड. फांतोडेच्या साकर उजवाडाच्या पाकांत बुडयल्ले म्हौंवे म्हौंवे साकर माड. माडाची खंयची म्हणून एक पोज ना. माडाचें रूपचित्र स्थिर न्हय. तें चलत् चित्र. हालते धोलते माड खंयचेच फास्केंत बसना. माडाक खंयचोच नेम रूचना. खंयचेच रूखावळीचें व्याकरण माडाक मानवना. माडाचें म्हणून स्वताचें एक तत्वज्ञान आसा. माडाचो स्वताचो वेगळो पंथ आसा. तो धड 'गृह'स्थाचोय न्हय धड फकीराचोय न्हय. गिरेस्ताचोय न्हय बैराग्याचोय न्हय.

केळ, माड, दर्या, न्हंयो आनी व्हडें- केरळाच्या चित्रलिपींतली हीं विरामचिन्नां! सैमाचें दिमखुरें रूपचित्र-केरळाचे सर्गभुंयेन सांबाळून दवरलां. व्हडीं आनी जाळीं घेवन, नांगर आनी कोयती घेवन हांगाचो सैमपूत सैमाचेंच एक आंग जालां. सैमाचोच एक वांटो जाला. पाचवो आंगठो, हडवी बोटां आनी फुलांचे हात आशिल्ल्या भुंयधुवांनी सैमाक सजयला. नटयला. पिसडुना. फापसून उडोवंक ना. चित्राचे फास्केभायर आशिल्लोच चित्राचे रंग वेरंग करूंक शकता. जें रूपचित्र कॉलाजाचो वांटोच आसता त्या रूपचित्राक वेगळें अस्तित्व नासता. वेगळें व्दैत नासता.

पावसाचो भार देंवता आनी नैऋत्य मान्सुनाची पालखी परतुंक लागता तेन्ना ओणमाची परब येता. ओणमाचे परबेंत केरळाचो लोकराजा बळीराजा पाताळभुंयेंतल्यान वर्साक एक फावटीं आपले मायभुंयेर पावल दवरता. ओणमाची सुलूस लागली म्हणटकीर केरळांतलें दरेक घर घर उरना. ताचें जाता एक फूल सैमफूल.

घराच्या आंगणांत कृष्ण वर्णाची कैरालीय रमणिका हडवे देगेचें श्वेतधवल वस्त्र न्हेसून दशदिशांतल्या सप्तरंगाच्या आनी अष्टगंधाच्या फुलांची रांगोळी घालता. घर मागीर आपलें घरपणाचें न्हेसण सोडून जाता ते रांगोळेंतलो एक रंग, एक फूल, एक पाकळी. घराच्या आंगणांत फुलांनी कुचकुचीत भरिल्लो पुष्पजडीत चांफो आसता. कोनशाक सुवर्णपुष्पाचो अमलताश, मागीलदारा केळी, सरभोंवतणी माड, माडार चडिल्ल्यो मिरयांच्यो वाली. रूखाताळयार शेवणीं, शेवण्यांचे घोंटेर आनी हांगा थंय भोंवपी

चानयो.

हालीं हालीं सगल्या घरांक एकच वास येता. एकच रंग आसता. सगळेंच सारकें दिसप हो उत्क्रांत संस्कृतायेचो शाप! ह्या कृष्ण- शापाचे अश्वत्थामी घाय केरळांतल्या द्राविडीय घरांच्या मस्तकार ना. हीं कुसुमित घरां माथ्यार घालीनात एक सारकी नळयांचीं चेपीं. केरळी घरांच्या माथ्यार आसतात तरांतरांची नळयांची चेपीं. वैचित्र्य. वैविध्य. व्हेरिएशेन. परम्युटेशन, कॉम्ब्युनेशन परंपरेचें दायज आनी नवनवोन्मेषशालिनी सर्जनशीलतेची नवता हांचें सैमीक वास्तुशिल्प सांबाळत हीं हांगा थंय शिंपडिल्लीं केरळी घरां  केरळाच्या कॉलाजाचो सभावीक वांटो जावन बसल्यांत.

केरळाच्या त्रि-आयामी कॉलाजांत मागीर उडत येवन बसतात पेरियार तळयेंतले शेंडे नाशिल्ले रूख! आपल्या बापायच्या श्राध्दाचें अर्घ्य दिवंक न्हंयचे देगेर गेल्ल्या पुताचें अर्घ्य घेवंक तीन बापायचे तीन हात न्हंयच्या उदकांतल्यान वयर येतात अशी एक पुराणकथा आसा. ते कथेची याद करपी हे बोडके रूख! ह्या रूखांच्यो खांदयो, तांची पानां, फुलां, मटकावन वडयल्यो केन्ना कोण जाणा हुंवार आयिल्ल्या उदकान.  पुणून न्हंयची वार जंय खोल पुरल्या भुंयेच्या गर्भोदकांत थंय मेरेन पावल्यांत तांचीं मुळां. बोडके जातात ते रूखांचे शेंडे. मुळां केन्नाच बोडकीं जायनात. सैमाचो हो नेम. ह्या रूखांचें पिकें जाण्टेपण तांचे विद्रुपतेंतय एके वेगळे सोबितकायेचो साक्षात्कार घडयतात. टेकडेवयले पेरियारचे तळयेंत मदींच आसा एक सान दोंगुल्ली आनी तिचे तेंगशेर आसा एक गेस्ट हावस- कोणा तरी कवी मनाच्या सरकारी अधिकाऱ्यान ताचें रसिक नामकरण केलां- अरण्यनिवास. अरण्यनिवासाच्या जनेलांतल्यान आमोरेर दिसतात उदक पिवंक आयिल्लीं हरणां. आपलेच मस्तेंत मग्न हत्ती. हत्तीचें राजस राजबिंडे शिरवंत रूप केरळी मनशाक भुलयता. म्हणून थिसुरच्या देवळांत वर्सुकी परबेक भायर सरता वाजत गाजत सजयल्या नटयल्ल्या एकशें एक हतयांचें पुरसांव.

स्मृतीतल्यान विस्मृतींत वचचे पयलीं केरळाच्या ह्या कॉलाजांत बसोवंक जाय कितलीशींच रूपचित्रां. स्मृतीच्या आल्बमाचीं पानां सोपचें पयलीं मखरांत अधिष्ठित करूंक जाय ह्यो यादी-तिरूवन्तपुरमच्या पद्मनाभ मंदिरांतल्या माखन मारूतीच्यो, कोचीनच्या कथ्थकली नृत्यनाटकाच्या भावमुद्रांच्यो, बोधिधर्म नांवाच्या बुध्दभिक्षुन सोदून काडिल्ल्या निःशस्त्र अहिंसक स्वसंरक्षक कलारिपायातु नांवाच्या मार्शल आर्टाच्या प्रात्यक्षिकाचो! बुध्दभिक्षुंनी बुध्दीबळ ह्या खेळाचोय सोद लायलो तो निःशस्त्र अहिंसक युध्दाचो आनंद सगल्यांक मेळचो म्हणून. बुध्दिबळ हें भारतीय दायज आसत पुणून तें बौध्द दायज. हिंदु दायज न्हय हें खूब थोड्यांक खबर आसा.

कैरालीय कॉलाजांत रूपचित्रां आसात तशींच कांय गंधचित्रां आसात. एकेक वास एकेकदां दृश्यावतार घेता- जसो शेताचे कडेक रान्नीर हांडो दवरून उकडिल्ल्या उकड्या भाताचो वास. खोबरेलाच्या हुनहुनीत तेलांत चरचरीत तळिल्ल्या केळयांच्या मानांचो वास. अथरमपल्लीचे वाटेर घेतिल्ल्या केळीच्या चोळख्यांवयल्या रसाळ गऱ्यांचो वास, आयुर्वेदीक मसाजांवेळार लायिल्ल्या गरम हर्बल तेलाचो वास आनी निमाणो मुन्नारच्या च्याच्या मळ्यांतल्या खुडिल्ल्या पानांचो.

कुसुमित केरळांतलो कोरीव कोलाज सोपोवंक जावचो ना मुन्नारचे यादीबगर.

मुन्नार. पाचवें जर्द, जर्द पाचवें मुन्नार. मुदयाळ्या मुदयाळ्या केसांचें. वस्त्रगाळ उजवाडांत आनी पिक्या पावसांत भिजपी वस्त्रओलें मुन्नार. मुन्नार हें हिल स्टेशन न्हय. मुन्नार हो एक मूड. मुन्नार हो एक सैम संगीतांतलो कोमल गंधार स्वर. दंतकथेंतले अप्सरेचो तो एक साणिल्लो घुंगरू.

आनी निमाणें हे कैरालीय भ्रमणगाथेंतल्यो दोन यादी! ह्या कॉलाजाच्या कोनशाक खंय तरी! एक कोडू. एक गोड याद.

मुन्नारच्यान राजमलाय वतना वाटेक खांदे कशे दोन वांटो फुटल्यो. गांवाच्या नांवाचो बोर्ड ना. इतल्यान थंयच्यान वचपी एका मनशाक हडकिलो आनी रस्तो विचारलो. मोडके तोडके हिंदींत ताणें सांगलें- धा रूपया दी

जाल्यार वाट सांगता. वाट दाखोवपाक पयशे मागपी मनीस संवसारांत पयले फावटी केरळांत मेळ्ळो- ताची कोडू याद.

अलेप्पीच्यान व्हड्यांतल्यान कुमारकोम वतना वाटेर न्हंयचे देगेवयल्या एका खेड्यांत रावले. थंय एक सान चली मेळ्ळें. ताचें नांव- सगुणा. ताचे कडेन गजाली मारल्यो. ताचें नांव, ताचे शाळेचें नांव, ताचे इश्टीणीचें नांव! मागीर वता वता ताका विचारलें- तुका कितें जाय? तुका जाय तें हांव दिता. तें सान चली चॉकलेट, पिपरमिंट आयस्क्रीम अशें कितेंय मागत अशें दिशिल्लें. ताणे म्हज्या बोल्सांतल्या पेनाकडेन बोट दाखयलें आनी पेन मागलें. संवसारभरचे भोंवडेंत बरोवपाचें पेन मागपी सगुणाइतलें गोड, मुग्ध चली म्हाका खंयच मेळ्ळें ना.

बोल्सांतलें पेन सगुणाच्या हातांत दिलें आनी व्हड्यांत बसलों. पयस देगेर रावन व्हडें दिस म्हणसर सगुणा हात हालयत रावलें.

केरळाचो सगळो कॉलाज हांव रात्रींत वडयन. सान सगुणाक मात हांव केन्नाच विसरचो ना!



# फुलांचो आश्रम

अनुष्का आनी अरूणाची चीट आयली. रोम सोडून तीं आतां पॉन्डिचरीच्या ओरोविलेंत रावंक आयल्यांत. अनुष्का आनी अरूण हें जगावेगळें जोडपें. अनुष्का वास्तुशिल्पज्ञ. अरूण गणितज्ञ. जे वाटेन हेर सगले लोक वतात ती वाट ताणी केन्नाच धल्ली ना. तांकां दोगांयकय नव्याचो ध्यास. आपल्या आंगांतली सर्जनशीलता ताणी केन्नाच फास्केंत घाली ना. एके सुवातेर तीन वर्सांवयर रावप ना हो एक ताचो संकल्प. देखून मूळ दिल्लीचें हें जोडपें कांय वर्सां अहमदाबाद, कांय वर्सां त्रिवेंद्रम, दोनेक वर्सां जयपूराक आनी मागीर तीन-चार वर्सां रोमाक रावलें. भोंवडेक गोंयांत आयिल्लेकडेन तांची आनी म्हजी वळख जाली. दर दोन वर्सांनी सुटयेत ताणीं गोयांत बाणावले येवप आनी थंय पंदरा वीस दीस रावप. दोगांयकय भुरगी ना. भुरगीं जावपाक न दिवपाचो निर्णय ताणी दोगांयनीय खूब विचाराउपरांत घेतिल्लो. अनुष्का वास्तुशिल्पांत जाल्यार अरूण गणितशास्त्रांत संशोधन करता. उण्यात उण्या खर्चांत शिमीट आनी लोखण हांचो उपेग करिनासतना फातर, विटो, माती, नळे आनी तण हांचो उपेग करून घरां बांदपी नामनेचे वास्तुशिल्पज्ञ लोरी बेकर हांची अनुष्का शिष्या. अरूण एक प्रबंध बरयता. गणिताचें तत्वज्ञान हो ताचो विशय. उच्च गणिताचे अत्युच्च तेंगशेर वचून गणितशास्त्राचें तात्वीक रूप सोदपाच्या यत्नांत अरूण फाटलीं कितलीशींच

वर्सां आसा.

संशोधकान साहित्य, संगीत, काव्य, आनी तत्वज्ञानाचीय आराधना करप गरजेचें. श्री अरविंदांचे 'सावित्री'चें आनी तांचें महामानवाचें सपन पळोवपी तत्वज्ञानाचें आकर्षण अनुष्काक आनी अरूणाक जालें तें घडये हेच गरजेंतल्यान. अरविंदाचें 'सावित्री' साद्या मनशाक पचपाचें न्हय. आपली मायभास नाशिल्ले भाशेंत संवसारांतल्या खंयच्याच कवीन तत्वज्ञानाचे खोलायेंत देविल्लें इतलें रसरशीत खंडकाव्य रचूंक नासतलें.

फाटलीं कितलीशींच वर्सां, दोन वर्सांतल्यान एकदां तरी अनुष्का आनी अरूण पॉन्डिचरीच्या अरविंदाश्रमांत वतात. ओरोविलेक कांय दीस रावतात. ओरोविलेक वतकीर आपणाले सर्जनशीलतेचो शीण वता आनी तिका नव्यो कोमऱ्यो फुट्टात असो तांचो अणभव.

अनुष्कान चिटयेंत बरयलां आतां हें लामाण्याभशेन संवसारांत जळीमळी भोंवपाचें ताणी थांबयलें. आतां तीं सासणाचीं ओरोविलेक रावंक आयल्यांत थंयच ताणी मातयेचें सान कुटीर बांदलां. सरभवतणी सैमाची सोबितकाय. शांत. प्रशांत, प्रसन्न, प्रफुल्ल अशें सगळें वातावरण. संशोधन करपाक ओरोविलेवगर दुसरी सुवात योग्य न्हय अशें दोगांयकीय दिसलें आनी तीं ओरोविलेक येवन रावलीं.

अरूणान म्हाका ओरोविले येवपाक आग्रो केला. हांवें चीट वाचून सकयल दवरली. खरें म्हळयार अरूण आनी अनुष्का रोमाक आसतना रोम पळोवपाचें उरलें. व्हॅटीकन सीटीय पळयली ना. लागींचे इश्ट आसतना विदेशांत वचपांत अदीक मजा. ती गेली म्हणून म्हाकां वायट दिसलें. आतां अनुष्का आनी अरूणाच्या सांगातान पॉन्डिचरीचो अरविंदाश्रम आनी अरविंदाचें ओरोविले पळोवपाची संद सोडूंक जायना .

पॉन्डिचरीक खासा फ्रेंच फ्लेवर आसा. दर्याचे देगेवयलें तें शार. शार कसलें-गांव. अनुष्काचे परिभाशेंत 'रूर्बन' म्हणून एक उतर येता. रूर्बन म्हळयार रूरल आनी अर्बन हांचो सुमेळ. पॉन्डिचरीचो पिंड अर्बनय न्हय रूरलय न्हय  तो रूर्बन.

चेन्नायच्यान तामिळनाडूच्या गांवांतल्यान येवन पॉन्डिचरीक भीतर सरतना सुर्वेकच पॉन्डिचरीचो फ्रेंच टच जाणवता. पॉन्डिचरी शाराचे शिमेर फ्रेंच वास्तुशिल्पाचे आर्क तुमकां येवकार दिता. पॉन्डिचरीन रस्त्यांखातीर रूख मारूंक ना. रूख वाचोवपाखातीर रस्ते नागमोडी केल्यात. मदीं मदीं मळां, शेतां, ल्हान ल्हान घरां. रस्त्याचे कुशीक ल्हानशीं दुकानां. पॉन्डिचरीक गिरेस्तकायेचो झगझग ना. पूर्व- समुद्राक सन्मुख जांवन दर्याचे देगेर ते आसनमांडी घालून बसलां. ल्हान भुरग्याचें निष्पाप, निरागस सादेपण ताच्या तोंडार आसा, पोंगलाचे परवेक धवेंफुल्ल न्हेसण न्हेसून केंसांत मोगऱ्याची लांब फांती माळून वचपी मंदीर पथगामिनी तामिळकन्यकेचो लजकुरो हांसो ताच्या मुखामळार आसा. ताच्या दोळयांत मात यौवनाच्या हुमऱ्यार आशिल्ले नववधूची हूरहूर दिसता.

दर्याचो गाज, फ्रेंच संस्कृतायेचो परमळ आनी श्री अरविंदाचो परीस स्पर्श- पॉन्डिचरीक तांचेपसून वेगळे करू नजो. ताच्या शिरंतरांनी घुमता दर्याचो गाज. रुंवारुवांत घमघमता फ्रेंच पर्फ्युम आनी ताच्या काळजाचे गर्भकुडींत पेट्टा श्री अरविंदाच्या सानिध्याची स्निग्ध, सात्वीक लामणदिवली !

अरूण आनी अनुष्काक हांवें चीट बरोवन कळयल्लें - पयले दोन दीस आमी पॉन्डिचरीक रावतलीं आनी मागीर ओरोविलेक येतलीं. ताणीं दर्यावेळेरच आमचे खातीर सुपुल्लें मोटेल रिझर्व्ह केल्ले.

दुसरे दिसा पूर्व-समुद्रांत जावपी सूर्योदय पळोवंक आमी फांतोड फुटचे पयलीं उठलीं. पश्चिम समुद्राचे देगेर रावतल्यांनी दर्यांत बुडटा तो सूर्य पळयला पुणून दर्या जंय मळभाक तेकला त्या क्षितीजाचेर दर्यांतल्यान जावपी सुर्योदय पळोवपाची संद आमकां मेळना. हिमालयांत हांवे सूर्योदय पळयला. आज दर्यांतलो सुर्योदय पळोवपाची उमळशीक लागिल्ली.

आनी ल्हवू ल्हवू काळखांत लिपिल्ले दर्याचे बोमलेंतल्यान सुर्याचो कोंब लसलशीत आंकरून आयलो. मळबाचो आनी दर्याचो कॅनव्हास मेळिल्यान फांतोडेवयलो हो सूर्य कितलो राजस, राजबिंडो दिसतालो. सुर्याच्या

किर्णांनी सरभवतणीचे वातावरण मंत्रमुग्ध केलें. रूख उठले. शेवण्याक कंठ फुटलो. दर्याचे वेळेन दोळे उगडले. खारव्यांनी व्हडीं दर्यात सोडली. रस्त्यावयले दिवे एकेक करून पालवत गेले. सुर्याचे दिप्तिन पंचक्रोशींतलो परिसर तेजःपुंज जालो.

म्हज्या ओंठार गायत्री मंत्राची उतरां आयलीं.

ॐ भूर्भुवस्वः तत्सवितुर्वरेण्यम्

भर्गो देवस्य धिमही

धियो यो नः प्रचोदयात्

आपल्या तेजान चराचर दिप्तीमान करपी हे हिरण्यगर्भ सुर्या, तुज्या तेजान आमची बुद्द, आमची प्रज्ञा आनी आमची प्रतिभा तेजस्वी कर, ओजस्वी कर.

भारतीय संस्कृतायेक रातीपरस दिसाचें, चंद्रापरस सुर्याचें आनी काळखापरस उजवाडाचें अप्रूप. उत्तर गोलार्धांत उत्तरध्रुवालागीं जंय स म्हयने काळखी रात आसता थंयच्या वाठारांतल्यान आयिल्ल्या आर्यांची आद्य वेदकाव्यां देखूनच उजवाडाची पूजा करतात.

भारतीय इतिहासांतलें मध्ययुगांतलें काळेकीट्ट गोठिल्लें पर्व येवचे पयलीं भारतीय समाजाची सामूहीक बुदवंतकाय सतत एकावयले एक पांवडे चडत वताली. देखून सगल्या मंत्रामदीं जो आद्य मंत्र त्या गायत्री मंत्रातय मागणें केलां तें एकच 'धियो यो नः प्रचोदयात्' -आमची बुद्द तरतरीत कर. ताजी टवटवीत कर.

फुडें भारतीय संस्कृतायेची बुद्द मुयेली. मुंगरेली. सैमान दरेकल्याक दिल्ले बुदवंतकायेची मक्तेदारी विशीश्ट समाजान आपलेकडेन घेतली. ज्ञानाच्यो कोठयो भौसाक बंद जाल्यो. गायत्री मंत्राची चावी लंपट लोकांनी आपले कमरेक खोवन दवरली. लाखांनी लोक आपल्याक बुद्द आसा हेंय विसरले आनी बैलां भशेन दोळयांक झापडां लावन धाकटुल्या परिघांत भोवूंक लागले.

प्रार्थना म्हळयार एके तरेची ओटो थेरपी. सुर्याकडेन मागणे केलें म्हणून बुद्द बावनकशी जायना हें न समजुपाइतले ऋषी-महर्षी बुद्दु नाशिल्ले.

तें काव्याचे सुत्रात्मक आनी प्रतिकात्मक परिभाशेंत उलयताले. शेकड्यांनी वर्साउपरांत तांच्या उतरांचो कीस काडून अर्थाचो अनर्थ करपाची पिशेपणां केलीं तीं 'बुदवंत' ब्राह्मणवर्गान. ताणी सुर्याचीं देवळां बांदलीं. सुर्याचे उत्तरायण जातना मकर संक्रांतीची परब दवरली. पूजपाचे श्रावणी आयतार आयले. विग बँगांतल्यान जल्मल्लो सूर्य देव जालो. सुर्यग्रहणांचे सैमीक प्रसंग पापी थाल्ले आनी दानधर्मावरवीं भौसाकडल्यान भिक्षा, दक्षिणा आनी समराधना झोडपाच्यो संदी भटांपुरोहितांचे होंटयेंत पडल्यो. गिराणावेळार गुरवार बायलो न्हिदून रावंक लागल्यो.

आमची बुद्द तेजस्वी जाली ना. ओजस्वी जाली ना. ती किट्टकाळी काळी कुळकुळीत जाली. आदिम प्रतिभेची आनी प्रज्ञेची कलय वचून समाजाची समूह-बुद्द कळमेली.

सकाळ जाता म्हणसर अरूण, अनुष्का आयलीं. तांच्या सांगातान आमी श्री अरविंदांच्या आश्रमाकडेन वचूंक भायर सल्लीं.

जो कसलेच श्रम करीनासतना 'आ' अशें तोंड करून बसता तो आश्रम अशी एक आश्रमाची व्याख्या पु. ल. देशपांडेन एके फावट केल्ली ताची याद जावन खंयच्याय आश्रमात वतकीर हांव दुबावित नदरेन पळयतां. पुणून भितर पावल दवरतकीर अजाप जालें. हो जीवनविन्मुख, विरागी भिकाड्डो आश्रम न्हय. हो आश्रम वेगळो. हो जीवन सन्मुख, अनुरागी आनी संतृप्त आश्रम. हो निर्माल्याचो आश्रम न्हय हो फुलांचो आश्रम.

अरविंदांचे समाधीसामकार शंकराचें झाड आसा. ताच्या फुलांच्यो पाकळ्यो सरभवतणी पडल्यात. समाधीचेर सोबीत फुलांनी इकेबाना केल्या. मदर जपानाक गेल्ली तेन्ना तरांतराच्या फुलांची इकेबाना पळोवन तांचे दोळे न्हिवले. आतां दरेक दिसा समाधीचेर ताज्या टवटवीत सुगंधित परमळाच्या फुलांची पखरण आसता. केन्ना मोगऱ्याच्या फुलांचे हार आनी मदीं बोगनवेलीच्यो तांबड्यो पाकळ्यो. तर केन्ना रोजांच्या केशरी पाकळ्यांक पारजतांच्या फुलांची जरतारी देग! केन्ना रक्त-कमळां, नील-कमळां आनी धव्याफुल्ल साळकांची पखरण तर केन्ना रंगवैविध्यान नटिल्ल्या तांबड्या,

हडव्या, धव्या, गुलाबी गुलाबपुष्पांची रंग-रांगोळी.

वातावरण स्तब्ध, निस्तब्ध शांत, सुशांत. मोनेळाचो मेघमल्हार काय मालकंस ? हंसध्वनी, भूप काय अहिर भैरवी ? सूर, स्वर, नाद लय, ताल, हांची सायलंट सिम्फनी. टपटप पडपी फुलां, पयसुल्ल्यान येवपी दर्याचो गाज आनी शेवण्याचे सूर हांचें ताका पार्श्वसंगीत! नितळ, नि्वळ सारयल्ली जमीन. चारी वटांनी भुवनवेलीच्यो फुलांनी पुष्पजडीत वाली. आनी एका कोनशाक आश्रमाची सादी वास्तू.

अनुष्कान म्हाकां सांगलें - वास्तुशिल्प चार तरांचें आसता. कठीण गजाल कठीण आनी किचकट तरेन करपी एक वास्तुशिल्प. सादी गजालय कठीण पध्दतीन करपी दुसरें वास्तुशिल्प. कठीण गजाल सादे तरेन करपी वास्तुशिल्पाचो तिसरो मार्ग आनी सगल्यांत बरो पुणून सगल्यांत कठीण असो साद्यो गजाली सादे तरेन करपी वास्तुशिल्पाचो प्रकार! सादी गजाल सादे तरेन आंखपाक वास्तुशिल्पज्ञाक अणभव जाय, मॅच्युरिटी जाय. ताचो स्वताचो खासा विचार ताचे फाटल्यान आसूंक जाय. वास्तुशिल्प आंगार मारूक जायना. ताणे ओवर-मेकअप करूं जायना. ल्हान, सान, साद्या, सोप्या गजालींनी सौबितकाय सोदपाची पक्व, परिपक्व नदर वास्तुशिल्पज्ञाक जाय.

अरूण म्हाका म्हणूक लागलो - साहित्य हेंय एका तरेचे वास्तुशिल्प. ज्या साहित्यात अट्टाहास, आक्रस्ताळी आरड, अतिलालित्याचो हावेस आनी अर्थाची अतिताय आसता तें साहित्य निकृष्ट दर्जाचें. साहित्यांत सादेपणा जाय. सोपेंपण जाय. साहित्य सुबोध आसूंक जाय तें सूचक आसूंक जाय. लालित्याचो फ्लेवर मंद आसूंक जाय. तो जिबेक मारूक जायना. आनी सगल्यांत निमाणें साहित्यांत स्पेसस् जाय. वाचकांक भोवपाक रित्यो, मेकळयो सुवातो जाय.

"मागीर अरविंदाचें साहित्य हे कसवटेचेर बसना" हांवे म्हळें - "तें खूब क्लिष्ट, खूब कठीण खूब प्रतिकात्मक, खूब दुर्बोध."

अनुष्का म्हणपाक लागलें - सुबोधता आनी दुर्बोधता ह्यो सापेक्ष गजाली. जशें जशें साहित्यकाराचें तत्ववेत्यामेरेन उन्नयन जाता तशें तशें

वाचकान आपले बुद्दीचो पांवडोय वाड्यत वचूंक जाय.

"गजाल खरी. पुणून अरविंदाचें तत्वज्ञान भौसाचे तकलेवयल्यान वता. फकत विचारवंताक, प्राध्यापकांक आनी संशोधकांक तें समजता. सादो मनीस ताच्या वासाकय वचपाक भिता" - हांवे म्हळें.

"तूं म्हणटा ते फट न्हय. श्री अरविंद खूब उंचावेल्या बौध्दीक तेंगशेवयल्यान उलयता. ताच्या तत्वज्ञानाचें साररूप तें हेच - मनशान आपले बुद्दीचो पांवडो वाडोवंक जाय. मायंड सुपर मायंड ज़ावंक जाय जाल्यारच मनशाचो महामानव जावपाक कळाव लागचो ना. बुद्द चंवरपाक तीन आडखळी येतात. दरेकल्याचो अहंकार, दरेकल्याची फळाकडेन पळोवपाची हुतहुतेपणा आनी भंय. सगल्यांत चड भंय मर्णाचो. 'सावित्री' ह्या खंडकाव्याचो सारांशच तो - मनशान मर्णाच्या भंयांतल्यान मुक्त जांवक जाय. अरविंदाचे तत्वज्ञान जिणेक माया मानीना. ब्रम्हाची सावली मानिना. दरेकल्याची जीण आनंदमय जावची हो तांचो हावेस. आनंदाचे परिक्रमेंत अखंड प्रयत्नाची आनी खर मनोनिग्रहाची गरज आसता. आपलें मनोबल आनी बुद्दीची सर्जनशिलता जेन्ना कात वडोवन नवीताल्ल जाता तेन्ना मनीस प्रगल्भ जाता. प्रवुध्द जाता.'Fate shall be changed by an unending will' हो सावित्रीचो संदेश.

"पुणून अरविंद जे धर्मीक परिभाशेचो उपेग करता ती सगलो गोंदळ करता" - हांवे म्हळें.

"तूं रिएक्ट जावूं नाका रिस्पोन्ड जा. Don't React - Respond अशें अरविंदांचे सांगणे" अरूणान मुमुरखें हांसत म्हाका म्हळें.

हांवें ताका सांगलें - "हो उतरांचो भूल भुलैय्या म्हाका पसंद ना."

"उतरांच्यो साली आनी कल्लां सोडून आमी अर्थाचो रोस चोखूंक जाय" अनुष्कान म्हळें.

"ही काव्यात्मक भास जाली ताका व्हडलोसो अर्थ ना. अरविंदांचें तत्वज्ञान खूब उदात्त आसत पुणून ताका दिल्लें अध्यात्मीक पेकेजिंग म्हाका आवडना." - हांवे सांगलें.

अनुष्का आनी अरूण म्हाका बुकस्टॉलांत घेवन गेलीं. कांय पुस्तकां हांवे घेवचींच असो ताणी आग्रो केलो.

"तुजे सगले ग्रह, दुराग्रह, पूर्वग्रह कुशीक सारून अरविंदाच्या तत्वज्ञानाचो अभ्यास कर" म्हाका अरूणान म्हळें.

अनुष्काचे वळखीन अरविंदाची रावपाची कूड म्हाका पळोवंक मेळ्ळी. ती कोणाकय पळोवंक मेळना.

जमनीर कारपेट, वण्टीचेर सोवित चित्रां, सुंदर दिवे, फ्रेंच फर्निचर आनी कोनशाकोनशाक अरविंदाक तांच्या देशविदेशांतल्या भक्तांनी दिल्ल्यो भेटवस्ती. ही योग्याची कूड न्हय ही 'राज'- योग्याची कूड! नितळसाण आनी टापटीप सगलेकडेन आसची हो अरविंदाचो आग्रो! दरेक वस्तीक ताची योग्य सुवात आसूंक जाय आनी दरेक सुवातीचेर तिका योग्य वस्त आसूंक जाय.

अरविंदांचो वसपाचो सोफा, म्हन्यांत पुस्तकांची आलमार, कुशीन बरोवपाचें मेज. जसो काय श्रीअरविंद आतांच थंय मेजाकडेन बसून बरोवन गेला अशें दिसपासारकें चित्र.

आमी सकयल देंवलीं, दनपार जायत गेल्ली. फुलांचो मंद परमळ पातळिल्लो. मंद संगीताची धून वाजताली.

आश्रमाची तरांतरांची कामां चलतात. अरूणान म्हाका सांगलें - हो श्रमहीन आश्रम न्हय श्रममहात्म्य, उत्पादकता आनी सर्जकता हे आश्रमाचे बुन्यादीचे तीन चिरे. आश्रमाचें शेत आसा. प्रिटींग प्रेस आसा. हॅन्डमेड पेपर करपाचो कारखानो आसा. थिएटर आसा. आर्ट गॅलरी आसा. नृत्याचें दालन आसा संगीताखातीर राखून दवरिल्ली कूड आसा. एकशेंपन्नास अध्यापक आनी साडेचारशें विद्यार्थी आशिल्ले विद्यालय आसा.

हो फुलांचो आश्रम खरो पुणून फळांचें सपन पळोवपी गाबण्या फुलांचो आश्रम हो.



# श्री अरविंदांचें ऑरोविले

अनुष्का आनी अरूणाचे मठयेचें नांव समष्टी. मातयेची ल्हानशी मठी. समोर सान पोरसूं. तांतूत देवकेळम्यांची फुलझाडां. दावे कुशीन रसरशीत केळी. उजवेकडेन मोटवेशे पकदस्त माड. फाटल्यान साळकांचें तळें आनी ताचे भोंवतणी लसलशीत पालेभाज्यांचो मळो.

पोरसांतल्यान घरांत वचपाक धाकटुलो लाकडाचो सांकव. ताचे पोंदच्यान उदकाचो पाट. तातूंत कांसवांची एक जोडी. घराक फुडें व्हारांद. थंय वण्टीक काटेझाडांच्यो ल्हानशो कुंड्यो. वण्टीक रंग ना. दाराभोंवतणी मात गडद निळ्या रंगांत काडिल्ली वेलबुट्टी. भितर बसपाची कूड. थंय एके वटेन पुस्तकांच्यो आलमारी. अनुष्काची आनी अरूणाचीं मेजां आनी कदेलां. जमनीपसून देड फूट उंचायेचेर एक चौथरो. ताचेर बसपाखातीर लेव निळ्या कोराची गादी. एके वण्टीक दोन चित्रांचें कॅनव्हास, आनी मदीं अनुष्का आनी अरूणाच्या देशविदेशांतल्या फोटयांचो कोलाज. दुसरे वण्टीर ल्हान ल्हान कुरकुटां. तातूंत तरातरांचे दिवे. पणट्यो. निरांजनां. दिवल्यो. एका कोनशाक लांबयल्लो लामणदिवो. दुसऱ्या कोनशाक तरांतरांच्या लापयांवांचें झाड. मदीं एक व्हडली दिवली आनी तिचे भोंवतणी चाफ्याच्या पाकळयांची पखरण.

दिव्यांचो संग्रह करपाचो अनुष्काक छंद. एके वण्टीर मोटे सोबितकायेन हे दिवे मांडल्यात. रातचे घरांतले हेर दिवे पालोवन अनुष्का

आनी अरूण हे दिवे पेटयतात. तरांतरांचे दिवे आनी तांच्या उजवाडाच्यो तरातरा. दोळयांचे दोण धादोसकायेन भरून वचपासारकी ती दिव्यांची दिवाळी.

भितर आंगण. आंगणाचे वयर मेकळें मळब. आंगणाच्या चारी खांब्यांचेर फुलवाली. एके कुशीन ल्हानसो झोपाळो. दुसरे कुशीन दोन वोल्तेरां. आंगणाक दोशीं दोन, दोन कुडी. एक अनुष्का - अरूणाची आनी दुसरी कोणूय इश्ट, सोयरे आयल्यार तांचे खातीर. आंगणांतल्यान भितर वतकीर रांदपाची कूड. थंयच चार जाणांक जेवपाक मेळत येदें वाटकुळें कोंड्याचें मेज आनी कोंड्याचीं कदेलां. फाटल्यान मागीलदार. थंय साळकांचे तळयेसामकार एक फातराचो नंदी. ताच्या कपलार दसणीचें तांवडेंलाल फूल.

घराचे नळे वयल्यान दिसनात. ते तणाचें पितांबर न्हेसल्यात. मागीलदारांतल्या एका खांब्याचो आदार घेवन दुदयाची वाल वयर चडल्या. धा-बारा दुदयाचीं फुलां आनी दोन गरगरीत पिके दुदी.

वास्तुशिल्पज्ञाच्या आनी गणिततज्ञाच्या एका सर्जेनशील जोडप्याक फावो अशें घरकूल. ऑरोविलेंतलें दरेक घर अशें वेगळें. दरेका घराक ताचें वेगळें कॅरेक्टर. ताचो आपलो आगळो झेत. ऑरोविलेंत मनशां घरांत रावनात. मनशांच्या देंठांक घरांच्यो पाकळयो फुलतात.

ते राती अनुष्कान इटालियन जेवणाचो मेनू केल्लो. वायन, मशरूम पिझ्झा, बेक्ड पोटेटो आनी पास्ता. अरविंदाश्रमांत आसात तशे ऑरोविलेंत मद्यपानाचेर आनी मांसाहाराचेर निर्बंध नात. जण एकल्याक आपले पद्दतीन रावपाची, खावप-जेवपाची मेकळीक आसा.

जेवण जातकीर आमी भायर येवन पोरसांत बसलीं. अरूण आनी अनुष्कान मागीर आमकां ऑरोविलेची जन्मकाणी सांगली.

ऑरोविले म्हळयार सिटी ऑफ डॉन. नवयुगाचे फांतोडेचें शार. अरविंदाची आनी मदरची प्रयोग शाळा. महामानवाचो पाळणो. ऑरोविले खंयच्याय देशाचो न्हयं. ते संवसारांतल्या सगल्या देशांचे. सगल्या लोकांचे. मनीसजातीच्या ऐहीक आनी बौध्दीक उदरगतीचो हावेस आशिल्ल्या सगळयांचे.

नामनेचो फ्रेंच आर्किटेक्ट रॉजर एन्गार हो ऑरोविलेचो वास्तुशिल्पज्ञ.

ऑरोविलेचो मास्टरप्लॅन काडटना प्रतिक म्हणून तांचे नदरेमुखार आशिल्लें तें कमळाचें फूल! सैमांत फुलाइतली सोबीत, सुंदर, पूर्ण, परिपूर्ण दुसरी गजाल ना. अनुष्काक दिसता- फुलाची 'वास्तू' ही दरेक वास्तुशिल्पज्ञाचे नदरेन आदर्श वास्तु! कमळाचे प्रमाणबद्द फूल, पाकळयापाकळयांनी प्रफुल्लीत गुलाब फूल, दशणीचें लाल, तांबडेलाल अवनत, अधोमुख फूल. आकारलालित्याची देख दिवपी सूर्यफूल, परमळ माळून आयिल्लो बटमोगरो, रंगांत बुडून आयिल्लो देवकेळमो, पार्जत, चांफो, कणेर, सुवर्णपुष्पी अमलताश, वसंतातुर सांवर, पर्जन्याधीर शंकर - अरूणाक दरेक फुलांत मॅथेमेटिकल प्रिसिजन दिसता. फुलांत भूमिती आसा. त्रिमिती आसा. 'बीज' गणित आसा. अंकगणिताचें सातत्य आसा. तरांतरांचीं पर्म्युटेशनस, कॉम्बीनेशन्स आसात.

पुणून फुडें रॉजर अन्गराक दिसलें ऑरोविले ही फुलाभशेन स्टॅटीक संकल्पना न्हय. ती वाडटी, ती एक्सपांडींग कल्पना. आनी अचकीत ताचें नदरेमुखार आयली- गॅलेक्सी. आकाशगंगा. प्रसरणशील दूधगंगा. फुलापरस अदीक समर्पक अशें प्रतिक म्हणून ताका मानवलो आकाशगंगेचो, न्हय चौकोनी, न्हय त्रिकोनी, न्हय वर्तुळाकार, न्हय लंब वर्तुळाकार असो अनाकारी आकार.

ऑरोविलेचे भुंयेर एक पुरातन वड आसा. वड हो सृजनाचो दृश्यावतार. नवनवोन्मेषशालिनी सृजनशीलतायेचो मानदंड. फ्लॅगपोस्ट. रॉजर एँन्गरान ह्या वडाक ऑरोविलेचो केंद्रबिंदू मानलो आनी ताचे भोंवतणी ऑरोविले शाराची गॅलेक्सी गुंथली.

दुसऱ्या दिसा फांतोडेर उठून आमी ऑरोविलेची भोंवडी सुरू केली. ही भोंवडी सायकलीवयल्यान करपाची. म्हाका हॉलंडाची याद जाली. हॉलंडाक भौसाचें वाहन म्हळयार सायकल. संवसारांत हेर चडशे कडेन सायकल हें एक भुरग्यांचें वाहन जालां ना जाल्यार स्पोर्टस वेहीकल म्हणून उरलां. पुणून हॉलंडांत सायकलींच्यो झुंडीच्यो झुंडी दिसतात. सायकलीखातीर वेगळयो लेन्स आसात. केंब्रिज विद्यापिठाच्या वाठारांतय विद्यार्थी सायकलीवयल्यान भोंवतात. सायकल हें एक सवाय, सोयीचे अशें

इको-फ्रेंडली वाहन. ऑरोविलेंत पर्यावरणाक आद्य सुवात दिल्ल्या. रस्ते मातयेचे. ताचे वयल्यान भोवपा-फिरपाक ऑरोविलेन सायकल आपणायल्या.

ऑरोविले हें चिडीयाघर न्हय. ती पर्यटनाची सुवात न्हय. तो मनशांचो झू न्हय. तो घरांचो म्युझियम न्हय. निवळशंख उदकांतली रंगीत नुस्तीं पळोवंक अॅक्वेरियमांत वचचें तशी नदर घेवन ऑरोविलेंत वचूंक जायना. अशे तरेन भोंवडेकाराचें वक्ल घेवन भोंवल्यार, ऑरोविलेंत रावतल्यांक तें मानवना. ऑरोविलेचो कंडक्टेड टूर करपाची अवचिन्नपणा फांफडूंक जाय. ऑरीविलेवासियांचो इश्ट जावंक जाय. जाल्यारच ऑरोविले तुमकां आपलें खरें रूप दाखयता. ना जाल्यार आमकां वयली वयली सुपरफिशल सोलां, कल्लां, काती, रूपडीं दिसतात. ऑरोविलेचें काळीज दिसना.

सांजची आमी मातृमंदीर पळोवंक गेलीं. मातृमंदीर अजून बांदून पुराय जावंक ना. पृथ्वीच्या आकाराचें मातृमंदीर म्हळयार आदिमातेचें देवूळ! आदितीचें देवूळ. भूमातेचें. धर्तरेचें मंदीर! गर्भाशयाची आर्द्र थंडाय. सीरीन शांती. गर्भकूडीचें निवांतपण. गाभाऱ्याचें भरिल्ले रितेपण. गर्भागाराचें बंदीस्त मेकळेपण. मातृमंदीराक वण्टी नात. कोन नात. आसात ते कॉन्टूर्स. फातर नात. आसात आरशे, पारदर्शी आरशे. तांच्या वंठातल्यान मातृमंदीर स्पंजाभशेन उजवाडाची किर्णां चोखता. मदीं स्फटीकी क्रायस्टल आसा. सुर्याच्या किर्णांनी तो पर्जळता. देवळांत उजवात, धूप ना. फूल ना. अभिषेक ना. निवेद्य ना. घांट ना. घांटीचो घणघण ना. आरत ना. पंचारतींचो भगभग ना. गाराणे ना होरावणी ना. आंगवण ना. आसा मळब मेकळें मंजिरी मेकळेपण. आसा निरंजन उजवाडाचें मखर. आसात निस्तब्ध निवांत मोनेळाच्यो घांटी. आसा एक प्रसन्न प्रासादिक मूड. आसा एक अस्पर्श, अदृश्य, अनाहत अशी वस्त्रगाळ ट्रॅन्क्वीलीटी.

मातृमंदीरांतल्यान भायर आयलीं तेन्ना सांजवेळ सरत आयिल्ली. वत मोव जाल्लें. तीनसांज जाल्ली. वडाचो रूख शेवण्यांचो किलकिलाट करतालो. गोधुलीची गोरज वेळ ही! घरा परतुपाची! पिलांचे यादीन घोटेरांत परतुपाची.

पाडकाच्या मोगान गोठ्यांत वचपाची.

रातचो जेवणाक बेबी कॉर्नाचो सूप आशिल्लो. फिश चेतिनाड, स्टफ्ड पराठे, बिटाची भाजी, धंय आनी फ्रूट चाट केल्लें. अनुष्का आनी अरूण दोगांय पाककलेंत निपुण. अरूण तरांतरांची मॉकटेल्स आनी कोकटेल्स करता. अनुष्का थायी, चायनीज, फ्रेंच, इटालियन, अफगाणी, पारशी, मारवाडी, दक्षिण भारतीय आनी बंगाली अशीं तरांतरांचीं जेवणां करूंक जाणां. जिबेचे रूचीचे कळे कुस्करून वडोवन जीब निबर करप तांकां पसंत ना. जिबेचें जिव्हालौल्य तांणी उणाक मानूंक ना आनी आपल्यो जिबो संन्यस्त, स्थितप्रज्ञ करूंक ना. उदरभरण नोहे जाणिजे यज्ञ कर्म असलें तत्वज्ञान तांणी आपणावंक ना. दरेक अन्नाक परब्रह्म मानून तांणी जिबेचें आफूडभश्ट शेंवटून वडयलां. रूचीरूचींतल्यो सूक्षीम शेड्स कळूंक जीब अदीकादीक संवेदनशील आसूंक जाय. अरूणान म्हाका च्याच्या मळयांतल्या 'टेस्टर' लोकांची गजाल सांगली. ह्या लोकांचे जीबेचे टेस्टबड्स सामके जागृत. च्याची पावणी घेतना वेपारी टेस्टर लोकांक घेवन वतात. तरांतरांची च्याची रूच पळोवन तांचे मोल थारावपाची फिशालकाय आशिल्ल्यान च्याचे 'टेस्टर' हजारांनी रूपया कमयतात.

रूच घेवप, वास घेवप, पळोवप, आयकुवप आनी स्पर्श करप हीं पंचेंद्रियांचीं कामां. मनशाचे बुद्दीचे हे पांच दूत. वासावासाच्यो तरातरां वळखुपी तीक्ष्ण घ्राणेंद्रीय आशिल्ले लोक तरांतरांचे परमळ 'चाखपांत' उपाट आनंद भोगतात. अत्तराचो परमळ, फुलांचो परमळ, पिक्या कणसांचे परमळ, भिजिल्ले मातयेचो परमळ !

कानांचेंय तशेंच! नादब्रह्मांतले नाद. लयकारीची लय. तबल्याचे ताल. स्वरसंगीताचे सूर. रागाची रागदारी, वैविध्याचे आनी वैचित्र्याचे चित्रविचित्र, रंगीबेरंगी मोरपिसारे माळून येवपी तरांतरांचे राग - भूप, भैरवी, अहिरभैरव, मल्हार, मारवा, मारूबिहाग, मालकंस, सारंग, केदार, खमाज, कलावती, कल्याण, देस, दरबारी, भीमपलास, हंसध्वनी......!

आनी दोळे ! रंग, रूप, आकार, अनाकार, डेप्थ, डायमेन्शन्स चोखून

तांचीं चलतचित्रां बुद्दीपटलाक धाडपी दोळे. दोळ्यांक सूक्ष्म निरीक्षण करपाची संवय जाय. दोळ्यांक अस्ताव्यस्त गजालींत एक पॅटर्न सोदूंक जाय. दोळ्यांक व्हिज्युअल मेमरी जाय. पळयल्लें चित्र दोळयामुखार परतें हाडूंक कळूंक जाय.

पंचेंद्रीयांचें पांचवें काम - स्पर्शाचें. कुड्ड्यांची स्पर्शाची संवेदना अदीक तरल आसता. पळयनासतना फकत स्पर्शान गिन्यानाचे ध्रुव अदीक चुंबकीय जावंक जाय. रस्मी वस्त्राचो स्पर्श, रेंवेचो स्पर्श, पाकळेचो स्पर्श, नवजात बाळकाच्या गुलगुलीत गालाचो स्पर्श, वझऱ्याच्या उदकाचो स्पर्श, गुबगुबीत माजराचो स्पर्श, मायेचो स्पर्श, सायेचो स्पर्श, प्रियेचो स्पर्श... !

जीब, नाक, कान, दोळे आनी त्वचा बुद्दीच्या रथांचे हे पांच घोडे, बुद्दीची शक्त वाडूंक जाय जाल्यार ह्या पांचय घोड्यांची अश्वशक्ती वाडूंक जाय.

अरविंदाचें तत्वज्ञान मानता- दरेक मनीस निजाचो बुदवंत. कोणूच ढड्डो न्हय. दरेक मनशाकडेन एक ना एक कुशळताय आसता. संवसारांतल्या हेर खंयच्याय मनशापरस तो कसल्या ना कसल्या ल्हान गजालींत बुदवंत आसता. दरेकल्याक तो खंयचे गजालींत बुदवंत हें सोदूंक आदार करप हें खरें शिक्षणाचें काम. ज्याका वरें बरोवंक येता, बरें उलोवंक येता, बऱ्यो कविता करूंक येता, बरे तरेन गणितां सोडोवंक येता- तोच बुदवंत न्हय. बुदवंतकाय इतल्यापुरती सिमीत ना. आसूंकच शकना. बुदवंतकायेक सहस्त्रावधी तासां आसतात. मेस्तपणाकय बुदवंतकाय जाय. शेतकामत बुदवंत आसूं येता. मॅकेनिक बुदवंत आसता. रांदप्याची बुदवंतकाय वेगळी जाल्यार शास्त्रज्ञाची वेगळी. गावप्याची वेगळी तशी पितारप्याची वेगळी.

अनुष्का आनी अरूणाकडल्या भाशणा- संभाशणांतल्यान अरविंदाच्या तत्वज्ञानाचें सार हांव समजून घेतालों.

"रगत किणेता तशी बुद्द किणेवंक जायना. पांय मुयेता तशी ती मुयेवंक जायना. रोद मुंगरता तशी मुंगरूंक जायना. सुर्याच्या किर्णांभशेन ती फाकारूंक जाय. बहुश्रुतता आनी अष्टपैलुता, एकाग्रता आनी शतावधानीपण,

विवेक आनी करूणा, सामंजस्य आनी `संवेदनशीलता, ऐहिकतेचें भान आनी नैतिकतेचें अधिष्ठान, उत्पादकतेकडेन सांकव उबारिल्ली सर्जनशीलता आनी सृजनाच्या मूळ स्त्रोतांक वेंगावपी श्रमिकता, सकारात्मक स्वप्नील नदर आनी उच्चतम बौध्दीक आनंदाच्या साधनेखातीर ल्हान सान ऐहिक सुखांचो त्याग करपाची चिकाटी हांच्या संगमांतल्यान मनशाची बुद्द अशी उत्तुंग, उर्जस्वल जावूं येता. अरविंदाचें महामानवाचें सपन अशे तरेन मानवी बुद्दीचे गिरेस्त वुन्यादीचेर उबें आसा. तांच्या विचारांचो पार्जत अध्यात्माच्या आंगणात आसा. पुणून ताचीं फुलां विवेकी, बुद्दीनिष्ठ तत्वज्ञानाच्या आंगणात पडटात." अरूणान सांगलें.

"आमचो बुद्दीप्रामाण्यवाद अध्यात्म आनी तत्वज्ञान ह्यो दोन विंगड गजाली मानता आनी त्यो एकमेकांत भरसून वतकीर सगलो गोंदळ जाता अशें आमचें मत. तत्वज्ञानाविशीं आमचीं रिझर्वव्हेशन्स नात. आसात तीं भोंगळ, संदिग्ध अध्यात्माविशीं." हांवें म्हळें.

अनुष्कान अध्यात्मीक उपभोगवादाविशीं खर चिंता उक्तायली.

"आयज लोकांक तत्वज्ञानाची गोडी उरूक ना. ते मेटाफिजीकल कंन्झ्युमरीझमाच्या फाटल्यान लागल्यात. रजनीश, सिध्द समाधी योग (एस.एस. व्हाय) हे सगले पंथ चंवरल्यात ते त्याचखातीर. तांची बुन्याद घटमूट न्हय. ती उखलापी. लोकांक सगळें इस्टंट जाय जालां. खोलांत वचपाची कोणाची तयारी ना. देखून भौस अरविंदाच्या तत्वज्ञानाक आफुडना. तो चमत्कार करपी सत्यसाईबाबा, फांशे वडोवपी घाडी, फटींग ज्योतिषी हांच्या नादाक लागता."

अरूण आपल्या विशयाचेर उलोवंक लागलो. "विज्ञानांतय तशेंच जालां. संशोधनापरस तंत्रज्ञानाक चड म्हत्व आयलां. अजून गणितशास्त्राक विज्ञानान फावो ती सुवात ना. गणिताक नोबेल इनाम ना. गणिताचें शुध्द, विशुध्द, तत्वरूप शास्त्रज्ञाक भुलयना. तांकां भुलयता तें खुळखुळ पयशे मेळोवपी उद्योगीक तंत्रज्ञान."

मध्यानरात जायत आयिल्ली. आमचें उलोवप रंगात आयिल्लें.

"गॅजर पेनरोजासारके शास्त्रज्ञ चैतन्य म्हळयार कितें हाचेर संशोधन करतात. फुडल्या शेंकड्यांत संशोधक चैतन्याचें 'जेनेटीक्स' सोदून काडटले. अध्यात्म्याच्या मड्याचेर मारिल्लो तो निमाणो खिळो आसतलो. मागीर उरतलें फकत तत्वज्ञान. शास्त्रांचें तत्वज्ञान. गणिताचें तत्वज्ञान. कलेचें तत्वज्ञान. बुद्दीचें उच्च, उच्चतर, उच्चतम रूप. सूक्ष्म अतिसूक्ष्म, तरल, खोल, खोल रूप.....! महामानवाचो पाळणो हालपाचो दीस मागीर पयस उरचोना"- अरूणान समारोप केलो.

दुसरे दिसा ऑरोविलेच्यान चेन्नय परतुपाक आमी भायर सरलीं तेन्ना हांवे अनुष्काक आनी अरूणाक विचारलें-

"फाटीं ऑरोविले वादाच्या भोंवऱ्यात पडिल्लें तो वाद कसलो ?"

"अरविंदाश्रमाचे लोक - तांची अरविंदो सोसायटी आनी ऑरोविलेचे लोक हांचेमदीं ऑरोविलेचे मालकीवयल्यान झगडीं जालीं. निमाणें सरकाराक मदीं पडून हें झगडें पालोवचें पडलें " अनुष्कान सांगलें.

तें आयकून एक निमाणो प्रस्न म्हज्या मनांत आयलो. पुणून तो अनुष्काक आनी अरूणाक हांवे विचारलो ना. घडये ताची जाप तांचेयकडेन नासुंये. ती जाप ऑरोविलेच्या फुडारांत लिपिल्ली आसुंये.

'ऑरोविले !- हो एके सपनवतीचो गर्भपात काय एका सपनाचो दीर्घ गर्भवास?'

कांय सपनांक गर्भपाताचो शिराप आसता. कांय सपनांक दीर्घ गर्भवासाचें वरदान आसता. शिराप आनी वरदान कोण कोणाक दिना. शिरापाची आनी वरदानाची तागडी जाच्या ताच्या हातींत आसता.

ऑरोविले - सिटी ऑफ डॉन - फांतोडेचें शार - तें भूकन्या सीतेभशेन धर्तरेच्या उदरांत आत्मविसर्जन करतलें काय तेजस्विनी सावित्रीभशेन आपल्या फुडाराची फांतोड फुलयतलें ?



# अरेबियन डेज

अरवस्तानाच्या नांवातच आसा एक कोलाज- मैलानमैल पातळिल्ले रेंवट भुंयेचो, खाजुराच्या रूखांचो. अरवस्तानाच्या नांवांतले कॅलीग्राफींत आसात उंटांचे काफिले, धवेफुल्ल भेस घाल्ले अरब, तांचे तंबू, सरभोंवतणीच्यो रेंवेच्यो रोयणी आनी तांच्या माथ्यांत खोयिल्ली बीजेच्या चंद्राची कोर !

अरवस्तानाच्या नांवांत आसा एक काणी- हजार रातींची काणी आनी अरवस्तानाच्या जल्माचो आसा एक इतिहास एक दीर्घ, प्रदीर्घ इतिहास- जो सुरू जाता धर्तरेच्या जल्मापसून.

कोट्यांनी वर्सां आदीं सुर्यापासून फुटून गेलो एक उज्याचो गुळो- गरगरत गिरगिरत भोंवऱ्याभाशेन अंतरिक्षाच्या आंगणांत घुंवत रावलो. घुंवतां घुंवता न्हिवत गेलो. न्हिवतां न्हिवतां उज्याचें जालें वारें. वाऱ्याचें जालें उदक. उदकांत उफेवन आयली भूंय. भुंयेर किल्लून आयले दोंगर. दोंगरावयल्या मळबाच्या घुमटांत खेळूं लागलीं कुपां. झडूं लागलो झडझड पावस, आप, तेज, वायु, पृथ्वी आनी आकाश- पंचमहाभुतां दळूंक लागलीं जात्यार बसून- झरझर झिरपत गेलो ताजो टवटवीत उजवाड. सरसर पडत रावली कवकवीत वस्त्रगाळ माती. मातयेचीं तरातरांचीं रूपां. किट्ट काळीमाती, रक्त तांबडीमाती आनी फुल्लधवी रेंव. रेंवेचीं जालीं रेंवटां. वाळवंटां. डेजर्टस. रेंवेच्यो जाल्यो दोंगुल्ल्यो. ड्यूनस सॅन्डड्यूस. वतान हुलपावन काडली भूंय. करपून काडले

दर्या. वाऱ्यान पिसडून काडलें आंगआंग, रंध्ररंध्र मातयेचें. वांझ केलें कुसवे तिचे. नग्न नागडी केली माती. रूखावळींचीं न्हेसणां पिंजून, पिसडून, फापसून वडयली.

अरबस्तानाचो जल्म असो मातयेच्या गर्भपातांतल्यान जालो.

अरबस्तानाच्या जल्माचो खीण मोटो भयांकृत आसूंक जाय. साडे तीन कोटी वर्सांपयलीं भूगर्भाक वेर गेली. आफ्रिकेक दशिल्लो धर्तरेचो एक भूस्तर आकांताचो भुंयकांप जावन फुटलो आनी आकांताच्या वेगान वचून दसलो आशिया खंडाक. एके वटेन वयर सरले दोंगर धर्तरेची कात उसोवन आनी दुसरे वटेन दर्याचें उदक आयलें भुंयेचो घाय शेकूंक.

ताचे उपरांत कितलीं झेलाचीं युगां आयलीं. झेल जावप आनी झेल वितळून हुंवार येवप. जगबुडी येवप. बारा हजार वर्साआदीं निमाणो हुंवार आयलो आनी गेलो. मागीर भूंय उगडी पडली. वताच्या रखरखान न्हंयो आटल्यो! दर्या सुकलो. दर्या पोंदची भूंय वयर सरली. दोंगरांनी पावसाक आडायलो. रूख, रूखावळी, रानांवनां सुकून गेलीं. माती कड्डून रेंव जाली. आकार अनाकार जाले. दिकांचीं न्हेसणां सोडून धर्तरी विवस्त्र जाली. कामांध वाऱ्यांनी तिचो उपाट भोग उपभोग घेतलो.

अरबस्तानचो जल्म असो सैमाच्या बलात्कारांतल्यान जालो. अशा अरबस्तानाची पयली वळख अरेबियन नायट्सांतल्यान जाली. दरेक काणी वाचपाची एक पिराय आसता. कळयांनी न्हिदपी, फुल-पाकळयांचे भेस घालपी, पांखां हालयत मळबांत उडून वचपी सान-परींच्यो काणयो. जादूचे शेंदरेर बसून येवपी जादुगारांच्यो काणयो. चार हाताच्या देवांच्यो. धा तोंडांच्या राकेसांच्यो. जांबळाच्या झाडार काळजां दवरून मानग्यांचे फाटीर बसपी माकंडांच्यो. चोरून खीर खावपी मांजरांच्यो. शिंवाक जाळयांतल्यान सोडोवपी हुंदरांच्यो. मनशांकडेन उलोवपी शेवण्यांच्यो. बंदखणींत पडिल्ल्या राजकुंवरींच्यो. धव्या घोड्यार बसून येवपी राजकुंवरांच्यो. कुंडेकुस्कुरांच्यो. सिन्ड्रेलाच्यो. हिमगौरीच्यो, लिलीपुटाच्यो. टारझनाच्यो. रॉबीनहुडाच्यो.

अरेबियन नायट्स वाचपाचीय एक पिराय आसता. ते पिरायेंत

अरेबियन नायट्सांतली दरेक काणी पिशें लायता. हजार आनी एक रातींची ती काणी रातींच्यो राती जागरणां करूंक लायता. सिंदबाद आनी ताच्यो सात भोंवड्यो, अलिबाबा आनी चाळीस चोर, अलाउद्दीन आनी ताचो दिवो, जनेलांतल्यान सोडिल्ल्या राजवावयल्यान मेळपाक येवपी मोगी, विलासी सुलतान, व्यभिचारी राणयो, चाडयो करपी पोपट.... परिकथांच्या अद्भूत संवसारांतल्यान जिणेचे वास्तवकथेंत पावल दवरतना दरेकल्यान अरेबियन नायट्सांतल्या काणयांच्या सांकवावयल्यान वचचें पडटा. किशोर पिरायेंत वाचिल्ल्यो ह्यो अरेबियन नायट्स आनी ताचे उपरांत कितल्या वर्सांनी आयिल्ले हे हालींहालींचे अरेबियन डेज !

हांवें जनेलांतल्यान भायर नदर मारली. इल्लो इल्लो उजवाड करपत वतालो. काळोख जायत वतालो. ल्हवु ल्हवु कुपां दिसना जालीं. सगळेकडेन काळोखच काळोख जालो. धर्तरेच्या जल्मापयलीं घडये असोच काळोख आसुंये. ह्या काळखाक कसलेंच परिमाण नाशिल्लें. लांबाय, रूंदाय, खोलाय, हात, पांय, तोंड... मळबभर किट्टकाळो कुड्डो काळोख. हांवें भितर पळयलें. विमानांतय हयन्हयसो काळोखच आशिल्लो. पुणून तो दिसतालो. देखून ताका काळोख म्हणूं नजो. पुणून उजवाडय म्हणूं नजो. अशें कितें तरी काळखाचें आनी मंद उजवाडाचें मिस्तूर.

सगळे जाण सुस्त न्हिदिल्ले. दरेकल्याचे न्हिदेक सपनाची फास्की आशिल्ली. विमानांतले चडशे जाण गल्फाक नोकरेखातीर वताले वो रजा सोंपून कामार परतताले. पयस- घरादारापासून, बायलां भुरग्यांपासून पयस. वळखदेख, नातींगोतीं, मायपास, गळ्यांतले चान्र्याचे हात, घट्ट वेंग,
माणकुली पापी, टुकूटुकू दोळे, दुखिल्लीं धोंपरां, आशिर्वादाचे हात, घर, आंगण, खुरीस, नळे, माड, चुट्टां, मल्लां, पयस वाजपी घांटींचो आवाज.... सगळें, सगळें पयस सारून ते वताले. यादींचे राजू सोडून ह्या तारवांनी धको सोडिल्लो.

हांवें परत भायर पळयलें. विमान काळखाचें एकेक सोंपण देवन सकयल देंवतालें. पयस दिव्यांची रांग दिसूंक लागली. रांगेची रांगोळी जाली.

उजवाडाचो लखलख. झगझग. भगभग. विमान दुबाय देंवलें.

रात बरीच जाल्ली. शीं पडिल्लें. हांवें घड्याळींत पळयलें. मध्यानरात जावन गेल्ली. देड वर फुडें गेल्ले घड्याळीचे कांटे हांवें फाटीं काडले. काळाची संकल्पना, काळाचो संदर्भ, काळाची संदर्भहीनता, व्हांवतो काळ, गोठिल्लो काळ, काळाचो जल्म, काळाचें मरण, काळाच्या जल्माआदींचो काळाचो भूतकाळ आनी काळाच्या मर्णाउपरांतचो काळाचो भविश्यकाळ... काळाचो केदो व्हडलो कॅनवास ! अनंताची संकल्पना एक वेळ समजुं येता. पुणून अनादिची कल्पना करूं नजो. व्हांवत्या, धांवत्या काळाचो ओघ पळोवं येता पुणून कृष्णविवरांतल्या गोठिल्ल्या काळाक हात लावंक जमना. काळाचें तोंड दिसता पुणून प्रकाशाच्या वेगापरसय अदीक वेगान वचून काळाची फाट पळोवप शक्य जायत काय ? कालाय तस्मै नमः म्हणून काळाचें मडें खोल पुरूं येता पुणून काळाचे बोमलेक दशिल्ली अनादी वार कशी आनी खंय मेरेन कापपाची ?

विमानतळावयल्यो स घड्याळी स वेळो दाखयताली. टोकियो, दिल्ली, दुबाय, लंडन, न्युयॉर्क आनी सॅनफ्रॉन्सिस्को काळाच्या रथाचीं स चाकां. बहुरूपी, कामरूपी काळाचीं स रूपडीं! हॉटेल सी शेल इनांत पावता म्हणसर रातचें देड जालें. हें हॉटेल दर्यादेगेर आसा. बंदर लागींच आसा. हांवे जनेल उगडलें. शितळ वारें भितर आयलें. व्हडलीं व्हडलीं तारवां दर्यांत उबीं आसात. क्रेनी वयर सकयल उठाबशो काडीनासतना थंड बसल्यात. हांवें जनेल बंद केलें. हांथरूणार पडलों. दिव्याचो स्वीच ऑफ केलो. दिवो पालवपाक खिणापरस उणो वेळ लागुंये. पूण ताचे आदींच हांव न्हिदलों.



# दाळिंबी दुबाय

शुक्रार हो दुबायचो सुटयेचो दीस. देखून दुबायचो वीक-एन्ड बिरेस्ताराक सुरू जाता. बिरेस्ताराची सांज शेनवाराचो परमळ घेवन येतां सॅटर-डे नायट् फीवर बिरेस्ताराचे रातीक सुरू जाता.

संवसारांत जंय जंय सुटयेचो दीस आयतार, थंय थंय लोकांचो आवडीचो दीस आयतार न्हय. तो शेनवार. वर्तमानांतल्या वास्तवापरस मनशां फुडारांतल्या सुखांचे आशेर चड जगतात. शेनवाराची रात आयताराच्या सुस्त मेकळया दिसाच्या यादींनी कातकुतल्यो करता. खासा आयताराक मात सोमाराच्यो चिंता खुणावंक लागतात. अरेबियन मनीसय ह्या मानसशास्त्राक आडवाद न्हय. देखून बिरेस्ताराची सांज आनी रात दुबाय शार सप्तकभराचो फॉर्मल भेस सकयल देंवोवन इनफॉर्मल, कॅज्युअल भेस चडयता. वीकली रूटीन वीक एन्डाक अचकीत कशें बदलता हें पळोवप हो एक मजेदार अणभव.

बिरेस्तारा सांजचे नजीर आनी नवाज आयले. नजीर आनी नवाज हे जुंवळे भाव. ते मूळ वाळपयचे. शिकपाखातीर मडगांवां आयले आनी नोकरेखातीर दुबाय. अनीसा आनी असीमा ह्या दोन भयणींकडेन तांचो निकाह जालो. रहीला, वहीदा आनी नूर हीं तांची भुरगीं.

नजीर आनी नवाज आपआपल्यो गाडयो घेवन हॉटेलार आयले

आनी तांच्या घरच्यांच्या सांगातान म्हजो दुबायचो कंडक्टेड टूर सुरू जालो.

सगल्यांत पयलीं दुबाय म्युझियम. खंयच्याच शारांत हांव चडसो म्युझियम पळोवंक वचना. म्युझियम म्हळयार इतिहासाचीं मडीं सांबाळून दवरपी मोर्ग. हें मोर्ग पळोवपाची इत्सा म्हाका ना. भोंवडेर वचून म्युझियम पळोवपांत वेळ वगडावप न्हय. भोंवडेर भोंवप रस्त्यारस्त्यांनी, दुकानांनी, मेकळ्या सुवातींनी. जिते, जिवें रसरशीत, तट्टटीत, ताजें टवटवीत, व्हांवतें, हांसतें शार पळोवपांत जो आनंद आसा, तो पांचशें-हजार वर्सांपयलींच्या लोकांची फास्केंत घालून गोठयल्लीं मख्ख मोनीं फ्रोजन चित्रां पळोवपांत ना. म्हणून हांवे नजीराक म्हळें - शार पळोवचे पयलींच तुमी म्हाका म्युझियमांतसो हाडलो ? नजीर म्हणूंक लागलो- हो म्युझियम पळय तूं पयलीं, मागीर उलय.

आनी जालेंय तशेंच. दुबाय म्युझियम म्हळयार फकत दुबाय शाराच्या यादींचो आल्बम न्हय. चित्रांचें आनी फोट्यांचें प्रदर्शन न्हय. दुबाय म्युझियम हो दृक-श्राव्य माध्यमांचो उपेग करून पळोवप्याक दिल्लो थ्री डायमेन्शनल अणभव.

दुबाय म्युझियमाची वास्तू एका पोरण्या किल्ल्याच्या वाठारांत आसा. ध्वनी, उजवाड, संगीत, चित्रकला, शिल्पकला, छायाचित्रां आनी चलत् चित्रां हाचो सुमेळ साधून दुबाय म्युझियम दुबाय शाराच्या इतिहासाच्या मड्यांत जीव ओतता. चैतन्य हाडटा.

दुबाय हो ताच्या शेंकड्यांनी वर्सांच्या इतिहासांत आशिल्लो फकत अरबी आखातांतलो नुस्तेकारांचो सुपल्लो गांव. तांचे जिणेंत नाशिल्ल्यो चडट्यो आनी देंवत्यो. ताणें पळयली ना केन्ना पुरातन संस्कृतायेची गिरेस्तकाय. ना आयकले तरसादींचे खणखणाट. सरभोंवतणी वाळवंटी वाठार. एके वटेन अरबी समुद्र. दर्यावेळेर नुस्तें पागवपी खारव्यांचीं पांच-पन्नास घरां. दर्या-उदकांतलीं मोतयां काडपी अरबांचीं व्हडीं आनी तारवां. गिरेस्त अरबी इतिहासाचो गुरूत्वमध्य केन्ना दुबाय गांवाक

आफुडलो ना. अरबी संस्कृतायेच्या चुंबकीय परिघाभायरच उरलो दुबाय गांव.

दुबायच्या इतिहासान कूस परतिली ती पंचवीस-तीस वर्सांआदीं. आखाती दर्यांत पेत्रोलाच्यो बांयो मेळ्ळयो आनी दुबाय शाराचें भाग्य उंटावयल्यान घोड्यार बसलें. दर्यान आपल्या सहस्त्र हातांनी घसघशीत गिरेस्तकाय ओतली दुबायच्या पोश्यांत. गांवाचो गांवगिरो भेस वडोवन दुबाय गांव शाराचीं भरजरी न्हेसणां न्हेसलो. वाळवंटांतल्या वाटांचे मार्ग जाले. महामार्ग जाले. घरांचे बंगले जाले. बिल्डींगो जाल्यो. नुस्त्यांचीं व्हडीं बांदिल्ले धके-ताचें नवें पकदस्त बंदर जालें. उंटाचे काफिले गेले. जपानी गाडयो आयल्यो. कॅरम बोर्डावयल्या घुलांवरी सुळसुळीत रस्त्यावयल्यान धांवूंक लागल्यो. पुरातन बाजार वचून अद्यावत मॉल्स, सुपर मार्केट्स आयलीं. भायल्या देशांतलें मनीसबळ आयलें. भारत, पाकिस्तान, श्रीलंका, बांगला देश - गरीब देशांतले लोक दुबाय आयले. तांचो घाम, तांचें रगत, तांची दुकां ताणें रखरखीत रेंव कालोवन तातुंतल्यान दुबायची उद्येगीक महानगरी किल्लून आयली. चंवरून आयली.

ते राती नजीर आनी नवाज हांणी म्हाका दुबाय दाखयलें.

दुबायच्या गालार दाळिंबी दाण्यांची गुलाबी सया आसा. पिकें रसरशीत दाळिंब फोडटकीर तातुंतले गोड, गुलाबी, गुलगुलीत, मोतयाळे दाणे गालाक गाल लावन मुमुरखे हांसचे तसो राजस रतन-हांसो- त्या हांशाचो भांगतिळो माळून हें शार दर्याचे हारशेमुखार नटून थटून बसलां.

कांय शारां आसतात बांदून काडिल्लीं कांद्याचे चुडयेभशेन. कांय केळीच्या पांचव्या पिक्या कुचकुचीत केळयांच्या घडायाभाशेन. कांय शारां द्राक्षांचे घोंसार घोंस लागून चंवरिल्ले वालीभाशेन.

फुलां गुंथून फांती, हाळी, आटी, झेलो, वळेसर, हार, तुरो अशो तरातरा करूं येतात तशींच शारांय गुथून काडिल्लीं आसतात- तरांतरांचे लोक, तांचीं चित्रविचित्र घरां, घरां भोंवतणीचे रस्ते, रस्त्याक दशिल्ल्यो मेकळयो सुवार्ती हांकां एका सुतान बांदून काडून.

कांय शारां कोठयेकुडीत मारिल्ल्या नाल्लांचे आनी सोण्णांचे राशीवरी अस्ताव्यस्त पातळिल्लीं आसतात जाल्यार कांय शारां धव्या, काळया घुलांमदी एकोडी तांबडी घूल मांडून दवरिल्ल्या रेखीव कॅरम बोर्डाभाशेन ! कांय शारां आसतात बिलयर्डाच्या बोर्डाभाशेन इतस्तत पडिल्ल्या रंगीबेरंगी गुळयांक घेवन तर कांय शारां आसतात दुधाच्या आटीव फराळावरी !

दुबाय शाराच्या रेखीवपणाक एक कॅरेक्टर आसा. एक जिवसाण आसा. शार म्हळयार एके तरेचें स्पेस फ्यूजन. रस्त्यांच्या वेल्डींग रोडान मेकळयो सुवाती आनी घराघरांनी कुचकुचून भरिल्ल्यो सुवातो एकमेकांक दसोवपाच्यो, वेल्डींग करून जोडपाच्यो. तशें करतना तातूंत कृत्रीम नाटकीपण येवंक फावना. रस्त्यांचे कनव्हेअर बेल्ट जावंक जायना. शारांत दाळिंबाच्या फळावरी कोहेजीवनेस आसूंक जाय. दुबायक तें आसा. दुबाय शार क्रिस्टल फ्रूटबॉलांत फोडून दवरिल्ल्या दाणेदार दाळंबाभाशेन.

दर्याचें उदक भितर सरून दुबायच्यो दोन शिरो जाल्यात. डेरा आनी बर दुबाय. खरें म्हळयार पर दुबाय वो पार दुबाय. पुणून केरळी मनीस 'ल' चे सुवातीर 'ळ' म्हणटा तसो अरवी मनीस 'प' चो उच्चार 'व' करता. दुबायचो पुलीस नो पार्किंगाक नो बार्किंग म्हणटा. 'प' चे सुवातेर 'ब' म्हणिल्ल्यान अर्थाचे अशे अनर्थ जातात.

दुबाय क्रिकाचे देगेर कितलींशींच रेस्टॉरंट्स आसात. नजीरान एका अरबी रेस्टॉरंटमुखार गाडी थांबयली. आमी सकयल देंवलीं. खबूज म्हळयार पराट्याभाशेन रोटी आनी हमूस म्हळयार वांटिल्ली दाळ. ताचेबरोबर ऑलिव्ह ऑयल. तरातरांचे सॅलेड. तंदूर केल्लें चिकन. रोस्टेड मटण. जेवण सोंपले उपरांत दूद नाशिल्ली फ्लेवरड खुटी च्या.

नवाजान धौ चलोवपी एका वळखीच्या मनशाक आपयलो. धौ म्हळयार ल्हानशें व्हडें. धौंत बसून आमी रातची दुबाय क्रिकांत भोंवलीं. दोशीं दोन देगांचेर दिव्यांचो लखलख. रंगांची रांगोळी. उदकांत पडिल्लीं बिंबां, पडबिंबां. उदक, वारो, शीं, काळोख, दर्या, व्हडें, दिवे, मोनेळ,

मळब. मळबाचे मशिदीवयली चंद्राची कोर.

अरबस्तानाक रेड क्रॉस ना. रेड क्रॉस हांगा रेड क्रेसंट जाता. हिंदुस्तानांत रेड क्रॉसाचो रेड ओम करपाचीं अवचिन्नपणां अजून विश्व हिंदू परिशदेक कशीं सुचलीं नात काय ?

नवाजाक हांवें म्हळें- म्हाका दुबायच्या बऱ्यांतल्या बऱ्या बुक स्टॉलांत व्हर. म्हाका महमंद पैगंबराचें चरित्र, देड हजार वर्सांपयलीं अरबस्तानात इस्लाम धर्माचो जल्म जालो त्या वेळची अरबस्तानाची सामाजिक स्थिती, कुराणाचो इंग्लीश अणकार, इस्लाम धर्माच्या तत्वज्ञानावयलीं पुस्तकां, सर रिचर्ड बर्टनाचें अरेबियन नायट्स आनी मेळळेंच जाल्यार अरबी लोक-कथांचें पुस्तक घेवंक जाय.

शुक्राराक नवाजाक घेवन हांव भोंव भोंव भोंवलो. दुबाय म्हळयार शॉपिंग पॅरेडायज. संवसारांतल्यो सगल्यो वस्ती हांगा मेळटात. पारंपारिक बाजाराक हांगा सौक म्हणटात. तरांतरांचे सौक हांगा आसात. गोल्ड सौक म्हळयार भांगराच्या अलंकारांची पेठ. ती पळोवन दोळे दिपावतात. ड्राय फ्रुटांचो मोटो बाजार-खाजूर, बदाम, पिस्ता, खिसमीस, काजू, अक्रोड आनी तरांतरांचे मसाले- लवंगा, येळ, मिरयां, दालचिनी! दुबाय तीन मोटे सुपर-सुपर कसले, हायपर स्टोअर्स आसात सिटी सेंटर. बर जुआन आनी लेन्सी प्लाझा. तरांतरांचे रेडीमेट कपडे, फॅशन ज्युवेलरी, इलेक्ट्रॉनीक्स वस्ती, उंची मद्यां, लातारी, चॉकलेटी, अत्तरांच्यो तरातरा, संवसारांतल्या सगल्या वाठारांतलीं फळां, शाकभाज्यो, नुस्तीं, तरांतरांचें मास, जिबेच्या कळयांक फुलोवपी तरातरांचीं खाणां जेवणां !

दुबाय शारच मध्यपूर्वेतलें नामनेचें शॉपिंग सेंटर जावन पडलां. मार्च म्हयन्यांत ट्रेड फेस्टिवल जाता. देशविदेशांतले लोक येतात- फकत शॉपिंग करपाक! भांगर, गाडयो, डिफेन्स इक्विपमेंट्स, विमानां- सगल्यांचो नेगोस दुबाय जाता. तेलाचे सांठे सोंपतकीर दुबायची गिरेस्तकाय सोंपची न्हय म्हणून दुबायच्या शेखान दुबायक व्यापारी पेठ केल्या. शॉपिंगाच्या निमतान पर्यटनाच्या धंद्याक बरकत आयल्या.

सगळें मेळटा. मेळनात पुस्तकां. पुस्तकांचीं बरीं दुकानां नात. दुबायच्या ऐहिक उपभोग वादाक साहित्य, कला, संगीत, वैचारिक वादसंवाद हांची सांस्कृतीक झालर ना. दुबायचें आनी पुराय अरबी देशांचें खूब व्हडलें वैगुण्य हें !

दुबायच्या मूळ अरबी लोकांक भायल्या लोकांनी माड्डून वडोवचें न्हय म्हणून तांच्या हिताची राखण करूंक हांगा स्पॉन्सरशीप लॉ केला. दुबाय खंयचोय धंदो करतल्या भायल्या देशांतल्या मनशाक थळावो स्पॉन्सर घेवचो पडटा. ताका स्पॉन्सरशीप दिवची पडटा. बऱ्या हेतून केल्ल्या कायद्याचे दुष्परिणाम आतां दिसूंक लागल्या. थळावे अरबी लोक सुस्त आनी आळशी जाल्यात ते कसलोच कामधंदो करिनात. कश्ट करिनात. फुकेसवाय स्पॉन्सरशीप फी घेवप, खावप-जेवप, विलासी जीण जगप. तरणाट्यांमदीं व्यसनां वाडल्यांत. वेश्या-वेवसाय वाडत चल्ला. थळाव्या लोकांक गिरेस्तकाय पचूंक ना.

जांकां पयशे जोडपाचे कश्ट कळनात तांकां पयशे मोडपाक कश्ट जायनात हो पयशांच्या व्याकरणाचो मुळावो नेमच अरबस्तानाक खबर ना. देखून गिरेस्तकायेचे लेप लावन वशिल्ली नवी अरवी संस्कृताय उथळ आनी उखलापी जायत गेल्या.

दाळंबांचें झाड मुसमुशीत दाळंबांनी चंवरलां. पुणून मुळांक कीड लागल्या.

म्हाका एक उर्दू शेर याद जालो. अल्लाकडेन केल्लें मागणें तें. 'अल्ला, आमची जोड वाडय अशें आमी मागिनात. आमकां मोडपाक उपाट पयशे मेळयार पुरो.'



# डेजर्ट सफारी

डेजर्ट पार्क शारजापसून लागींच आसा. डेजर्ट पार्क ही अरबस्तानाचे भुंयेची काणी. दुबाय म्युझीयमाभशेनच एक म्युझीयम तो. पुणून ताचो कॅनव्हास व्हड. हो कॅनव्हास सुरू जाता त्या दिसा खरें म्हळयार ते रातीक जे रातीक बिग-बॅन्ग जावन ब्रह्मांडाचो जल्म जालो आनी तो सोंपता ६ जून १९६६ ह्या दिसा ! दुबायच्या आखातांत तेलाचे बांयचो सोद लागलो तो हो दीस.

रखरखींत रेंवेच्या गर्भाशयांत आर्द्र, स्निग्ध तेलांचो स्त्राव खंयच्यान सुटलो ? ही अल्लाची कृपा काय हो सैमाचो चमत्कार ? ज्ञान विज्ञानाची पांखां लावन ह्या प्रस्नाचे घोलीत देवयता डेजर्ट पार्क.

डेजर्ट पार्काची वास्तू स्प्लिट लेवलांचे तत्व घेवन बांदल्या. सोपणा, देंवती मागीर परत सोपणां, चडटी, काळोख, मंद उजवाड, मंद संगीत - भूगर्भाची भोंवडी !

शंबर दशलक्ष वर्साआदीं धर्तरेच्या पोटांत तेलाचो गर्भ धल्लो.

भुंयेवयली तरांतरांची वनस्पती सुकली. सावदां मेली. वनस्पतीचो सुकिल्लो पालो, सावदांची हाडां हाचेर वाऱ्यान रेंव ओतली. रेंवेचें चेपण, भुंयेचें चेपण, भुंयेचेर दर्याच्या उदकाचें चेपण. भूगर्भ तेन्ना खतखतालो. ही हूनसाण, ही उब, हो खतखतो हाणें सेंद्रिय द्रव्यां शिजून आयलीं. तांतूत

बेक्टेरियान रासायानिक प्रकिया सुरू केली. भूगर्भाच्या महाकाय बुयांवांतल्या दोणांत सेंद्रिय द्रव्यां चेपून चेपून चेपलीं. भुंयेच्या पोटांतल्या खतखतीत प्रेशर कुकरांत तीं शिजलीं.

सेंद्रिय द्रव्यांचे हायड्रोकार्बन जाले. तातूंतल्यान तेलाचो एकेक थेमो पाझरलो. खडपांच्या पोरस बुराकांनी स्पंजाभशेन तेल जमलें. लक्षावधी वर्सां ही प्रक्रिया चलत रावली,

विज्ञानान भूगर्भशास्त्राचें ज्ञान मनशाक दिलें. तंत्रज्ञानान सेस्मिक उपकरणां मनशाच्या हातांत दिलीं.

कोट्यांनी वर्सां चलत आयिल्ली भुगर्भांतली सैमीक प्रक्रिया, ज्ञान, विज्ञान आनी तंत्रज्ञानाचे तीन दोळे आनी भुगर्भांतली ही तेलाची गंगा भुंयेर हाडपाचो मनशाचो भगीरथी हावेस! उपाट कश्ट. अपेसाफाटल्यान अपेस आनी निर्शेवणी! उपाट निर्शेवणी. पुणून तेल सोदपाच्या प्रयत्नांत खंड ना. उपाट दुडवाचो धुंगोर. हजारांनी मनीसवरांचो घाम. निमाणे १९३२त बेरीनाक तेलाची पयली बांय आनी १९६६त दुबायच्या आखातांत तेलाची बांय लागली. दर्याच्या पोंदा २५०० मीटर खोलायेचेर तेलाचे झरे, वझरे मेळ्ळे.

डेजर्ट पार्काच्या भायर आमची फोअर व्हील ड्रायव्ह लँन्ड रोवर उबी आशिल्ली. तांतूत बसून मागीर म्हजी डेजर्ट सफारी सुरू जाली.

शामाल म्हळ्यार अरबस्तानाच्या ईशान्येकडल्यान येवपी वारो. हो वारो केन्ना मंद व्हांवता आनी रेंवेच्या भुरभुर केंसाक लक्तुबायेन आपल्या शीतळ बोटांनी सांसपिता जाल्यार केन्ना कामांध बेबद्याभशेन रेवेचीं न्हेसणां पिनून, पिसडून तिचो भोग घेता. अरबस्तानाच्या रेंवटांत जळीमळीं रेंवेचे ल्हान व्हड दोंगोर - ही शमालाची करणी. डिसेंबर, जानेवारी ह्या म्हयन्यांनी येवपी हो वारो हजारांनी टन रेंव हांगची थंय हुबयता. आशिल्ले डयून्स भस्स करून आपल्या घटमूट पांयांच्या खोटांनी मोडून वडयता आनी दुसरे कडेन रेंवेचेर रेंव, रेंवेचेर रेंव थापून रेंवेची व्हडली रोयण उबी करता.

डिंसेवर म्हयनो लागूंक नाशिल्लो. शमालाचे दीस पयस आशिल्ले म्हणून माणम्मुकी !ना जाल्यार शमालाच्या दिसांनी रेंवटांत भोंवपाचें ना. घडये हो शमाल तुमचे गाडयेसयत तुमकांय रेंवेसकयल पुरत म्हणून भंय.

लॅन्ड रोवर रेंवटांतल्यान खूब पयस आयली. रेंवेच्या दोंगराचेर चडप आनी देंवप. जिपीचो ड्रायव्हर अबु बेकर जीप फिशालकायेन चलयता. रोदां रेवेंत मुंगरूक दिना. सत्तर डिग्रीच्या कोनांतल्यान तो जीप सॅण्डडयूनाचेर हाडटा आनी ऐंशी डिग्रीच्या कोनांतल्यान सकयल देंवयता. म्हज्या हड्ड्यांत धडधड. रोलर कोस्टरा इतलोच, पेरासेलींगाइतलोच हो अणभव भंयाचो आनी तितलोचो आनंदाचो.

अबु बेकर आतां सॅण्डडयूनाचे देगेदेगेन जीप चलयता. जीप तिरपी जाता. आडवी जावन गडगडत पडत म्हणून भिरांत दिसता. पुणून जीप पडना रोमना. मुंगरना थामना.

अबु बेकर आतां जीप थामयता. रेंवटाच्या मदी चारी व्हटेन रेंव! रेंव! रेंवेचें मळ! रेंवेचें पयस पयस पातळिल्ले रेंवट!

एक झाड ना. एक रूख ना. एक शेवणे ना. वयर लेव निळें, मेकळें मळव आनी सकयल लेव धवें, लेव हडवें, रेंवटाचे मेकळें मळ! नग्न. नागडें.

नग्नता हेंय एक न्हेसण. निराकार हो एक आकार. निर्गंध ही एक गंधाची तरा. काळोख होय एक उजवाडाचोच एक रंग. अस्तित्वहीन स्थिती हें एक अस्तित्व.

सैमाची ही सायलंट सिम्फनी म्हळयार एक संगीतच. सैमाचे हें वांझ रूप म्हळयार सर्जनाचेंच एक स्वरूप.

जिपींतल्यान देंवन हांव एकटोच चलत रावलों. रेंवटाच्या मदीं! मन रितें जालें. सगल्याक प्रशांत शांती! मोव जायत गेल्ली सानवळ! मोव, मुलायम, मुदयाळो उजवाड!

तीनसांज जायत आयली. चंद्रोदय जालो. अरबस्तानाच्या वाळवंटांत किल्लून आयिल्या इस्लाम धर्माक सूर्याचे न्हय शीतळ चंद्राचे

अप्रूप- हांतूत अजाप कसलें ?

चंद्र हो वाळवंटान भोंवपी अरबांचो आदार. ताचो इश्ट तांचें प्रिय दैवत रेंवटातल्यान लांबची भोंवडी करतना ती रातची करची पडटा. पुनवेपयलीं सात दीस आनी उपरांत सात दीस चंद्राचें चान्ने आसता ते दीस पयस प्रवासाक भायर सरपाचे.

चान्न्याच्या उजवाडान वाळवंटाचें आंगआंग रंध्ररंध्र शिरशिरता. आपले सात बुरखे काडून अभिसारिका धर्तरी कामातूर जाता. धवेफुल्ल पिठोर चान्ने आनी श्वेतांबरां धर्तरी एकमेकांत भरसून वतात.

परत एकदां  रेंवेच्या विस्तीर्ण मळांकडेन हांवे नदर मारली. सैमाच्या अनाकार, अनलंकृत रूपांत महंमद पैगंबराक अल्ला निराकार रुपांत दिसप हाका खासा अर्थ आसा - म्हाका दिसलें.

हेर कसल्याच रंगाचे ब्रश नाशिल्लो तो रेंवेचो फुल्लधवो कॅनव्हास पळोवन इस्लामाक पांचव्या कोराचें अप्रूप किद्याक तें म्हाका कळ्ळें.

हांव जिपीकडेन परतलो. मैलभर फुडें व्हरून अबु बेकरान जीप थामयली. थंय उंटांचो एक काफिलो थामिल्लो. उंटार बसून आमी कोसभर गेले.

चंद्रावरीच उंट हो अरबांचो इश्ट. उदकाचो थेंब घेना आसतना दिसांचे दीस उंट अरबाक फाटीर घेवन कोसांचे कोस वता. उंट हो फकत पाळिल्लें जनावर न्हय. अरबाच्या घरांतलो एक मनीसच तो. उंटाच्यो सर्ती हो एक अरबांचो आवडीचो खेळ. एका तेंपार पयशांचे वेवहार नाशिल्ले तेन्ना उंट ही अरबांची एक करन्सी आशिल्ली.

उंट थावलो. हांव सकयल देंवलों. मदीं बॉन फायर घाल्लो. ताचे सरभवतणी आमी बसले. अरेबियन लोकगीतां, लोकनाच आनी सुरबूस अरबस्तानी जेवण.

रात जायत गेली. दिसलें - हे रातीक फांतोड नासची. शींय वाडत गेलें. काळोख गडद जालो. बॉन फायरांतलो उजो मंद जालो. नाच सोंपलो. गीतां थांबलीं.

अबु बेकरान जीप सुरू केली. दिव्यांच्या उजवाडांत काळोख चरचरीत कापीत ताणे रेंवेच्यो दोंगुल्ल्यो हुंपल्यो. रेंवटाचें मळ फाटल्यान पडलें. पयस शारजाचे दिवे दिसूंक लागले.



# देशांतरितांचीं दुख्खां

तिनसांजचें दुबाय सोडलें. शॅअर्ड टॅक्सींतल्यान अबु धाबीक वचूंक भायर सरलों. टॅक्सीचो ड्रायव्हर  पाकिस्तानी पठाण. तीन वर्सांतल्यान एकदां तो आपल्या घरा वता.  थंय ताची बायल आनी तीन भुरगीं आसात. जाण्टी आवय आसा. कराचीच्यान ताच्या गांवाक वचपाक बसीन सत्तावीस वरां लागतात. तीन वर्सां तो मरून काम करता. फांतोडेर टॅक्सी घेवन स्टॅण्डार येता. मध्यान रातीक थांबता. दोनी वेळा तो जेवण भायरच घेता. अबु धाबीक एके ल्हान कुडींत तो आनी ताचे गांवचे तीग जाण रावतात. अब्दुला सप्तकाची सुटी घेना. शुक्राराची सुटी घेवन कितें करतलो ? शुक्रार आयलो म्हणटकीर जीव खावंक येता. घरा- घर कसलें- कुडींत दीस सारूक वाज वाज येता. घरच्यांची याद येता. आपल्या हातांनी रांदूक तो वाजेता. दीस भर कितें करतलो ? न्हिदून न्हिदून कितलो न्हिदतलो ? त्या परस शुक्राराकय तो टॅक्सी चलयता. म्हजे सारके कोणय गिरायक मेळटा. चार गजाली करूंक मेळटात.

दर म्हयन्याक ताका घरची चीट येता. चिटयेची तो वाट पळयता. चिटयेंत तशें व्हडलेशें कांयच नासता. फाटल्यो धा चिटयो काडल्यार सगल्यो एकसारक्यो! तरीय दर चीट ताका नवी दिसता. ताची तो वाट

पळेता. ताच्या गांवांत फोन ना. हेर लोक फोनार आपल्या बायलां भुरग्यांकडेन उलयता हें पळोवन ताका तांची नसाय जाता.

अब्दुला दिसपट्टो आपल्या कामात गुंथून रावता. आपलें दुःख विसरपाक काम करीत रावपाखेरीत दुसरो उपाय ताका खबर ना.

अबु धाबी शार दुबायपरस मात्शें पॉलिश्ड. ताका अमेरिकन शाराची सया मारता. अबु धाबी शाराची येवजण अमेरिकन वास्तुशिल्प्यांनी केल्या. अरबस्तानाचे परातींत न्यूयॉर्क, शिकागोची शीर कापून दवरची तशे तरेन इस्लामीक वास्तुशिल्पाक खोंटावन अबु धाबीन अमेरिकन वास्तुशिल्पाचो भेस आंगार चडयला.

म्हाका मस्कतची याद जाली. दुबाय येवचे पयलीं हांव एकच दीस मस्कत राविल्लों. मस्कत हें ओमानचें राजपाटण. हांव मध्यानरातीक मस्कत पावलों. फांतोडेर जाग आयली आनी कुडीचो पडदो उगडून भायर पळयलें.

हॉटेल इल्लें उंचायेर आसुंये. कुडींतल्यान मस्कत शार दिसतालें. मस्कतान आपल्या रस्मी हातांचेर इस्लामिक वास्तुशिल्पाची मेंदी घाल्या. सगल्या वास्तुंचो रंग धवो. जालोच जाल्यार ऑफ व्हायट्. क्रिमीश. खंयच हेर रंग ना. तांवडो, पाचवो, निळो  रंग ना. दुधाळ धवो आनी हडव्याचें मिस्तूर आशिल्लो इल्लो स्निग्ध तुपाळ साय-दाटो क्रिमीश कलर.

वैविध्यांत सोबितकाय आसता तशीच एकसुरी, एकतारी, एकसारक्या रंगसंगतींतय सुंदरताय आसता हें मस्कत शाराकडेन पळयतकीर कळटा. मस्कत हें एक प्रियदर्शनी शार.

अबु धाबी वेगळें. अबु धाबी दर्शनीय जावपाच्या हावेसान प्रदर्शनीय जालां. एकाक लागून एक अशो बहुमजली बिल्डींगो. ताका चारी वटेन हारशे. तरांतरांच्या कोरांचे हारशे. विस्तृत काटकोनी रस्ते. रस्त्याच्या मदीं फुलझाडां, पानझाडां आनी झिळमिळ उदकाची कारंजीं. एके वटेन दर्याची देग. पयस बंदर आनी बंदराभिमुख अबु धाबी शार.

सतराव्या मजल्या वयल्यान रस्त्यावयल्यो गाडयो कितल्यो सान, सोबीत दिसतात. खेळण्यांतल्यो कश्यो आनी पयस दर्यादेगेवयल्यो बिल्डींगो

मॅकानोच्या खेळांतल्यो.

अजून इरफान कसो आयलो ना ? हांव इरफानाची वाट पळयतां. इरफानाक हांव लागीं लागी चोवीस वर्सांनी मेळटा. इरफान म्हजो कॉलेज मेट. तो वास्को रावपी आनी मडगांवां कॉलेजीक येवपी. ग्रॅज्युएट जातकीर वर्सभरांत ताणें गोंय सोडलें. खरें म्हळयार ताका गोंय सोडचें पडलें. ताच्या शेजरा रावपी हिंदू चलयेकडेन ताचो मोग आसलो. लग्नाक दोनीकडल्या घरच्यांचो विरोध. इरफान हट्टाक पेटून लग्न जालो. बायलेक घेवन मुंबय आयलो. मुंबय तीन वर्सां ताणें खूब कश्टांत दीस काडले. मागीर तो दुबाय आयलो. बायल मुंबय एकटीच भाड्याचे कुडींत रावली. दुबाय इरफानान पांच वर्सां एका हॉटेलांत नोकरी केली. मागीर एक दीस अचकीत ताका लुफ्तानझा एअरवेजांत नोकरी मेळ्ळी. इरफान अबु धाबीक आयलो. ताणें भाड्याक ल्हानसो प्लॅट घेतलो. बायलेक हाडली. ताका एक चली जाली. ताचें नांव सायका दवरलें.

मदीं इरफान ट्रेनिंगाक जर्मनीक गेलो. जर्मन शिकलो. जर्मन भाशेचे चावयेन ताणें आपल्या वरिश्टांची काळजां जिखलीं. ताका बढती मेळ्ळी. सुखाचे दीस आयले. गोंय सोडून पंदरा वर्सां जाल्लीं. सायका पांच वर्सांचें जाल्लें.

इरफान घरा परतता म्हणसर तीनसांज जाताली. सायका बापायची वाट पळेतालें. इरफानान बेल वाजयली म्हणटगीर सायकान लिपून रावप आनी बापायन मागीर ताका सोदून काडप. मागीर बापायचे मांडयेर बसून गजाली करप. टी.व्ही. पळोवप.

एक दीस असोच सांजचो इरफान घरा परतलो. ताणें बेल मारली. बायलेन दार उगडलें. सायका लिपूंक गॅलरींत गेलें. इरफान ताका सोंदूंक लागलो. ताणें घरभर सोदलें ताका सायका मेळ्ळें ना. इरफान सोद सोद सोदता. उल्यार उले मारता. सायका ओ दिना. धांवत येवन इरफानाचे मांडयेर बसना, इतल्यान सकयल्यान वॉचमेन धांवत वयर आयलो.

सायका बेबी पडलें. इकराव्या मजल्यावयल्यान पडलें इरफान आनी

बायल म्कयल धावलीं. रक्तान भरिल्लें सायकाचें मडें पळोवन तांणी आकांत केलो.

एकंकल्याची जीण ही कादंबरीपरस अनोखी आसता. इरफानान आपले जिणेच्या दरेक मोडणार दुःखाचो धग सोंसलो. सोरप निसणीच्या खेळाभशेन सुखाची निसण मेळटा म्हणसर सोरपाचीं तोंडां ताका गिळूंक आयलीं.

पंचवीस वर्सां जालीं. इरफान गोंयाक परतलो ना. ताचे आवय बापूय भायर पडले. घरच्यांचो विरोध सोंपलो. भावांचीं लग्नां जालीं. इरफानाक गोंयाक वचनशें दिसलें ना. मदीं सावियोकडल्यान इरफानची खबर कळ्ळी. इरफानाचो नामो घेवन हांवे ताका चीटय बरयली. इरफानान जाप दिली ना.

सतराव्या मजल्या वयल्यान हांव सकयल पळयतां. वत खर जायत गेलां इतल्यान इरफान येता.

इरफानाक पळयल्यार हांव ताका वळखुचो नाशिल्लों. जर्मन कंपनीत काम करून तो अर्दो जर्मन जाला. जर्मन हेअरस्टायल आनी मिशो. लुफ्तानझा एअरवेजचो निळो धवो युनिफॉर्म. जर्मन मनीस लांब रूंद आसता इरफान मोटवो आनी मात्सो मोटो. जसो जर्मन मनशाचो बॉन्साय.

इरफानान म्हाका वेंग मारली. कितलोसोच वेळ आमी ओग्गी रावले. उतरांविणे आमचो संवाद जालो. पोरण्यो यादी जित्यो जाल्यो. काळ गोठेलो. पंचवीस वर्सां पयलींचे दीस हुबत हुबत वयर सरले.

ते रातचो हांव इरफानागेर जेवंक गेलो. तोच इकराव्या मजल्यावयलो फ्लॅट. वण्टीर सायकाचो फोटो. आरमारींत सायकाचीं खेळणी. सायकाचे सांबाळून दवरिल्ले बूट. ताचें टिफीन. वॉटरबॅग. बोटवो.

मेजार आल्बम. इरफान आनी सुनीताच्या लग्नाचो. सायकाच्या वाडदिसांचो.

इरफानाक फुडें भुरगीं जालीं ना. सुनीतान मेडिकल स्टोअरांत

नोकरी धरली. स दीस काम. शुक्राराक दोगय जाणां फिशींगाक वचप. दर वर्सा लुफ्तानझाची कोम्पलीमेंटरी तिकेट घेवन देशविदेशाची भोंवडी करप. सतत काम सतत भोंवप.

गोंयाक परतुपाचो विचार ना. गोंयची याद काडप ना. गोंय मेलें. सोडलें त्याच दिसा मेलें. इरफान आनी सुनीता खातीर सासणाचें मेलें. सोयरे मेले. धायरे मेले. उरलीं तीं दोगांच इरफान आनी सुनीता. घोव आनी बायल. बायल आनी घोव. स दीस काम. एक दीस सुटी. इकरा म्हयने काम. एक म्हयनो सुटी. क्लायमेक्स ना आनी आतां अँटिक्लायमेक्सय ना. आतां निसणी ना आनी सोरपाचीं तोंडाय ना. आतां सुखाची रूच ना आनी दुःखाचो भंय ना. चितप ना आनी चिंताय ना.

अबु धाबी सोडटना इरफान स्टँडार पावंक आयलो.

'इरफान, रिटायर्ड जातकीर खंय सेटल जातलो?' - हांवें विचारलें.

'संवसारांत खंयय! सोडून गोंय!!' इरफानान म्हळें आनी म्हज्या हातांत खाजुराचें एक बॉक्स दिवन इरफान परतलो. हांवे शारजाची वाट धल्ली.

शारजा शाराक कसलेंच कॅरेक्टर ना. आबु धाबी शार भूमितीचे आनी त्रिमितांचे बुन्यादीचेर वसयलां. दुबाय सेंद्रीय तरेन चंवरलां. मस्कत जपानी इकेबानाभशेन सजलां. शारजाची तुस्त तोखणाय करची अशें कांयच ना. शारासारकें शार. धेडगुजरी. धड नवेंय न्हय धड पोरणेय न्हय. सोबीत न्हय. विद्रूपय न्हय. एफरव्हसंट न्हय, फ्लॅट जाल्ल्या सोडाभशेन. मोव जाल्ले बिस्कीटीभशेन.

सुरेश शारजा येवन धा वर्सां जालीं. अरविंद आनी सुरेश दोगूय इश्ट. सुरेशा फाटोफाट अरविंद आयलो. दोगांयचीय लग्नां जाल्यांत. दोगांयनीय गोयांत घरां बांदल्यांत.

घरां आसात आनी नाय बी. बायल भुरगीं आसात पुणून बायल भुरग्यांचे सुख ना. पयशे आसात गिरेस्तकाय आसा, पुणून खोशी ना. धादोसकाय ना.

कितले दीस हांगा रावचें? केन्ना परतुचें? सासणाचें शारजा सोडून गोंयांत वचचें? थंय वचून कितें करचें?  नोकरी? कसली नोकरी? धंदो? कसलो धंदो? जमतलो? कसलो धंदो जमतलो? परत येवचे पडचें ना मू? परतूंक तरी व्हिसा मेळटलो? नोकरी परत मेळटली? बायलेक हांगा हाडची? खर्च झेपतलो? भुरग्यांचें कशें? तांचे शिक्षण? आवय म्हज्यांत कोण? घर कोण सांबाळटलो? इतली जोड सोडून गोयांत वचप पिशेपणाचें जावचें ना? आनी हांगा रावपांत तरी शाणेपण आसा? फकत जोड! जोड!! जोड!!! कित्याखातीर? कोणाखातीर?

प्रस्नाचेर प्रस्न. प्रस्नाची व्हडली रोंयण. म्हजेकडेन जाप ना. कांय प्रस्न अशे आसतात ! ते  प्रस्न वियेतकीर तांका प्रस्नांचीच पिलां जातात.



# ओ! कुवेट!

दुवायच्यान भायर सरतना नवाजान म्हाका 'सनशायन् ॲट मदीना' ह्या माथाळयाचें महमंद पैगंबराचें चरीत्र हाडून दिलां. चरित्रांत फकत पैगंबराचे जिणेचो पट उक्तो करूना. देड हजार वर्सांपयलीं अरबस्तानाची सामाजिक स्थिती कशी आसली ताचेंय चित्र दोळयांमुखार उबे केला.

महंमद पैगंबराचो जल्म जालो तेन्ना अरब समाजाक कसलेंच नीतिचे अधिष्ठान नाशिल्लें. मद्यपान, जुगार, मदलशी आनी मुक्त कामोपभोग अशी स्वच्छंद आनी उसंखळ जीण ते जियेताले. टोळयांटोळयांमदीं दिसपट्टी झगडीं जातालीं आनी कांय वेळां ही झगडीं वाडत वचून दोन टोळयांची एकमेकांकडेन लडाय जाताली. मक्का हें एक वेपारी केंद्र आशिल्लें. उंटाचे काफिले थंय रावताले आनी वेपाराच्यो वस्ती घेवन अरबस्तानभर वताले. वेपारी लोक रीणाचेर सुमाराभायर कळंतर लायताले. दरेक टोळयेचो एकेक देव आशिल्लो. ताचे मुर्तीक ते भजताले. अशे तरेन धर्मीक मळार मूर्तीपूजा , अर्थीक मळार उपाट कळंतर घेवन दुबळयांची लूट आनी समाजीक मळार व्यभिचारी आनी विलासी जीण - अशें सगलें चित्र आशिल्लें.

अशा वेळार महमंद पैगंबराचो जल्म जालो. ताच्या जल्मापयलीच ताचो बापूय मेलो आनी पांच-स वर्सांचो आसतनाच ताची आवय भायर

पडली. हलीमा नांवाचे एके दाईन ल्हानपणात महंमदाक सांबाळ्ळो. धा वर्सांचो जातकीर महंमदान आपल्या चुलत्याच्या मेंढरांक दोंगरांनी चरपाक व्हरपाचें काम केलें. कृष्ण, जेजू आनी महंमद ह्या तीनय धर्मापुरूषांचे जिणेंतलें साम्य म्हळयार तिगांयनी राखणो म्हणून सैमाचे मांडयेर बसून आपल्या भुरगेपणांतलो काळ सारलो.

फुडें महंमदाच्या चुलत्यान ताका वेपाराखातीर आपले बराबर सिरीयाक व्हेलो. थंय ताची बहीरा नांवाच्या ख्रिश्चन पाद्रीकडेन वळख जाली. जेजूची एकेश्वरवादाची शिकवण आयकून महंमद पैगंबराक अरबांच्या मुर्तीपुजेभवतणी भोंवतल्या बहूश्वरवादाचो वीट आयलो. फुडें वेळावेळार वेपाराच्या निमतान केल्ले भोंवडेच्या निमतान तो कितल्याशाच ख्रिश्चन पाद्रींक मेळो. मरियमाचो पूत जेजून बौध्द धर्माकडल्यान करूणेचो संदेश घेतलो. महंमद पैगंबरान जेजूचे शिंकवणीतल्यान स्फूर्त घेतली.

.थोड्याच वर्सांभितर एक चोख आनी प्रामाणिक वेपारी म्हणून महंमदान कीर्त मेळयली. ताचो निकाह खदीजा नांवाच्या ताचेपरस पंद्रा वर्सानी व्हड गिरेस्त विधवेकडेन जालो. महंमदाक अर्थीक जोड करपाची चिंता उरली ना. तो धर्मविचाराचे चिंतन करूंक लागलो.

मक्केतल्या लोकांक ताणे मुर्तीपूजा सोडून निराकार अल्लाक भजपाचो उपदेस केलो.

महंमद पैगंबर ताच्या काळाचो संदर्भ नदरेमुखार हाडल्यार एक समाजीक क्रांतिकारक आशिल्लो जसो बुध्द, जसो जैजू तसोच! ताणे टोळयांटोळ्यांमदी भावचार हाडपाचो यत्न केलो. विलासी जीण सोडून सादी जीण जियेपाक सांगलें. व्यभिचार सोडून विवाह बंधनाचो आदर दवरपाक सांगलें. व्यभिचारापरस बहुपत्नीकत्व बरे अशे नदरेन चार निकाह करूंक ताणे मान्यता दिली. बायलांच्या सौदर्यान दादलें पिशे जावचे न्हय म्हणून बुरख्याची पध्दत हाडली. घटस्फोट दितना एकदां न्हय दोनदां न्हय तर तीन फावटीं बेसबरो विचार करचो म्हणून तालाक, तालाक तालाक अशा तीन उतरांची प्रतिकात्मक रूढी वेवहारांत हाडली. मद्यपान

आनी मदलशी हांगा आडावपाक उपास करपाक सांगले. सगल्यांत म्हत्त्वाचें म्हळयार वेपारी रिणाचेर उपाट कळंतर घेताले ताका विरोध केलो. रिणाचेर कळंतर घेवंक जायना असो आदेश दिलो.

अरबांच्या विंगड विंगड टोळयांमदीं तेन्ना दुस्मानकाय आसली. एके टोळयेंतले लोक दुसरे टोळयेंतल्या लोकांक जेवणांतल्यान वीख घालून मारताले. सगळयांमदलो भावचार वाडचो आनी जेवतना एकमेकांचो दुबाव येवचो न्हय म्हणून महंमद पैगंबरान सगळयांनी एकठांय वसून एकाच ताटांतल्यान एकच अन्न जेवचें असो उपदेश केलो.

'इष्टम् धर्मेण योजयेत्' हे म्हणणेप्रमाण हे सगले समाजीक आनी अर्थीक बदल महंमद पैगंबरान धर्मपुरूषाचो भेस घालून केले.

मक्केच्या वेपाऱ्यांक हें सगलें नाकसुरें गेले. उन्मत्त, अनाचारी जिणेक लाळेल्ल्या अरबांक हें सोसना जालें. ताणी महंमदाआड कट रचले महंमद पैगंबराक आपल्या लागींच्या इश्टांक घेवन मक्केच्यान मदिनाक वचचें पडलें. मदिनाक इस्लाम धर्माक ताणे घटमूट बुन्याद घाली.

मदीं मक्केच्या आनी मदिनाच्या लोकांमदीं लडाय जाली. महंमद एक खांपो राजकारणी आनी लष्करी दावपेंच लडोवपी बुदवंत आसूंक जाय. ताणे लडाय जिखली.

महंमद पैगंबरान इस्लाम धर्म अरबस्तानभर पातळावपाचो यत्न केलो. ताणे ल्हवू ल्हवू मक्केच्या लोकांचींय काळजां जिखलीं.

खदीजाच्या मर्णाउपरांत महंमदान सौदा नांवाचे विधवेकडेन निकाह केलो. फुडें झैनबी हे घटस्फोटित बायलेकडेन आनी आयशा हे कुमारिकेडेन पैगंबराचे निकाह जाले.

पिरायेच्या साठाव्या वर्सा महंमद पैदंबराक मरण आयलें पुणून तो मेरेन इस्लामाचो रोपो खाजुराच्या रूखाभशेन अरबस्तानच्या रेंवटात किल्लून आयिल्लो. चंवरून आयिल्लो.

वडाची खांदी रूजून दुसरो वड किल्लचो तशे तरेन हिंदू धर्माच्या लोकायत आनी श्रावक दायजांतल्यान बौध्द धर्म, बौध्द धर्मापसून स्फूर्त

घेवन ख्रिश्चन धर्म आनी ख्रिश्चन धर्माकच एक खांदो फुटून इस्लाम धर्म जल्मलो.

धर्माचें एके काळचें शुद्ध, विशुध्द रूप फुडें फुडें बदलत गेलें. समाजीक क्रांतीचो यत्न म्हणून जे धर्म फुडें आयले तेच फुडाराक समाजीक उदरगतीक आडखळ थाल्ले.

कुवेट पावतां म्हणसर दनपार जाली. विमानतळार आलेक्स आयिल्लो. हांवे आलेक्साक म्हळें,

"तुवें विमानतळार येवपाचो त्रास कित्याक घेतलो ?"

आलेक्स मुमुरखो हांसलो.

"इतल्या पयसल्यान गोंयच्यान पयल्याच फावटीं तूं कुवेट येता आनी तुका मेळपाक येवप ना ?" - ताणें म्हळे.

आमी हॉटेलार आयले. तितले म्हणसर इकबाल आयलो. रशीद आनी रोजारिओ आयलो. आलेक्सान सगल्या गोंयकारांक एकठांय केल्ले.

रातचे आमी सगले रिव्होलव्हींग रेस्टॉरंटाक जेवंक गेले. एका उंच टॉवराचेर हें भोंवतें रेस्टॉरंट आसा. थंयच्यान पुराय कुवेट शार दिसता. कुवेट शाराची रचणुक चक्राकार. एका भवतणी एक अशे रिंग रोडस. चकरेभशेन वो जिलबेभशेन हे शार. सरभवतणी दिव्यांचो लखलख. उजवाडाचीं कारंजीं.

काळखाची नसाय कुवेटाक. ते किट्ट काळे काळखी दीस आनी राती विसरूंक ना कुवेट. गेर्राचे घाय पेखूंक नात अजून.

२ ऑगस्ट १९९० चे मध्यानरातीक सद्दाम हुसेनाचे इराकी सोल्दार कुवेटांत भितर सल्ले. फांतोड जाय मेरेन रणगाडे कुवेट शाराच्या हुमऱ्यार पावले. मळबांत इराकी विमानां भोवूं लागलीं. कुवेटी लोकांक किदें जाता तें कळना जालें. सरकाराक अजाप जालें. कुवेटान आपली आर्मी केन्नाच घटमूट केली ना. एक अरब राष्ट्र दुसऱ्या अरब राष्ट्राचेर घुरी घालीत अशें कुवेटच्या शेखान केन्नाच धल्लें ना. इराण आनी इराकाच्या गेर्रांत कुवेटान इराकाक पयशांचो मोटो आदार दिल्लो. उंडी दिवपी हाताकच, खावपी तोंड

चावत अशें कुवेटच्या शेखाक सपनांत लेगीत दिसलें ना. तसो सद्दामचो कुवेटचेर दोळो खूब पयलींसावन आशिल्लो. इराकाक दर्याची देग ना. देखून बंदर ना. त्याभायर कुवेटांत तेलाच्यो उपाट बांयो. पुणून सौदीचो राजा फहद आनी इजिप्ताचो अध्यक्ष मुबारक हाणी वेळावेळार मध्यस्थी करून इराक आनी कुवेट हांचेमदलें झगडें पालयल्लें.

इराकी सैन्य शारांत भितर सरलें. कुवेटी सोल्दादांनी इराकी आर्मीक आडावपाचो खर यत्न केलो. सात हजार कुवेटी सोल्दाद मेले. निमाणे ताणी धवें बोंदेर दाखयलें. कुवेटचो शेख अहमद अल्-साबा विमानान सौदीक पसार जालो.

इराकी शिपाय शारांत येवन ताणी धुडगूस घालो. जैतिवंत सैन्य जितांक लुटता. तांच्या बायलांचेर बलात्कार करता हो तर शेकड्यांनी वर्सांचो इतिहास. हाका आडवाद एक श्रीरामाचो, दुसरो सम्राट अशोकाचो. तिसरो छत्रपति शिवाजीचो. अशे थोडे आडवाद सोडले जाल्यार दरेक जैताची नशा जैतिवंताच्या माथ्याक मारल्या.

२ ऑगस्ट १९९१ ते २६ फेब्रुवारी १९९२ मेरेनच्या सात म्हयन्यांत कुवेटी लोकांनी किदें किदें म्हणून भोगलें ना ? कुवेटी लोकांची जीण आळशी आनी विलासी. पांच लाख मूळ कुवेटी लोक जाल्यार धा लाख नोकर म्हळयार मनशा फाटल्यान दोन दोन नोकर. चडशे आशियायी देशांतले लोक. सद्दामाच्या शिपायांनी तांतूतले जितले लोक आपल्या देशांत वचत तांकां वचूंक दिले. आलेक्स, इकबाल, रशीद गोंया आयले. रोजारियो सुटयेर गेल्लो.

हेवटेन इराकी शिपायांनी लोकांचे हाल हाल केले. खावपाजेवपाच्यो वस्ती मेळना जाल्यो. दिसपट्टे दोळयांमुखार इराकी सोल्दार घरांत येवन जाय जाय तें सामान व्हरूंक लागले. बऱ्यो बऱ्यो गाडयो घेवन गेले.

शाळा बंद जाल्यो. पसरकारांनी लूटमारीच्या भंयान पसरेच उगडपाचें बंद केले. इस्पितळांनी वखदां मेळना जालीं. जे कुवेटी लोक पळून सौदीक वचपाक भायर सल्ले तांकां एकएकट्याक इराकी लोकांनी धल्ले

आनी फारान माल्ले. कुवेटी रेडीओ बंद केलो. कुवेटी दिनार चलना जालो. कुवेट एअरवेजाचीं पंदरा विमानां इराकान फारावन बगदाद व्हेलीं.

रस्त्यांची नांवां बदललीं. गाडयांचो नंबर प्लेटी बदलल्यो.

कुवेटचे तिजोरेंत आशिल्ले कोट्यांनी रूपयांचे भांगर इराकान फारायले. दोस्त राष्ट्रांनी इराकाचेर घुरी घाली आनी कुवेट स्वतंत्र करपाखातीर कुवेटांतल्या इराकी तळांचेर बॉम्बहल्ले केले तशे इराकी शिपायांनी तेलाच्या बांयाक उजो लायलो.

दोस्त राष्ट्राचे जैत जाले. सद्दामाचे सोल्दाद कुवेट सोडून परतले. तेलाच्यो बांयो जळत रावल्यो. धुंगराचे लोट मळभांत आयले. निळें मळब काळें, किट्ट काळें जालें. कुवेटाची अर्थीक, समाजीक वेवस्था चिड्डून, माड्डून सद्दामाचे सोल्दार दोनशें आठ दिसांनी कुवेट सोडून गेले.

आलेक्सान गेर्राची काणी सांगली. युध्दस्य कथा रम्या म्हणटात. पुणून जाणी भोगलां तांचे भोग, तांचो हुलोप, ताच्यो हुयेली, तांचे तळमळे, तांचे फडफडे तांकाच कळपाचे.

कुवेट शारान मोन्यांनीं हें सोसलें. ह्या हालांची साया पुसून वचून धुंगरेल्लें मळब निवळ जालें. मोडिल्लीं कुटुंवां परत उवीं रावलीं ना. गेर्रान कुवेटाक बुध्द दिल्या अशें न्हय. पयलींची आळशी आनी विलासी जीण परत सुरू जाल्या. दरेका मनशाफाटल्यान दोन दोन नोकर परत तांचे थातेमाते करूंक परतल्यात. अजून कुवेटी मनीस कश्ट करीना. आपलें स्वताचें सैन्य आसचें अशें ताका दिसना. कोट्यांनी डॉलर्स दिवन ताणे अमेरिकेकडेन आपली राखण करपाची कवलात केल्या.

कुवेटी भुरगीं उच्च शिक्षण घेनात. कुवेटांत चडशीं कॉलेजां, विद्यापीठां ना. गिरेस्तांची भुरगीं भायल्या देशांनी शिकून येतात.

कुवेटच्या गेर्रान कुवेटांतल्या गोंयकारांचेंय उपाट लुकसाण जालें. तांच्योय वस्ती इराकी शिपायांनी फारायल्यो. नोकऱ्यो गेल्यो. परत येवपाची धिटाय सगल्यांनीच दाखयली ना. जे आयले ते जाता तितले बेगीन आपली बिरांडा कवळपाचे तयारेन आयले.

"फुडें घडये तूं कुवेटाक आयलो जाल्यार हांगा आलेक्स नासतलो इकबाल नासतलो. रशीद नासतलो. रोजारियोय नासतलो." - आलेक्सान म्हळें. म्हाका थोडे दीस आनीक रावपाचो आग्रो गोंयकारांनी केलो.

रोजाचे दीस सुरू जाल्ले. रमझान ईदाची परब लागीं पाविल्ली. फांतोडेर शिंयाचो कुलकुलो आशिल्लो. सकाळचें मोव वत येताले. दनपार शीतळ आसताली. सांजवेळ इश्टांच्या सांगातान सोबित सुंदर दिसताली. अरबांगेर इफ्ताराची जेवणां जाताली. खिणभर कुवेट गेर्राचे घाय विसरून ईदाची परब मनोवपाचे तयारेक लागिल्ले.

अशा दिसांनी हांवे अरबस्तान सोडलें.



# पुण्याची स्प्लीट पर्सनालीटी

पुण्याचो एक पांय भूतकाळांत आसा आनी एक पांय भविष्यकाळांत. पुण्याक वर्तमानकाळ आसा तो भूतकाळ आनी भविष्यकाळ हांच्या संधीकाळाइतलोच. दर्या आनी मळब हांचेमदल्या क्षितिजरेषेइतलो - अशीर, अदृश्य!

पुण्याच्या एका दोळयांत पेशवाई साकरन्हीद आसा आनी दुसऱ्या दोळयांत आसात फुडारांतल्या 'सायबर' सपनाचे रंग!

पुणें हें एक व्दिदल शार, पुण्याक दुभंग व्यक्तिमत्त्व आसा. स्प्लीट पर्सनालीटी आसा. जो मनशाचो सभावदोश जाता, तो शाराचो सभावगुण जाता, पुण्याचें दोट्टी रूप ताका विद्रुप करिना तर ताची सोबितकाय दोबरादीन वाडयता. पुण्यात मुंबय भाशेन मोनोटोनी ना. पुणे कोल्हापुराभाशेन एकजिनसी न्हय. नाशकाचें शिरवंत रूप नासत ताका. नागपुराभशेन पुण्याचें काळीज उत्कें, मेकळें न्हय. रत्नागिरीचो दर्यागंध ना ताच्या आंगाक, पुणून पुण्याक खासा पुणेरी परिमाण आसा.

शाराच्या मदल्यान व्हांवपी मुठा न्हंय भौगोलीक नदरेन पुण्याचे दोन वांटे करता. जरासंधाचे तोडिल्ले कुडीभाशेन हे दोनय वांटे न्हंयन तोडल्यात आनी ते एकामेकांक येवन परत दसतल्यात.

बारा गांवचें उदक पिल्ले अठरा पंगड लोक पुण्यांत रावतात. तांचे

लोकजिणेचो माटोळेन पुण्याचें मखर नटलां. तांचे लोकसंस्कृतायेच्या धाग्यांनी पुण्याचें वस्त्र विणलां. संवसारांतल्या खंयच्याच शारांत विंगड- विंगड वाठारांक विंगड-विंगड वारांचीं नांवां आसात जाल्यार हांव नकळ. पुण्यान दरेक वाठाराक वाराच्या नांवाचो भांगतिळो लायला. सोमवार पेठ, मंगळवार पेठ..... शनिवार पेठ, रविवार पेठ. इतली सादी, सोपी, सुटसुटीत आनी समर्पक नांवा दरेक पेठेक दिवन पुण्यान ह्या पेठांक तांचें खासा कॅरेक्टर दिलां. नांवाचो आनी नांवाफाटल्यान विशेषणांचो पुण्याक खूब गोस्त. हांगा तरातरांचे मारूती आसात. सोन्या मारूती, डुल्या मारूती. पुण्यांतले खंयचेय दोन गणपती एकसारके न्हय. प्रत्येकाक आपआपलें नांव आनी नामो आसा. तळयांतलो गणपती, कसबा गणपती, केसरी वाड्यांतलो गणपती, दगडू हलवाईचो गणपती...

पुण्यांक दुकानाचीं नांवां लेगीत मोटी रसिक. पानपट्टेचें दुकान हांगा मुखविलास पान दुकान जाता. गादयांचें दुकान पुष्पशय्या अशें सोबीत नांव घेता. शनिवार वाड्याच्या दाव्यान एक दुकान आसा. ताचें नांव ज्ञानेश्वरी रद्दी दुकान. ती पाटी वाचून मात वायट दिसता. ज्ञानेश्वरींतलें तत्वज्ञान सोडात पूणून ज्ञानेश्वरींतलें भावसौंदर्य जांणी चाखलां तांकां ते पाटयेची भीरभीर मारलेबगर रावना.

पुण्याक पावला कणकणी तरांतरांच्यो पाटयो आसात. पेंटराच्या दुकानांतले पाटयेर बरयलां - हांगा शब्दकोशांतले सगले शब्द सुंदर करून मेळटले. म्हळयार उतरांचें ब्यूटीपार्लर.

दरेक पानझाडाक 'ह्या झाडाचीं पानां तोडचीं न्हय' ही पाटी आसता. फुलझाडाक एक वेळ फुलां नासत पुणून 'फुलांक हात लावचो न्हय.. फुलां काडचीं न्हय'. अशी पाटी आसूंकच जाय. दरेके हारशेमुखार 'हे हारशे मुखार चड वेळ रावन केंस वळोवं नाकात' अशी पाटी. वणटीचेर 'हाचेर कांयच पितारचें न्हय' ही पाटी. कुत्र्यांक वाचपाक येतालें जाल्यार खांब्यांखांब्याचेर 'हांचेर कुत्र्यांनी पांय वयर काडून मुतचें न्हय' अशी पाटी मारलेबगर पुणेकार रावचो नासलो.

पुण्यांतल्यो पाटयो हो हास्यविनोदाचो विशय आसत पुणून तांणीच पुण्याक ताच्या गिरेस्त फुडाराची बुन्याद दिल्या. पुणे ही आतां एकविसाव्या शेंकड्यांतली सायबर सिटी जावपाची आसा. संगणक आनी म्हायती तंत्रज्ञानावरवीं पुणे नव्या युगाचो हुमरो हुंपता. संगणक खिणाखिणाक आदेश दिता. इंन्स्ट्रक्शन्स दिता. दरेके गजालीविशीं शिटकावणी दिवपाचो पुण्याचो सभाव ताका संगणक युगाच्या मूषक वाहनाचेर बसतना खूब उपेगी पडला जावूंक जाय.

पुण्यान काळाचीं पावलां वळखल्यांत. ज्ञान समराधनेचे पुजेक बसपाखातीर हेरकडेन भट निकतेच न्हावंक गेल्यात. पुणे न्हावन धुवन मुकटो न्हेसून गिन्यानाच्या मखरामुखार फांतोडे पारार काकडआरती करपाक लागलां. नवे उद्येजक संस्कृतायेन अनंत हस्तांनी पुण्याचे झोळयेंत संपत्त ओतल्या. पुणून पयशांच्या वखवखान पुण्याचो गिन्यानाचो ध्यास आनी निदीध्यास कुसकुटानय उणो जावंक ना.

एका तेंपार जाचेकडेन चड जमनी तो गिरेस्त जातालो. उपरांत जाचेकडेन चड मनीसबळ हाडपाची तांक तो चड गिरेस्त जावंक लागलो. फुडें जाचेकडेन गडगंज पयसो आनी भांडवल ताच्या हातान गिरेस्तकायेच्या चावयांचो घोंस आसलो. एकविसाव्या शेंकड्यांत जाचेकडेन चड गिन्यान तो चड गिरेस्त जातलो. जमीन, मनीसबळ, आनी भांडवल नासतना फकत गिन्यानाचे निसणीवयल्यान यशाची आनी गिरेस्तकायेची तेंगशी हुपूंक मेळटली. पोस्ट- कॅपीटलीस्ट सोसायटीची ही पयसुल्ल्यान वाजपी घांट पुण्यान आयकल्या. समाजवाद अर्थकारणांतल्यान न्हय शिक्षणांतल्यान येवुंयेता. हाचें भान आनी अवधान पुण्यान दवरलां. देखून पुणे हें शार उरूंक ना. ती प्रशस्त प्रशाला जाल्या. पुण्यांतल्या दोन मनशांतलो एक मनीस किदें ना किदें शिकता. संगणक, संगीत, परदेशी भासो, भरतनाट्यम्, वेवस्थापन, नाट्य, सिनेमाभिनय..किदें ना किदें! शिक्षणाचें वेपारीकरण जालां अशें म्हणटना शिक्षणाचें सार्वत्रिकरण जालां हें आमी विसरूं नजो. लोक दिसाचे शिकतात, दिसाचें काम करून रातशाळेंत शिकतात. 'विद्या नाशिल्ल्यान मती गेली. मती नाशिल्ल्यान नीती गेली.

नितीविणे गती गेली. गती नाशिल्ल्यान वित्त गेलें वित्ताविणें शुद्र खचले, हे सगळे अनर्थ अविद्येन केले.' ही महात्मा ज्योतिबा फुलेंचीं उतरां पुण्याच्या कानांत अजून घुमत आसात. तीं उतरां उतरां उरूंक नात. उजवाडाची पूजा बांदपी ती नव्या विज्ञानवेदाची सुक्तां जाल्यांत. गिन्यानाचे गायत्रीमंत्र जाल्यात.

ज्या पुण्याच्या रस्त्यावयल्यान वतना चलयांची शाळा चलयता म्हणून सनातनी बामणांनी सावित्रीबाई फुलेंचेर शेण मारलें त्याच पुण्याच्या रस्त्या रस्त्यावयल्यान आयज दिसतात स्कुटरीवयल्यान कॉलेजींत वचपी शेंकड्यांनी तरतरीत चलयो. ज्या पुणेरी खांदावयल्यान जितो आसतना आगरकराची अंत्ययात्रा काडली त्याच पुण्याच्या खांदाचेर आयज संगणकाचे जागृत देवीची म्हामाय पालखी आसा. ज्ञानाच्या आनी विज्ञानाच्या दरेक मळार दादल्यापरस फुडें पावन पुण्याच्या बायलांनी दादल्यांचें 'केशवपन' केलां. समतेचो संदेश आतां फकत सभासंमेलनमेरेन थांबूंक ना. भुरग्यांच्या टिफीनामेरेन तो पावला. पुण्याचे खंयचेय शाळेंत दरेक भुरग्यान आपल्या टिफीनांत भाजी आनी पोळी हाचेबगर दुसरो पदार्थ हाडूं नजो. कामशास्त्राक ओपिल्लें मासिक चलयता म्हणून र.धों. कर्वेचेर खटलो भरपी पुण्यांत मीरा नायराचो 'कामसूत्र' हावसफुल्ल चलला! गल्लीबोळांतल्यान रखडत वचपी बैलगाडयेंतल्यान सकयल देंवन इन्फोर्मेशन टेक्नोलॉजीच्या सुपर हायवेचेर सुपर-सॉनीक स्पीडीन वचपाचें शाणेपण पुण्यान दाखयलां.

अशें आसलें तरी पुणे एकजिनसी, एकसंध, होमोजिनस शार न्हय. दिसाचो सोरोप आनी रातची बायल जावपी नागकन्येभाशेन पुण्यान आपलें दुभंग व्यक्तीमत्व सांबाळून दवरलां. ताचे बरे वायट परिणाम पुणे भोगता. ताचीं वायट बरीं परिणामां पुण्यान मोखून मारूंक ना.

पुण्याक कोनशा कोनशार कोयराच्यो पेटयो नासत पुणून देवांच्यो देवळयो आसूंक जाय. संगणकाक मानवल्या तशी देवांकय पुण्याची हवा मानवल्या. खगोल शास्त्राचे वेध घेवपी दुर्बिणी पुण्याक आसात तशींच ज्योतिष्यांची र्‍हस्व नदरेचीं वक्लांय आसात. रजनीशाचो अध्यात्मीक

उपभोगवाद केळोवपी आश्रम आसा तशी गांवांनी उशेकांडे कापपाक येवपी कामगारांच्या भुरग्यांखातीर 'शंबर दिसांची साकरशाळा' आसा.

म्हळयार पुणें सेवानिवृत्त जाण्टेल्यांचें. म्हळयार जिज्ञासू तरणाट्यांचें, म्हळयार सनातनी, म्हळयार प्रागतीक. पुणे एके वटेन राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचें एके वटेन राष्ट्र सेवा दलाचें. पुण्यान साने गुरूजींचें बोट धरलां. पूणून गोळवलकर गुरूजीचें बोट सोडूंक ना. पुणें गांधीक मानता तरीय गांधीचो खून करपी नथुरामाक 'गांधीवध' करपी वीरपुरूष मानून मखरांत बसोवपाक पुण्याक लज दिसना. पुणे मुसलमानांचो दुस्वास करता आनी पुणें मुसलमान राष्ट्रपतीच्या हातान गणपतीक पंचारत दाखोवपाकय अनमनना. म्हळयार पुणे मनीसघाणें म्हळयार पुण्याक जळींमळीं मनीसपणाचीं कारंजीं दिसतात. म्हळयार पुणें भामटें, चामटें, ल्हेंवटें, हिमटें, म्हळयार पुणें, बुध्दाच्या उपेक्षा, करूणा, मैत्री आनी मुदिता हाच्या चौरसांत रावपी. पुण्याच्या भूगर्भांत कसलीं रसायनां खदखदतात म्हणून हे डायमेट्रीकली अपोझीट सभावजीन्स पुण्याचे कुडींत बडीन आयल्यात हांव नकळ.

जिवेचे दुवाळे भागोवपाक पुणें फाटीं ना. जातीधर्मांनी समाज वस्त्र पिनलें आसत, अन्नाक मात तांणी परब्रम्हाची सुवात दिल्या. मोगलांनी आनी मुसलमानांनी पुण्याच्या ताटांत जिलेबी वाडली. मोतीचूर आनी बुंदी लाडू वाडले. आज हीं पक्वान्नां थळावीं जाल्यांत. पुणून हें मुसलमानी दायज म्हणून न सांगिल्लें बरें. ना जाल्यार कट्टर पुणेरी हिंदुत्ववादी पंगतींतल्यान उठून वचत म्हणून भिरांत! अठरा पगड लोकांनी थालीपीठ, खिचडी, पिठले, बासुंदी, श्रीखंड आमरस, आंबावडी, नाल्लाची बर्फी, चोरसे, आलेपाक, वांगीभात, मसालेभात, तेलपोहे, कांदा पोहे, शिखरण, आळुवडी, बाकरवडी, चकली, कडवोळी, डिंकाचे लाडू, केशरी मसाला दूद, खरवस, गुळाची पोळी, पुरणपोळी अशे तरांतरांचे पदार्थ कसलेंच चामटेंपण करिनासतना तुपातेलासयत, साकरलोणयासयत, मीठमसाल्यासयत सुगरणीच्या साजूक हातांनी पुण्याच्या ताटांत वाडल्यात. पारशांनी पुण्याक धनसाक दिलां. गुजरात्यांनी ढोकळा दिला. उडप्यांनी डोसा दिला. थाय, चिनी, अफगाणी सगल्यांनी पुण्याचो सानन

धाकणो उपाट भरून दवरला.

पुण्याचे चारी वटेन मळे आसात. फांतोडे पारार फुले मंडई फुलांफळांनी पालेभाजी आनी शाकभाजी हांच्या पाटल्यांनी, कांद्याच्या जुडयांनी आनी कणंगांबटाटांच्या राशींनी भरून ओतता. मक्याचीं कवळीं कणसां, कवकवीत मुळे, गरगरीत दुदी, म्होंवाळ जांबळां, साकरगोड चिकू, गुलगुलीत दाळंबां, वायंगीं, कोंकणदूदी, पिकीं पोपटीं पेरां, तरांतरांचे आंबे. अंजिर... सैमाचे संपत्तेन फुले मंडई भरून ओतता. सकाळ जाता म्हणसर तरातरांचे आवाज घुमूंक लागतात. विकप्यांचे, गिरायकांचे, ट्रकांचे! मल्हार रागाचे विंगड-विंगड उपप्रकार आसात. कोणेय तरी मार्केट- मल्हार हो नवो राग सोदूंक जाय.

फुले मंडई फकत मंडई न्हय. पुण्याचे भौशीक जिणेंतली ती एक संस्था. तशीच डेक्कन क्वीन. डेक्कन क्वीन ही पुणे आनी मुंबय हांचेमदीं रेल्वेगाडी न्हय. दामोदर कोसंबीसारक्या प्रकांड पंडीताक आपल्या पुस्तकांक प्रस्तावना बरोवंक वेळ आनी सुवात दिवपी हीय एक पुण्याची सार्वजनीक संस्था. रिक्शा हें तर पुण्याचे अ-विभाज्य आंग. पुण्यांतल्या ल्हान सान भुरग्यांक रिक्शावालो घरांतल्यान शाळेंत आनी शाळेतल्यान घरा पावयता. भुरगीं रिक्शावालो म्हणिनात तो तांचो रिक्शाकाका जाता. काका-पुतणयाच्या नात्यावयलो पेशवाई दाग पुण्यान केन्नाच पुसून वडयला. देखून लागींचो मनीस पुण्याक काका जाता. हलवायाचें दुकान काका हलवायाचें दुकान जाता.

पुण्याचे पोदेर फामाद. श्रुबेरी बिस्कीट ही तर पुण्याची खासियत. पुण्याक तशें जाय ताका जाय तें मेळटा. कलकत्त्याक कॉलेज स्ट्रीट आसा तसो पुण्याक अप्पा बळवंत चौक आसा. थंय हारींनी पुस्तकांचीं दुकानां आसात. लक्ष्मी रोडावयलें जनसेवा दुग्धालय - थंय ताजो केशरी पोस खावंक मेळटा. चितळे बंधुगेर राजकोटी पेढे, साकरी पेढे, अंजिर बर्फी, ड्रायफूट बर्फी, आंब्याची, नाल्लाची बर्फी मेळटा.

शनिवार वाड्यांत गेलेबगर पुण्याची भोंवडी सोंपना पुणून शनिवार

वाड्यांत आतां फकत वणटी आनी यादी उरल्यात. होच शनिवार वाडो जर्मनीसारक्या युरोपीय राष्ट्रांत आशिल्लो जाल्यार तो पेशवाईच्या काळांत आशिल्लो तसो परतो बांदून तो लोकांक पळोवंक दवरतले आशिल्ले. हें करप कुस्तार न्हय. कोणाक तरी हें सुचूंक जाय आसलें.

पुण्याक शनिवारवाडो आसा तसोच शुक्रवार वाडोय आशिल्लो. तो उज्यान लासून वडयलो. पुण्यांतले वाडे स्थापत्यकलेचे नमुने म्हणून सांबाळून दवरुंक जाय आशिल्ले. अहमदाबाद शारान हवेली सांबाळ्ळया. खूब वासपूस करूनय म्हाका पुणेरी वाडो पळोवंक मेळ्ळो ना.

खंयच्या आदीम काळांत मुठा न्हंयचे देगेर पुणे गांव वसलो कोण जाणा. आयज पुणें शार जालां नगर जालां. महानगर जालां पुणून आपल्या मुखावयली आदीम खेड्याची सया पुण्यान शेंवटून वडोवंक ना. पुण्याचें हें 'रूर्बन' रूप म्हाका आवडटा- जें मुंबयक ना दिल्लीक ना. चेन्नय, कलकत्त्याक वा बेंगळुराकय ना.

पुणें हो एक चौरस्तो. थंयच्यान चार रस्ते फुट्टात. कोणे खंयचो रस्तो घेवचो तें जण एकल्यान थारावचें. कोण खंयचो रस्तो घेता ताचें मातय सुवेरसुतक पुण्याक ना. पुण्याची ही स्थितप्रज्ञता मनाक भावता. इतिहासकाळांतले आपले घाय सांसपित पुणे बसूंक ना. पुण्यान प्लेग पळयलो. पानशेत पळयलें. महात्मा गांधीच्या खुना उपरांतच्यो दंगली पळयल्यो. खंयचीच माव पुण्याच्या आंगार उरूंक ना.

फुडारांतलें फांतोड सपन पळयत पुणें शार आपलेच आत्म-मग्न मस्तींत वसलां. ताका उलो मारून ताचें दिसा- सपन भंगपाचें पाप करचें न्हय कोणें !



# कामाख्येचे सावळेंत

कांय मनशां जाण्टीं जातात तशीं सगळो रोस पिळून काडपी माख्नांतल्यान आयिल्ल्या उशीकांड्याच्या चोथ्याभशेन सुकीं सणसणीत जातात. कांय मनशांची जिगिविषा मात आडसराचे कातलेभशेन मोव मुलायम आसता. रित्या कळशाभशेन कांय इश्टांकडेन आतां सांगपासारकें नवें कांयच नासता तर कांय इश्टांकडल्यान मात शेवयां दात्यांतल्यान पडपी शेंवयां भशेन सुरबूस गजाली आयकूंक मेळटात.

जनरल सुनीत रॉड्रीग्ज हो म्हजो असो इश्ट. भारतीय लश्कराच्या मुखेलपदाचेर पावून निवृत्त जातकीर तो पर्वरे कृतार्थतायेन आपली जीण सारता. ताचेकडेन सांगपारकें खूब आसा. ताचेकडल्यान आयकुपासारकें खूब आसा.

हांवें एकदां जनरल रॉड्रीग्जाक विचारलें- जनरल, म्हाका ईशान्य भारत पळोवपाची इत्सा आसा. आसाम, मेघालय, मणिपूर, मिझोराम, नागालँड, अरूणाचल प्रदेश आनी त्रिपुरा ह्या सात ईशान्य वासिनी भयणींक मेळूंक जाय.

'वचूं काय नाका? गेल्यार खंय वचूं ? कसो वचूं?'

जनरल रॉड्रीग्जान सांगलें - 'तुज्यान  गौहाटी वचूं येता. आसामाक भोवूं येता. मेघालयाक वच. शिलाँग पळय. हेरकडेन आपूण वतना तुका वांगडा व्हरतां.'

जनरल रॉड्रीग्जान दिल्ले हुनसाणीन हुनार हून कसो हांवें आसाम आनी मेघालयाक वचपाचो बेत केलो.

म्हज्या आज्याक आसाम वचपाचो खूब घोस्त आशिल्लो. आसामची कामाख्या कामाक्षी जावन शिरोडच्या कशी पावली हाचेर तो संशोधन करतालो. म्हजो आजो आपल्या जिवितांत आसामाचे भुंयेर पावलो ना. कलकत्त्याच्यान सुटिल्लें विमान गौहाटी पावलें तेन्ना म्हाका ताची तीव्रतायेन याद जाली. म्हज्या स्मृतीशेष आज्याची नदर घेवन हांवें कामरूप आसाम पळोवपाचें थारायलें. महाभारत कालांत आसामाक कामरूप आनी गौहाटीक प्राग्ज्योतिषपूर म्हणटाले. प्राग् ज्योतिषपूर म्हळ्यार पूर्व दिकेकडलें लखलखीत उजवाडाचें शार. थंय राज्य करतालो महाबळिश्ट राजा- नरक. फुडें पुराणांनी ताका नरकासूर केलो. कामाक्षी जावन कामाख्या मांडवीचे देगेर पावली तसो पुराणकथांतल्यान पाझरत कृष्णाक झुजोवपी नरक राया लेगीत गोंयांत पावलो आनी दिवाळेचे आदले राती नरकचतुर्दशीक गोंयचे थळावे लोक संस्कृतायेचो वांटो जालो. हो निखटो योगायोग न्हय. आसामाचें आनी गोंयचें कसलें तरी पयसुल्लें नातें आसले बगर हें सगळें शक्य ना.

गौहाटीक आमी ज्या हॉटेलांत रावलीं तें हॉटेल एका व्हड तळयादेगेर आसा. त्या तळयाचें नांव- दिघली पोखरी. गौहाटीक दरेक सुवातीक एकेक दंतकथा, एकेक पुराणकथा, एकेक मिथककथा दशिल्ली आसा. नरक रायाचो पूत भगदत्त. ताची धूव भानुमती हिचें लग्न तो कौरव कुंवर दुर्योधनाकडेन करता. तें लग्न मोटचा दबाज्यान प्राग्ज्योतिषपूराक जाता. लग्ना आदीं न्हवरेकारांक जाय तितलें उदक मेळचें म्हणून भगदत्तान हें दिघली पोखरीचें तळें बांदून काडलें अशें सांगतात.

भगदत्त फुडें कौरव पांडवाच्या युध्दांत कौरवांवटेन लडलो आनी त्या युध्दांतच ताका मरण आयलें अशी भगदत्ताची काणी महाभारतांत येता.

गौहाटीक आनीक एका तळयाची काणी आयकूंक मेळ्ळी. राणी कमला कुंवरीच्या तळयाची लोकांकाणी.

खूब वर्सांआदीं प्राग्ज्योतिषपुरांत एक राजा आशिल्लो. त्या राजाचें नांव

ती लोकांकाणी विसरिल्ली. पूण त्या राजाचे राणयेचें नांव- कमला कुंवरी. राजाची प्रिय पट्टराणी ती. एका वर्सा सगल्या वाठारांत दुकळ पडटा. तळीं सुकतात. उदका खातीर लोकांचे वळवळे पडटात. एके राती राजाक सपनांत भास जाता- कमला कुंवरीचो बळी दिल्यार सुकिल्ल्या तळयाक उदक येतलें. राजा खिन्न मनान राणयेक आपलें सपन सांगता. लोकांक उदक मेळचें म्हणून राणी आपलो प्राण ओंपूंक तयार जाता. राणी सुकिल्ल्या तळयांत देंवता. मागीर ती लोकां काणी आपलें गद्य न्हेसण सोडून कवितेचो भेस न्हेसता.

'लागलें व्हय गे
उदक तळयेंत
राणये म्हजे- कमला कुंवारी?'
'हय रे राया
पावलें उदक पावलां मेरेन म्हज्या.

'आयलें व्हय गे
उदक तळयेंत
राणये म्हजे- कमला कुंवारी?'

'हय रे राया
पावलें उदक धोंपरामेरेन म्हज्या'

'खंय गे पावलें
उदक तळयेंत
राणये म्हजे- कमला कुंवारी?'
'हय रे राया
पावलें उदक
कमरा मेरेन म्हज्या'

'हय रे राया
पावलें उदक
गळयामेरेन म्हज्या'

'हय रे राया
पावलें उदक
तकलेमेरेन म्हज्या'.

अशें म्हणत राणी कमला कुंवारी तळयेच्या उदकांत बुडटा आनी बुडटां बुडटां आपल्या रायाचें नांव गांव पुसून आसामी लोक काणयेच्या मखरांत वचून वसता.

जो सम न्हय असो हो दोंगराळ वाठार आसाम! चवदा कोटी वर्सां आदीं दर्या पोंदच्यान ही आसामी भूंय वयर उफेली अशें म्हणटात. ब्रम्हपुत्रा आनी सुरमा अशा दोन न्हंयांचे देगेवयलो हो घनदाट रानांवनांचो वाठार. साल, साग, देवदार, वेत, वोरू, कळक अशा रूखांची ही सस्यकाशी! अश्मयुगांतल्यान हांगा मनशां रावतात आसूंक जाय. आर्य हांगा खूब उसरां पावले. जे आर्य न्हय ते अनार्य देखून असूर म्हळयार राक्षस. अशें सगलें पुराणांचें तथाकथित तर्कशास्त्र! पूण त्या तर्कशास्त्रान जें लिपयलां ताचेपरस सुज्ञ समाजशास्त्रज्ञाक खूब कितें दाखयलां. सांगलां.

आसामांतले मूळ लोक मंगोलियन वंशाचे बोडो, काचारी लोक. घडये ते चिनांतल्यान भोंवत भोंवत हांगा पावले आसत. फुडें खूब उसरां थंय आर्य पावले. अर्जुनाची वायल चित्रांगदा हांगाची. आसामांतल्या नीज लोकांचो पंथ शाक्त. तांची मातृदैवताक भजपाची रीत. आर्यांनी थंय वैष्णव पंथ हाडलो... शाक्त आनी वैष्णवांची खूब झगडीं आसामी भुंयेर जालीं. तेराव्या शेंकड्यांत थायलंडाच्यान बौध्द धर्मीय आहोम वंशीय लोक हांगा पावले. १८५० त आहोम लोकांकडल्यान ब्रिटिशांनी आसाम जिखून घेतलें. मागीर ख्रिस्ताचो

संदेश घेवन ख्रिश्चन मिशनरी आसामांत पावले. १८३५ त आसामी भुंयेंत पयलो च्याचो मळो उबो रावलो. १८१०त तेलाच्यो वांयो मेळयो. फुडें रेल्वे आयली. नेपाळी गुरखे आयले. पूर्व बंगालांतल्यान मुसलमान आयले. बंगालांतल्यान बंगाली आयले. मारवाडी आयले.

ब्रिटिशांनी राजकारभार करपाक बंगाली बाबूचो आदार घेतलो. जें गोंयांत जालें तेंच आसामाक जालें. भायल्यान भायले येत रावले. मूळ आसामी मनशाक चिड्डीत रावले.

मूळ आसामी लोकांनी खूब वर्सां अन्याय सोंसलो. सोंसूंक जायना तेन्ना तांणी आतंकवादाची वाट धरली. हिंसेचें शस्त्र हातांत घेतलें. आसाम गण परिशदेचो जल्म जालो. ती सत्तेरय आयली. प्रस्न सुटलो ना. बोडो, उल्फा अशे आतंकवादी गट झुजत रावले.

इतली वर्सां धुंवर धुमसत आशिल्लो. कीट पडली. उजो लागलो. एके वटेन बरें जालें. उजो सदांकाळ पेटत उरना. उजो न्हिवता. इंगळ्याचो कोळसो जाता. कोळशाचो गोबोर जाता.

खलिस्तानाचो म्हारू थंड जालो. मिझो लोकांनी लोकशाय मानून घेतली. नागालँडाक उदरगतीचे वेध लागले. आसाम ल्हवु ल्हवु करून न्हिवत चल्लां. आसामांतय उज्याचो धग उणो जावन शितळ वारें व्हांवक लागलें...

गौहाटीक गौहाटी नांव पडलें सुपारे वयल्यान, गौ म्हळयार सुपारी आनी हाट म्हळयार बाजार. एका काळार सुपारेचो व्हड नेगोस चलतालो म्हणून शाराक म्हणूंक लागले- गौहाटी. गोंयांकय गोंय वो 'गौवा' हें नांव सुपारेवयल्यान पडलें अशें म्हणटा. आसामांत धा लाख हेक्टर भुंयेर च्या पिकूंक लागली. गौहाटी च्या ची किटली जाली. फकाणांनी आतां अशें म्हणटात आतां सुपारेवयल्यान आयिल्लें नांव शेंवटून गौहाटी च्या वयल्यान आयिल्लें 'चाय हाट' वो असलें कितें तरी नांव घेवपाचें आसा.

गौहाटीचें नांव बदलचें पडलें जाल्यार हांव ताका कामाख्येच्या नांवाचो तिबो लावन कामाख्यापूर म्हणीन. गौहाटी म्हर्‍यांत ब्रह्मपुत्रेचे देगेर

उबी आसा एक दोंगुल्ली- तिचें नांव नीलाचल- निळी दोंगुल्ली. ते दोंगुल्लेचेर आसा हजार वर्सांपयलीचें देवी कामाख्येचें पुरातन देवूळ.

सुशांता आनी हांव नीलाचलावयल्या कामाख्येच्या देवळांत पावलीं तेन्ना दनपार जाल्ली. कामाख्येचो हो न्हिदपाचो वेळ! सकाळीं मारिल्ल्या बोकडेच्या उष्ण रगतामांसाचो प्रसाद खावन ही शाक्त देवी वामकुक्षी करता. देखून देवळाचें दार धांपलां. दाराक ल्हानसो बुराक आसा. बुराकांतल्यान दिसता फकत काळोख आनी कांयच ना फकत काळोख!

दावे वटेन गौहाटी शारय सुस्त न्हिदलां. उजवे वटेन गर्भजड पावलांनी ब्रह्मपुत्रा व्हांवता. पूण हांगाच्यान ती व्हांवता अशें दिसना. ब्रम्हपुत्रा थांबल्या. ब्रह्मपुत्रा गोठेल्या.

खरें म्हळयार हांगा काळ लेगीत गोठेला. ही दोंगुल्ली आनी हें देवूळ, ही ब्रम्हाची ब्रम्हपुत्रा आनी ही भैरवाची अर्धांगी कामाख्या- सगळें सगळें हजार एक वर्सां आसा तशें तशेंऽ आसा.

दनपारचो वेळ. पूण सरभोंवतणी रूख आसात, सावळी आसा देखून वताचो रखरख खंयच ना. शांत शितळ वारें व्हांवता. हो आडांगी वारो न्हय. हें लजकुरें भिवकुरें वारें.

देवळाचेर खूब पारवे बसल्यात. ओग्गी बसल्यात. पाखां हालयनात कसलो आवाज करनात मख्ख बसल्यात.

मख्ख मोनी दनपार! दोळे धांपल्यार रात काय दीस तें कळपाक ना. दिसतलें- मध्यान न्हय ही! ही तर मध्यान रात! सगळेकडेन विण्ण काळोख आसा आनी सगळे सुस्त न्हिदल्यात.

कामाख्येच्या देवळामुखार एका पारार आमी बसल्यात. म्हाका खिणभर दिसलें- आमी लेगीत ह्या चित्राचो वांटो जाल्यांत. आमी लेगीत ह्या चित्राचे फास्केंत वचून बसल्यांत.

हो एक विचित्र अणभव! ताचे विशीं अदीक सांगप जमचें ना म्हाका! चित्राचे फास्केंत आशिल्ल्या मनशाच्यान चित्राचें वर्णन कशें करूं येत?

चार जायत आयलीं. देवळाचें दार उगडलें. कामाख्या उठली. काय

तिका उठयली? लोकांची गर्दी वाडत गेली. पसरे उगडले. फुलां, फुलांच्यो माळो, कुकुम, उजवाती, कापूर, वत्ताशे... तरांतरांचे पसरे! पसऱ्यांक कंठ फुटलो. पंडे भक्तांक गरोवंक लागले. एका पंड्याची नदर आमचेर पडली. ताणें आमकां कुरवेनच आपले फाटल्यान आपयले. लोकांची रांक आशिल्लें दार सोडून ताणे दुसऱ्या दारांतल्यान आमकां देवळात व्हेलीं.

सगळेकडेन काळोख. काळोख आसा म्हणून कळपाक फकत ल्हान दिव्याचो उजवाड. जमीन ओली. पांय निसरत इतली ओली आनी बुळबुळीत. सगळेकडेन वास भरला. फुलांचो, निर्माल्याचो, दुदाचो, तेलाचो, कोंदट वाऱ्याचो, जळिल्ल्या कापराचो, धुंवराचो...

पंड्यान आमच्या हातांत ताट दिलें. ताटांत चार तांबडी फुलां आनी फुलांचेर फाफुडिल्लो तांबडो कुंकू आनी तांबडो खण. मदींच तो एका दोगांचेर थळावे भाशेंत तापलो. रांक मोडून ताणें आमकां देवीमुखार हाडलीं.

शुध्द संस्कृतांत ताणें गाराणें घालें... 'वरदे देवी नीलपर्वत वासिनी. वरदे देवी कामाख्ये...'

कामाख्या ही सौम्य देवता न्हय. ती उग्रदेवता. सगळो उग्र भाव दोळयांत हाडून ती आमचे कडेन पळोवंक लागली. कामाख्खेक उजवाडाची नसाय. तिका किट्ट काळखांत रावपाक आवडटा. कामाख्येक वस्त्राचे थातेमाते ना. ती अर्धवस्त्रावृता. कामाख्या जागृत दैवत न्हय. तें निद्रिस्त दैवत. भावीक कामाख्येचें दर्शन धेवंक येनात. फकत कामाख्येची सावळी आंगार घेवपाची.

कामाख्येचे सावळेचें निर्माल्य हांवे उखललें आनी फुतफुतत म्हळें.

'कोण बाये तूं, कामाख्ये? तूं नारी काय तूं मादी? तूं मादी काय तूं माता?तूं कुमारी काय सौभाग्यकांक्षिणी? तूं सौभाग्यवती काय तूं गतधवा? कोण तूं कामाख्ये? तूं आर्य काय अनार्य? शाक्त काय शैव? तूं अदिती? काय तूं आदिदेवता? तूं कामदेवी काय तूं मातृदेवता? अस्तुरेचें खंयचें रूप घेवन रावल्या तूं हांगा?'

पंड्यान म्हाका हाताक धरून ओडलो. झगडीं करचें पयलीं हांवे

अंदाज चुकलो ना हाचें ताका परत समाधान जालें.

हांवें देवळाक प्रदक्षणा घाली. आरेच्या! प्रदक्षणा कशी? हांव तर उजव्यान दावेकडेन गेलों! अप्रदक्षणा जाली.

देवळाच्या घुमटार बशिल्ले पारवे उठिल्ले. पाखां फडफडायत ते घुरम् घुरुम् आवाज करूंक लागले. देवळाचो जालो एक रूख. खिणभरांत सगळे पारवे मळबांत उडले. म्हाका दिसलें- तांच्या वांगडा हें देवूळय उडटा काय म्हणून! आनी ताचे फाटोफाट ही दोंगुल्ली आनी तिचे वांगडा आमी!

कामगिरीवयली ही योनीदेवता कामाख्या! तिची शोकान्त दंतकथा आसा.

दक्ष ह्या आर्य राजाची धूव अनार्य शंकराकडेन लग्न जाता. आमंत्रण नासतना ती बापायगेर ताचो यज्ञ चलतना वता. यज्ञमंडपांत दक्ष राजा शिवाचो अपमान करता. हो अपमान सोंसूंक जायना जावन मानी सती यज्ञ कुंडांत आत्मसमर्पण करता. तिच्या मरणान पिसो जाल्लो शंकर तिचें मडें घेवन सगळेकडेन थयथय नाचता. मड्याचो एकेक कुडको एकेक कडेन गळून पडटा. कामगिरीचेर पडटा ती सतीची योनी. थंयच उबें आसा हें कामाख्येचे देवूळ.

कामाख्या ही योनीदेवी. आसामी लोकसंस्कृतायेन हे देवीचें पुराय मानुषीकरण केलां. ही देवी वर्सांतल्यान एकदां रजस्वला जाता अशें हांगाचो लोकवेद मानता. वर्साचे तीन दीस कामाख्येचें देवूळ बंद आसता आनी त्या तीन दिसां उपरांत 'अंबुबाची' नांवाची परब येता. सुफलीकरणाक तयार भुदेवतेची आसामचो भूंयपूत पूजा करता. आसामच्यो धुवो तिचेकडेन शेतां भातां फळचीं आनी आपले कुसवे फळचे म्हणून आशिर्वाद मागतात.

दरेक आसामी बायल आसता एक कामाख्या. कामाख्येची धिटाय, कामाख्येचो उग्र स्वभाव आसामी अस्तुरेक दादल्यांपरस अदीक 'पुरुषार्थी'करता.

देवळाचीं सोंपणा देंवन आमी सकयल येवंक लागलीं तेन्ना एक भास जालो- 'डेजा वू'चो आभास जालो. दिसलें हें सगळें हांवें केन्ना तरी पळयलां. हो वाठार, हें देवूळ, ही कामाख्या- म्हाका नवी न्हय. हें पळयल्लेंच हांव परत पळयतां.

मागीर याद जाली - गोंयचो सांस्कृतीक इतिहास वाचताना म्हज्या आज्याच्या दोळयांनी हांवे खूब पयलीं कामाख्येचें दर्शन घेतलां. आतां घेतां ते- पुनर्दर्शन!

'डेजा वु' चो अणभव खूब अप्रुप आशिल्लो.



# ब्रह्मपुत्रा

कामाख्येच्या देवळाकडल्यान गौहाटी परततां म्हणसर सांजवळ जाली. दनपरां कामाख्येचें देवूळ धांपिल्यान आमकां बरोच वेळ थंय रावचें पडलें. ईशान्येक सूर्यास्त बेगीन जाता. सांजवेळा रोखडोच काळोख जाता. गौहाटीच्या बाजारांतली दुकानां बंद जायत म्हणून सुशांताक चुटपुटे पडले.

"कामाख्येचें देवूळ पळोवपांत कांयच अर्थ नाशिल्लो"- ताणें म्हळें.

हांव ओग्गी रावलों. "नास्तीक लोकांनी अशीं देवळां पळोवंक वचचेंच किद्याक?" सुशांतान म्हाका तिडावपाक म्हळें.

तरी हांवें कांयच उतर काडलें ना. मोन्यानी हांव खंयतरी पयस पळयत रावलों.

"आतां खंयच गेल्यार देवळां पळोवप ना ! सगळीं देवळां तसलींच ती! तूं तर आमच्या घरामुखार आशिल्ल्या देवळांत केन्ना पांय लेगीत दवरिना."

"आगो, देवळां म्हळयार आमचें सांस्कृतिक म्युझियम! आमचे दायज तें. देव मेल्यार जातात, देवळां उरूक जाय" - हांवें मोट्या विचारवंताची पोज घेवन म्हळें. मागीर हांव खिणभर थांबलो आनी सुशांताक म्हळें.

"पूण एक आसा सुशांता, संस्कृतायेचें खरें दर्शन देवळांपरस शॉपिंग सेंटरांनी चड जाता. त्या त्या वाठारांतलो बाजार ही खरी ते ते संस्कृतायेची हारशी."

सुशांता फकत मुमुरखे हांसलें.

आसामाक सुंदर रस्मी साडयो मेळटात अशें सुशांताक ताचे बंगाली मैत्रीणीन सांगिल्लें. आसामच्या मुगा सिल्काच्या साडयांचें दुकान सोदत आमी भोंवतना म्हाका हजारीप्रसाद नांवाचो एक बिहारी मनीस मेळ्ळो. हजारीप्रसाद आप खोशयेन आमचो गायड् जालो. घुंवडावन घुंवडावन ताणे आमकां एका दुकानांत व्हेले आसामी बायलो मेखला न्हेसतात हें हांवें पळयल्ले.

"मेखला खंय मेळटात?" हांवे हजारीप्रसादाक म्हळें.

"मेखला किद्याक तुका ? आमी साडयो घेवंक सोदतात."- सुशांता

"खंयच्याय वाठारांत वतकीर थंयच्यो थळाव्यो वस्ती घेवंक जाय सिल्काच्यो साडयो खंयय मेळटात. मुंबय, बेंगळूर, चेन्नय--- तूं इतलें पयस आसामाक आयलां, थंयची एक मेखला किद्याक घेना? " - हांवें फोण्ण फोडलें.

सुशांताक मेखला पळोवन गोयांत मूळ गोंयकार बायलो देंठली न्हेसतात ताची याद जाली. ताका म्हजी भीरभीर मारली.

"तूंय नीज गोंयकार न्हय? तूं गोंयची थळावी काश्टी न्हेंस पयलीं! मागीर उलय" - अशें म्हणत तरातरा चलत सुशांता साडयांच्या दुकानांत भीतर सरलें.

म्हज्या रागान सुशांतान थंय खूब साडयो घेतल्यो. गौहाटीक सुशांतान बरेंच शॉपिंग केलें. केनाची बास्केटां, वॉल हॅगींग्स, कारपेट, भुरग्यांखातीर हारश्यांचे भेस, इश्टीणीखातीर पर्सी, शेजान्नींखातीर जोतीं, सोयऱ्यांखातीर संत्रांचें म्होंव, हाका ताका सट्ट करून दिवपाखातीर मणयाच्यो माळी---.

"आगोऽ आगो, हें सगळें बॅगांत खंय जातलें? " हांवे म्हळें.

सुशांतान परत जाप केली ना. तें तडक एका बॅगांच्या दुकानांत गेलें आनी ताणें एक बॅग घेतलें. सगळयो वस्ती बॅगांत भरल्यो आनी ती बॅग म्हज्या हातांत दिली.

मागीर हॉटेलांत पावतकीर ताणें बॅग उगडलें. सगळयो वस्ती

वाज्जेर मांडल्यो. तांचेकडेन व्हडा लक्तुवायेन पळयलें. हारशामुखार रांवन एकेक साडी आंगार ओडली. हो सगळो आक्त जातकीर सुशांताच्या जीवाक सूS जालें.

"खूब सुंदर ऑ, आसाम! हांगा येवन बरें जालें. आनी, चट्ट करून कोणय पावनात हांगा."

सुशांतान एकेक वस्त्त बॅगांत दवरीत म्हाका म्हळे. मडकयचे नवदुर्गेभशेन हांवे मान हालयली.

सुशांतां बॅगांच्या दुकानांत गेल्लें आसतना हांव एका पुस्तकांच्या दुकानांत भितर सरिल्लों. थंय हांवे आसामच्या लोककाणयांचेर दोन पुस्तकां इंदिरा गोस्वामीचे कथासंग्रह आनी अरूप कुमाराचें ब्रम्हपुत्रेवयलें सचित्र पुस्तक घेतिल्लें.

हांव पुस्तकां चाळपांत गुल्ल जालो.

ब्रम्हपुत्रेचेर आमचे संस्कृतायेन आकांताचो अन्याय केला. गंगा, यमुना, सिंधु, नर्मदा, गोदावरी, कावेरी ह्या न्हंयाबराबर आयज जिचे नांवगांव ना, इतिहासाच्या रखरखीत रेंवटांत जी लुप्त जाल्या, गुप्त जाल्या ते सरस्वतीक लेगीत हे संस्कृतायेन भरतवर्षाच्या सात पवित्र न्हयांत सुवात दिल्या. ब्रम्हपुत्रेक भायर दवरल्या. ब्रह्मपुत्रेक मानाचो पाट दिवंक ना.

पश्चिमेकडल्यान पूर्वेकडेन व्हांवपी न्हंयांक नदी म्हणचें आनी पुर्वेकडल्यान पश्चिमेक व्हांवपी न्हंयांक नद म्हणचें असो एक संकेत आमच्या देशांत आसा. हाका आडवाद नर्मदेचो. नर्मदा पूर्वेकडल्यान व्हांवत येवन पश्चिम सागराक मेळटा अशें आसूनय ती नदी.

ब्रम्हपुत्रा पूर्वेकडल्यान व्हांवत पश्चिमाभिमुख जाल्या. देखून ब्रम्हपुत्रा हो नद.

ब्रम्हपुत्रा अस्तुरी न्हय ती ब्रह्माची पुत्री न्हय. ब्रह्माचो पुत्र तो - ब्रह्मपुत्र!

आलतडच्यान पलतडीं नदर पावना अशी आडदांड न्हय ही!

पावसांत हुंवार येतकीर जीं आडांगीपणां ब्रह्मपुत्रा करता तीं स्त्री सभावांत बसपाचीं न्हय. हिमालयाचो सगळो पुरूषी अहंकार घेवन हो ब्रह्मपुत्र आसामच्या दोनय देगांक माड्डीता. मस्तीता. रूद्र शंकराच्या आवेशान थयथय तांडव करता.

ब्रह्मपुत्रेंत अस्तुरेचें लावण्य ना. ना तिच्यांत रमणीची रमणीयता. ना तिच्यांत कामिनीची कमनीयता. हो ब्रह्मपुत्र रसरशीत पौरूषाच्या पीळदार आंगाचो. राजाबिंड्या रूपाचो. सळसळत्या रगताचो.

ब्रह्मपुत्रेचें हें पुरूषी रूप आसामच्या समूह मनांत खंय तरी खोल वचून बसलां. खूब पयलीं एक चाल आशिल्ली. ह्या कामांध, मस्त ब्रह्मपुत्रान कसलीं आडांगीपणां करचीं न्हय, कसली आगळीक करची न्हय म्हणून दर वर्सा गांवांतली रूपेस्त कुमारीका ताका ओंपपाची. व्हंकलेभशेन न्हेसोवन हे वाग्दत्त वधुक होड्यांत बसोवन ब्रह्मपुत्राच्या पात्रांत मदीं व्हरपाची आनी ब्रह्मपुत्राच्या भोंवऱ्यांत तिका बुडोवपाची.

ब्रह्मपुत्र हो एक शापित सोरोप अशें हांगाची लोक संस्कृताय मानता. हो सोरोप रातचो दादलो जांवन गांवांत येता आनी गांवांतले सोवीत चलयेचो भोग घेता अशे तरेच्यो लोकांकाणयो आसामाच्या खेड्यापाड्यांनी आयकूंक मेळटात.

देखून सोरोप चाबून मेल्ल्या मनशाक आसामांत लासनात केळींच्या गब्यांचेर ताचें मडें दवरून तें ब्रह्मपुत्राच्या पात्रांत सोडटात. ब्रह्मपुत्राच्या पात्रांतलो शापित सोरोप ताच्या आंगांतले वीख चोखून त्या मनशाक जितें करतलो अशें हांगचें लोकमानस मानता.

ब्रह्मपुत्रा न्हंयची जलसफर म्हाका फांतोडेच्या झिळमिळ उजवाडांत करपाची आसली. दुसरे दिसा फांतोड फुटचे पयलीं आमी ब्रह्मपुत्रेचे देगेर आयली.

लाँचीची वेवस्था केल्ली. हांवे लाँचवाल्याक सांगलें - राव, थोडो वेळ राव. पळय ब्रह्मपुत्रा न्हिदल्या. सुस्त न्हिदल्या. तिका उठोवं नाका. तिका किरमांव नाका.

देगेवयल्या सोपणार बसून हांवें तन्मयतेन ब्रह्मपुत्रेक पळयलें. दावे कुशीर पडून न्हिदिल्ली ब्रह्मपुत्रा निळे साकरन्हिदेंत आशिल्ली.

"समुद्रवसने देवि पर्वतस्तनमण्डले

विष्णुपत्नी नमस्तुभ्यम् पादस्पर्शम् क्षमस्व मे"

अशी आमच्या भुंयपुतांची प्रार्थना म्हाका याद जाली.

दर्या जिचें न्हेसण आनी दोंगोर जिचे स्तन अशे हे धर्तरेमाये, तुका आमचो नमस्कार. तुका माड्डीत वचपाचो आमचो गुन्यांव माये, आमकां भोगोस कर. अशी ही पुरातन प्रार्थना.

म्हाका दिसले हे प्रार्थनेचें बोट धरून ब्रम्हपुत्रेक म्हणचें.

"हे माये, ब्रह्मपुत्रे, दिसभराच्या शिणांन आंग मोडून तूं अशी सुस्त न्हिदल्या. तुका तुजे साकरन्हिदेंतल्यान उठोवचें पडटा - हो गुन्यांव म्हाका भोगोस."

आमी लाँचींत चडलीं. हांवे लाँचवाल्याक सांगलें - आमकां ब्रह्मपुत्रेच्या प्रवाहाचे दिकेन नाका व्हरू तिचे प्रवाहाचे उरफाटे दिकेन या.

फांतोड जाता जाता म्हणसर ब्रह्मपुत्रेच्या उदकाचे रंग बदलत गेले. काळोख लेव जाता तशी तशी ब्रह्मपुत्रा निळीसांवळी जायत गेली. आनी म्हणटां म्हणटां उजवाडांत न्हावन आपुणय एक उजवाडाची धार जाली.

उदक न्हय हें. हो व्हांवतो उजवाड - म्हाका दिसलें.

उदक न्हय हें. वारें हें! प्राणवायुचें भिजिल्लें वस्त्रओलें रूप हें -हांवे म्हळें.

उदक न्हय हें. मातयेचेंच वत्सल रूप हें. पृथ्वीचो पानो हो.

ही जलराशी न्हय. हो दोन देगांमदलो अवकाश वितळिल्लो! द्रवरूप जाल्लो रूपकार हो आकाशाचो. अवकाशाचो.

मदींच ब्रम्हपुत्रेच्या आलतडच्यान अनामिक शेंवण्यांचे एक भिरें आयलें आनी मळबांत त्रियामी रांगोळी घालीत पलतडीं उडत गेलें.

काळखांत भरशिल्या देगेवयल्या रूखांक आतां आकार आयलो. दोळे चोळीत घरां उठून वसली.

ब्रह्मपुत्राय न्हांवन धुंवन तयार जाली. नवे न्हेसण न्हेसून चलपाक लागली.

कितलो मोग केला आमी आमच्या न्हयांचेर! आमच्या तीर्थरूपा न्हयांचेर!!

हरीद्वाराक गंगामैयाची साग्रसंगीत आरती जाता. आमोरेर दिवेलागणीक गोदावरींत द्रोणाचे दिवे सोडटात अस्तुऱ्यो. नर्मदेची परिक्रमा करतात पुण्य जोडूंक आमी.

सिंधुन तर भारताक ताचें नांवच दिला. यमुना कृष्णचरितांत अमर जाल्या. कावेरी दक्षिण भारताची राणी जाल्या. पट्टराणी जाल्या.

नासत ब्रह्मपुत्रेक सात पवित्र न्हंयामदीं सुवात. पूण ही ईशान्यवासिनी न्हय ईशान्य भारताच्या अजागृत समूहमनांत खोल, खूब खोल, गर्भखोल पाझरत गेल्या आनी अचकीत खंयच्या लोकगीताचो अस्तर फोडून उष्ण, धारोष्ण गंधकी उदकाच्या कारंजाभशेन ती वयर सरता आनी आसामी अस्तुरेच्या वंठार घोळूंक लागता.

"चल गे बाये ब्रह्मपुत्रे
सवका साणीन व्हांव म्हज्या
सपनांचे देगेवयल्यान
नाका गे बाये ब्रह्मपुत्रे
हुंवाराच्या लोटान तुज्या
बुडोंव म्हजी पिकेवयलीं शेता"

आसामी अस्तुरेच्या सपनांत ब्रह्मपुत्रा व्हांवता आनी हांगाचो भुंयपूत तिच्या व्हांवत्या पात्रांत आपल्या फुडाराचे दिसा सपन पळयता. ब्रह्मपुत्रेन आसामची भूंय फुलयल्या, फळयल्या, पिकयल्या तशेंच तिणें आसामी संस्कृतायेक तरांतरांच्या कथा, दंतकथा, मिथककथा, पदां, गीता, गाणीं, चाली, रीती, सण, परबो--- हांच्या घमघम वासान घमघमीत केल्या.

परशुरामाची कथा अशीच ब्रह्मपुत्रेन सांबाळून दवरल्या. आपले

बायलेचो  रेणुकेचो वध करपाक लावपाची जमदग्नीची करणी भारतीय संस्कृतायेचें खरें रूप दाखयता. हे संस्कृतायेच्या 'प्रथम पुरूषी एकवचनी' अहंकाराचें दर्शन घडयता.

परशुराम 'बापसे बेटा सवाई' जाता. तो ताच्याय फुडें वता. तो आपल्या बापायक विरोध करीना. परशुराम आपल्या परशुन आपले जल्मदाते आवयची तकली तोडटा. ज्या खिणाक परशुराम ही अघोरी करणी करता तो खीण भारतीय अस्तुरी केन्नाच विसरूंक शकना. अस्तुरेन केळयल्लो लोकवेद मानता- परशुरामाचो परशु ताच्या हाताक दसता. रगतान तांबडोलाल जाल्लो तो परशु घेवनच परशुरामाक जंय थंय भोंवचें पडटा. परशुराम लजेक म्हारग जाता. भोंवत भोंवत तो ब्रह्मपुत्रेच्या देगेर पावता. हे म्हामायेक तो नमन करता.  ब्रह्मपुत्रेन आपलो गुन्यांव भोगोस करचो अशें गाराणें तो घालता.

मागीर परशुराम ब्रह्मपुत्रेच्या पात्रांत न्हावंक देंवता तेन्ना ब्रह्मपुत्रेचे नितळ हिमशुभ्र उदक ताचो रगतान माखिल्लो परशु निवळ करता. तेन्नाच्यान ब्रह्मपुत्रेचें उदक मात तांबडें जाता. न्हावन परशुराम देगेर येता तेन्ना ताका होलमता - ब्रह्मपुत्रेन ताचो गुन्यांव ताका भोगोस केला. ताच्या हाताक दशिल्लो परशु आतां सुटला.

दुसरे लोकां काणयेन परशुरामाक ब्रह्मपुत्रेच्या जल्माकडेन जोडला. सगल्या क्षत्रियांचो निःपात करून परशुराम आसामचे भुंयेर पावता. रगतान भरिल्लो आपलो परशु धुवपाक नितळ,निवळ उदक दी अशी तो ब्रह्मदेवाकडेन प्रार्थना करता.

ब्रह्मदेव ताका अतिपूर्वेक अरूणाचल प्रदेशांत वचूंक सांगता. परशुरामाखातीर हिमालेयाच्या दोंगरांतल्यान वाट काडत तिबेटांतली त्सांगपो न्हंय ब्रह्मपुत्रा जांवन भारतवर्षाचे ईशान्य भुंयेर अवतरता.

परशुरामाच्यो मिथक काणयो ह्या देशांत जाल्या दोन संस्कृती-संघर्षाची सुलूस आमकां दितात. पयलो संघर्ष - मातृसत्ताक आनी पितृसत्ताक कुटुंब वेवस्थेंतलो! दुसरो संघर्ष - ब्राम्हण आनी क्षत्रिय

हांचेमदलो सत्तासंघर्ष!

लॉच आतां घुंवडावन ब्रह्मपुत्रेच्या प्रवाहाचे दिकेन वचूंक लागली.

म्हज्या मनांत विचार आयलो जल्माउपरांत केन्ना तरी ब्रह्मपुत्रा हे वाटेन पयल्याच फावट दिमखुऱ्यांनी व्हांवत आयल्या आसतली.

आनी कोण जाणा! घडये, सरस्वतीभशेन एक दीस हे वाटेन निमणी वचून खंय तरी अंतर्धान पावतली ब्रह्मपुत्रा!

अशें म्हणटात - विश्वाचे घड्याळींत मध्यानरातीचीं बारा वरां जाल्लीं तेन्ना विश्वाचो जल्म जालो. विश्वाचे घड्याळींत आतां साडेचार वरां जाल्यांत अशें मानतात.

पावणे पाचांक झेलांचे दोंगोर वितळटले. उदकाक हुंवार येतलो. ब्रह्मपुत्रेचे उदक सगळे भुंयेर पातळटलें. गंगा, यमुना, ब्रह्मपुत्रा, गोदावरी, सिंधु, कावेरी, म्हादय, जुवारी, तापी, नर्मदा, थेमस, नायल, सेन, व्होल्गा, - सगळ्यो न्हंयो भुंयेक गिळटल्यो. अरबी दर्या, आर्क्टिक आनी अंटलांटीक, अंटार्टीक आनी पॅसीफिक -सगले दर्या सगळेकडेन पातळ्टले पावणे पाचांक सगळ्याक उदकच उदक आसतलें.

पांचाक फांतोड जातली. सूर्याच्या भगभगान उदकाचें भस्म जातलें. न्हंयांचें भस्म जातलें. दर्याचो गोबोर जातलो. उदक खंय उरचें ना. फकत उजवाड उरतलो. आकाशांत आनी अंतरिक्षांत फकत धग उरतलो. भगभग उरतलो.

पृथ्वीच्या मर्णाचो - ब्रम्हपुत्रेच्या मर्णाचो तो खीण दोळयांमुखार आयलो आनी म्हाका घुंवळशी आयली.

लॉच थांबली. आमी देगेर देंवलीं. हांवे घड्याळांत पळयलें. म्हजें घड्याळ साडे चारांक बंद पडिल्लें.



# चेरापुंजी

फांतोडेपयलींच्या काळखांत सोरपाचे फिशालकायेन घाटांतली नागमोडी मोडणां काडत तोपोन टॅक्सी चलयतालो. भायर आकांताचें शीं आशिल्लें. आमी गाडयेचे हारशे वयर काडले.

अरूणाचल प्रदेशांत अरूणोदय जाल्लो आनी ताची दिप्ती मेघांच्या अंवारींत वसून मेघालयाचेर फांकिल्ली. उजवाडाच्या हातांनी शेतांचें पांचवें आंगण सारोवन लख्ख केलें. हांगा दोंगराचे देंवतेचेर सोपणां सोपणां करून शेतां लायिल्लीं. मदींच उदकाचे थिपके दिसताले. पाचव्या शेतांमदले उदकाचे ते थिपके सुर्याच्या किर्णांनी चकचकताले. उदकाचे पाट शेताचे देगेवयल्यान शेतभर भोंवडायल्ले. मदीं उदकाच्या पाटाक सोपणावयल्यान सवकासायेन देंवपाखातीर अशीर वाट दवरिल्ली.

जंय शेंतां सोंपतात थंय दोंगराचे तेंगशेर घरां दिसतालीं. ह्या घरांचे पांय धर्तरेक लागनाशिल्ले. कोंड्याच्या चार खांब्याचेर आसनमांडी घालून बशिल्लीं तीं ल्हान ल्हान घरां! घरांत वयर चडपाक निसण आशिल्ली. नारिंगी गालाची संत्रांभशेन तिकतिकीत माणकुली भुरगीं नित्तींच आवय फायल्यान सकयल देंविल्लीं. घरा म्हऱ्यांत तणाची रास पडिल्ली. भुरगीं ताचे भवतणी घुटमळतालीं. वापूय अजून न्हिदून पडला आसुंये. ताची अस्तुरी कामाक

लागिल्ली. मेघालयाचो दीस सुरू जाल्लो.

आमी वयर वयर वतात तशें लक्षांत आयलें मळब सकयल सकयल देंवता. तोपोनान एका ल्हान गांवांत च्या घेंवक गाडी थांबयली. म्हाका दिसलें - मात्सो हात वयर केलो जाल्यार तो कुपांक लागतलो. गाबणे दुकरिणीभशेन पोटांत पावसाची पिलां घेवन कुपां धांवतालीं. तांच्या फाटोफाट धांवताले धुक्याचे लैतांव.

ल्हान भुरग्याभशेन चोम्याचोम्यानी कुपां खांदार बोटवो घेवन आनी हातांत सत्री घेवन शाळेत वतालीं.

ह्या कुपांच्या वयर आसा खंय एक निसण - एक उबो सांकव. ताचे वयल्यान चडत गेल्यार सर्गार पावता अशें मेघालयांतलो भौस मानता. पांडव , द्रौपदी आनी तांचो कुत्रो सर्गाचे दिकेन वचूंक हेच वाटेन गेल्लीं आसूंये. हांगाच खंय तरी पडल्या आसत सैरंध्री याज्ञसेनी. हांगा सहदेव. फुडें नकुल. ताजे फुडे अर्जुन आनी मागीर भीम.

खरें म्हळयार कुपांच्या वयर आशिल्ल्या सर्गांत वचपाची गरजच ना अशें द्रौपदीक दिसलें आसुये. हें मेघालय म्हळयार धर्तरेवयलो सर्ग! रावली आसतली पांचाली ह्या पाचव्या वाठारांत आपले घाय पेखोवंक आनी तिका दिल्ल्या कश्टाचे परिमार्जन करपाक रावल्यात आसतले हांगा चार पांडव - द्रौपदीचे सेवेक! पिसो युधिष्ठीर सर्गांत गेला आसत - अप्सरेच्या मोहान.

हय! सर्गांतल्या खंयच्या तरी शापित सांतोणीचें पान गळून पडलां आसतलें हांगा खंयचे तरी पुरातन पानगळींत. तें पान सुकलें आनी ताचो अचकीत दोणों जालो - अशेंच जालां जावंक जाय. आनी त्या दोण्यांत द्रोणाचार्याभशेन जल्म जाला दिसता ह्या मेघालयाचो.

मेघालयाची वार जमनींत पुरूक ना. ती ढगांत पुरल्या. कुपांत पुरल्या.

मेघालय ओलें वस्त्र न्हेसलां.

"लंपट ओलें वस्त्र होऊनी अंग अंग तव लिंपून घ्यावें" पु.शि. रेगे खंयतरी म्हणटा. प्रेयसीच्या ओल्या वस्त्राची ताका नसाय जाता. मेघालयाचें ओलें लावण्य पळोवंक प्रियातुर कवीचे दोळे जाय.

बरा पानीचें इमियाम तळें शिलाँगच्यान लागींच आसा. ताच्या काठांर माथ्यांत आर्किडाचीं फुलां माळून बसलां- आर्किड लेक रिजोर्ट. सरभवतणीच्या सैमाक सोबतलें अशें वास्तुशिल्प ताका दिलां - आमच्या गोंयच्या वास्तुशिल्पज्ञान - चार्लस कुरैयान.

मळबांतले कुपांचे भिरें आतांच अळंग तळयांत देंवलां. तांच्या स्पर्शान तळयाचें आंगआंग शिरशिरलां.

तळयाच्या तळाक कोणेतरी दिवो लायला. पणती दवरल्या काय निरंजन पेटयलां? हो उजवाड खंयचो तर? तळयाच्या पोटांतल्यानच हुफेत हुफेत वयर येता तो आनी साय कसो तळ्या उदकार पातळ्ळा.

रंगाच्या कॉकटेलांत वयर सकयल बुडोवन काडिल्ली अनाम शेवणीं रूखांच्या ताळयेचेर बसून थळावे बोलींत किलकिलाट करतात. मदींच एक पिशें शेवणें उठ्टा आनी तळयाचेर अधांतरी कसली तरी कसरत करता. ताच्या फाटल्यान सगळीं शाणी शेवणी पिश्यांभशेन उठटात आनी तश्योच गिरक्यो घेतात. शेवण्यांची ती उडटी करामत पळयत गरम च्याचे घोंट घेत हांव व्होल्तेरार बसलां.

सुशांता भितर आसा. आयज आमकां कांयच करपाचें ना. खंयच वचपाचें ना. हांगाच बसपाचें - तळयाच्या म्हऱ्यांत. स्तब्ध निस्तब्ध.

हांव एकटोच आसां पूण एकाकी ना. एकटो आनी एकाकी, अलोन आनी लोनली - दोन उतरांमदीं कितलो भेद आसा, न्हय! लोकांतांत आसून कांय वेळा आमकां एकाकी दिसता आनी अशे एकांतांत आसून कसलीच एकाकी पणाची भावना मनाक आफुडना.

सैम हांगा आंकवार आसा. व्हर्जीन, दिखाळ, हरवो आसा. अमुरपिको आसा. आदिम चैतन्यान तो रसरसता. तिकतिकता. हांगा हूनसाण आसा. सैमाच्या करणांत सांबाळून दवरिल्ली सनातन उर्जा सभवतणी पातळ्ळया. आनी आसा शांती - थांग नाशिल्ली अथांग शांती. पार नाशिल्ली अपरंपार शांती. तिर्णे तळयाचो कंठ कांठ भरून ओतता. मन निर्विकार जालां. निर्विचार जालां. न्हयच्या उदकांतल्यान व्हांवत पयस वचपी लाकडाच्या ओंडक्यांभशेन

सगळे विचार, सगळे विकार व्हांवून गेल्यात. मन रितें जालां आनी ह्या रितेपणान तें भरून वतता. श्वास मंद जाला. उच्छवासय शीतळ जाला. शीण गळून पडला. आंग ल्हव ल्हव जालां. सगळयो संवेदना ल्हवपीक जाल्यात. अळंग जाल्यात तरल, तलम जाल्यात. सूक्षीम जाल्यात. खोल जाल्यात. म्हजें अस्तित्व नाच्च जायत चललां. एके अप्रूप थंडसाणीन, शीतळसाणीन हांव बुडत चललां. आतां सगळें अंधूक जायत चललां. कळप आनी न कळप हातुंतली शीम लेगीत खंयतरी भरसून गेल्या....

खूब वेळान म्हाका जाग आयली. ताका हांव जाग म्हणचोना. हांव न्हिदूंक नाशिल्लों. म्हाका म्हज्या अस्तित्वाचे भान आयलें इतलेंच हांव म्हणीन. आनीक कांयच म्हणना.

दुसऱ्या दिसा आमी शिलाँग गेलीं. शिलाँग हें मेघालयाचें राजपाटण. कांय वर्साआदीं मेघालय हो आसामाचो वांटो आशिल्लो आनी शिलाँग आसामचें राजपाटण आशिल्ले. जशें बंगाली लोकांनी आसामी लोकांक पिडले तशेंच आसामी लोकांनी मेघालयाच्या खांसी, जैंतिया आनी गारो वंशाच्या लोकांक नाडले. हे लोक बोडो आनी खांसी ह्यो थळाव्यो भासो उलोवपी. ह्या भासांक लिपी नासली. मेघालयांत ख्रिश्चन मिशनरी पावले. गोंयांत कांय पाद्रींनी कोंकणी भाशेखातीर मुळावो वावर केला, तसोच वावर ताणी मेघालयांत बोडो आनी खांसी भासांखातीर केलो. ह्या भासांनी फुडें रोमी लिपी आपणायली. आसामी लोकांनी आसामी भाशेची सक्ती करतकीर मेघालयाचे नीज लोक तिडकले. मोटें आंदोलन जालें. झगडून मेघालयान कांय वर्साआदीं १९७२ वर्सा स्वतंत्र राज्याचो दर्जो झोमून घेतलो. आपल्या राज्यांत आपल्या भासांक मानाची सुवात दिली.

मेघालयांतल्या चडशा लोकांनी ख्रिश्चन धर्म आपणायला पूण तांच्यांत मातृसत्ताक कुटुंबवेवस्था अजून चालंत आसा. मेघालयची अस्तुरी रूपेस्त तशीच सतेज. कुपांच्या रथांत बशिल्ल्या चिद्‌धन चपला विद्युलतेभशेन.

मेघालयांतय भायल्यांचो प्रस्न आसा. नेपाळचे, बांगला देशाचे लोक हांगा आयल्यात. भायल्यांच्या प्रस्नावयल्यान मेघालयांत हिंसक आंदोलनां

जाल्यांत. मेघालय अजून गडगडटा. मेघालय अजून आतंक वादाच्या चपक्यांत आसा. सुर्यास्ता उपरांत थंय भोंवप फिरप भिरांतीचें जालां.

शिलाँगचे भोंवडेंत म्हाका याद उरलो तो फुलपांख्यांचो म्युझियम. फुलपाख्याची सगळी विज्ञानीक माहिती सचित्र दिवपी हो म्युझियम. ह्या म्युझियमालागीं एक पसरो आसा. तोपोन आमकां थंय घेवन गेलो. आरश्याच्या विंगड विंगड टांकयानी तरांतरांचे रंगीबेरंगी फुलपांखे उडटात. आपणे आपल्याक जाय जाय त्या फुलपांख्याक बोट दाखोवपाचें. पसरकार तें भायर काडटा. एके पांचवे फ्रेमीर एकेक करून त्या सान फुलपाख्याक तो खुरसार चडयता. फ्रेमीचेर आरसो घालून तें फुलपांख्याचें कॉफीन भांगराचे फोलींत बांदून तो तुमच्या हातांत दिता.

हांव त्या पसऱ्यार चड वेळ रावलों ना. फुलपांख्याच्या किळच्यांनी काळजांत चर्र जालें.

सौंदर्यासक्तींत सचेतनाविशीं सहानुभाव जाय. तो नासत जाल्यार सौंदर्य सुंदर उरना. सोबीत थारना. तें विरूप जाता. विद्रूप जाता.

गांधीक आमी रूक्ष मनीस मानला. पूण फुलांक देंठाचेरच आसूं दी, तांच्यो गोमट्यो कापून तांचे हार करीनाकात असो विचार ताणी एके कडेन मांडला.

दनपारां तोपोन आमकां घेवन चेरापुंजी व्हटेन गेलो. वतां वतां तोपोनान आमकां आपल्या जिविताची काणी सांगली.

तोपोन पंद्रा, सोळा वर्सांचो बोडो तरनाटो. पिराय पंद्रा-सोळांची आसली तरी ताचें तोंड आठ णव वर्सांच्या भुरग्याभशेन दिसतालें. इंग्लीशींत अशा लोकांक 'पपी फेस्ड' म्हणटात. कुत्र्याच्या सान पिलाभशेन तोपोन बारीक दोळ्यांनी टुकूटुकू पळयतालो.

पळयतालो म्हणप समा जावचें ना. तोपोन हांसतालो. तोपोन आंगभर हांसतालो. तोपोन आशिल्लें एक मनसोक्त हांश्याचें कारंजें.

तोपोनाच्या बापायक पुलीसेन फारान मारिल्लो. ताचो बापूय हीच टॅक्सी चलयतालो. आपलो बापूय आतंकवादी आशिल्लो काय ना तें तोपोनाक

खबर ना. पूण आतंकवादी अशें समजून ताका मारलो इतलें तो जाणा. तोपोन तेन्ना शाळेंत शिकतालो. बापूय मरतकीर तोपोनान शाळा सोडली. तो टॅक्सी चलोवंक लागलो तोपोनाक एक धाकलो भाव आसा. एक ल्हान भयण आसा. तीं शाळेंत शिकतात. तोपोनाच्या आवयन बापायच्या मर्णाउपरांत हांथरूण धरलें. तोपोन रातचो घरा वचून रांदता. दोन तीन दीस तोपोन आमच्यावांगडा आसा. शेजान्न किदें शिजोवन घालतली तें ताची दुयेंत आवय, धाकली भयण आनी भाव खातलीं.

तोपोन आपलें दुःख उबयत बसूंक ना. तो कश्ट करता आनी कश्टाचें जोडून तो खाता. तोपोन समाधानी आसा. तोपोन एके धुंदींत आसा. जिणेची झिंग ताका चडल्या. म्हणून तो हांसता. मुक्त, मनसोक्त हांसता. अशे तरेन हांसपी मनीस दुःखी आसूंक शकना. तोपोनाक पळयतकीर म्हाका लाफींग बुध्दाचें बावलें याद जालें.

चेरापुंजी पावून पावना अशें जालें घाटांतलो रस्तो. तोपोन सवकासायेन गाडी चलयतालो.

जिवितांत हांव चेरापुंजी पावन अशें हांवें केन्ना चितलें ना. चेरापुंजीची वळख ल्हानपणांत चवथेक आसतना जाल्ली आसुंये. संवसारांत सगळयांत चड पावस खंय पडटा ह्या प्रस्नाची जाप - चेरापुंजी, चेरापुंजी, चेरापुंजी... अशी कितले फावट हांवे घोकंपट्टी केल्ली.

चेरापुंजी साडेचारशें इंच पावस पडटा. म्हळयार गोंयापरस साडेचार पट - पावस. दुकळ पडलो जाल्यार पावस पडचो म्हणून भारतीय मनीस शंकराक साकडें घालता. शंकराचें लिंग उदकांत बुडोवन दवरता.

"सांब सदाशिव पाऊस दे
शेतें भातें पिकूं दे
पयशाने पायली विकूं दे"

हें ताचें गाराणें. भारतीय भौस आर्य देवांची प्रार्थना करना. तो विष्णुक, कृष्णाक, ब्रह्मदेवाक साकडें घालीना. ताचे नदरेन पावसाचो देव अनार्य. पावसाचो देव - शंकर. भौसाच्या मनान पर्जन्यदेवाचो पाट वरूणाक न्हय.

सदाशिवाक दिला.

म्हाका दिशिल्लें - साडे चारशें इंच म्हळयार लागीं लागीं चाळीस फूट पावस पडपी चेरापुंजी गांव शंकराचे पिंडीभशेन पावसाच्या उदकांत बुडून आसतलो. चेरापुंजी पावतकीर मात म्हाका कट्टेंत नाक बुडोवचें अशें दिसलें. पूण नाक बुडोवंक तरी कट्टेंत उदक आसूंक नाका?

उदकाचो एक थेंब ना. पावसाचो एक थेंब ना. एक व्हाळ ना. एक घोगो ना. एक तळी ना. एक पांचवो थिपको ना. बोडको दोंगोर. सुको सणसणीत गांव.

खंय गेलो सगळो पावस? साडेचारशें इंच पावस?

सगळो पावस गेलो. व्हांवन गेलो. हांवें सकयल पळयलें. शेंकड्यांनी फूट सकयल बांगला देशाची भूंय दिसली.

चेरापुंजीन आपले होटयेंत कांयच दवरलें ना. राजसूय यज्ञांत सगळें दान करून निष्कांचन जाल्ल्या रघु राजांभसेन चेरापुंजी निष्कांचन जाल्लें. निष्पर्ण जाल्लें.

चेरापुंजीचें तें निष्पावस रूप पळोवन हांव खंती जालों. म्हाका दिसलें - चेरापुंजी आमच्या देशांत आसपाचें न्हय. वुइ डोन्ट डिजर्व चेरापुंजी. चेरापुंजी डज नॉट डिजर्व अस. आमकां चेरापुंजी फावो न्हय आनी आमी चेरापुंजीक फावो न्हय. चेरापुंजी इस्त्रायलाक आसपाचें. तो देश चेरापुंजीचें भांगर करतलो आशिल्लो. पावसाचो थेंब थेंब सांठोवन इस्त्रायल चेरापुंजीक निवळशंख उदकाचे टांकयेतले भांगराचे मासोळीभशेन खेळयत दवरतलो आशिल्लो.

तोपोनाकय वायट दिसलें. तो हांसलो पूण खिन्न हांसलो. "सरजी, आतां पावस ना. पावसांत परत यो, सरजी" ताणें म्हळें.

चेरापुंजीच्या बाजारांत सुशांतान एक सत्री घेतली. ती सत्री आमी अजून उगडूंक ना. अजून पावसांत भिजोवंक ना. चेरापुंजीची याद म्हणून आमी ती सुकी सत्री तशीच सांबाळून दवरल्या!!



# पाचवो मिनार

वाडटें रूप आसता तशें विट्टें रूप आसता. गौहाटीच्यान कलकत्त्याक आयलों तेन्ना दिसलें- दिशीं दिशीं कलकत्त्याचें रूप विटत आसा. एका तेंपावयलें हें गिरेस्त शार आपल्या कर्मकट्टेपणान कंगाल, भणंग जायत वता. कलकत्त्याक रावनशें दिसलें ना. कलकत्त्याच्यान क्रूस मारली आनी हैदराबादचें विमान धरून दिवेलागणेक आमी हैदराबादाक पावलीं.

कलकत्त्याच्या उरफाटें हैदराबाद. दिशीं दिशीं हैदराबादचें रूप वाडत आसा. कलकत्त्याक एक बेळशेल्लें, पोंवशेल्लें, कुशिल्लें शार पळोवचें आनी हैदराबाद एक ताजें, टवटवीत, जितें जिवें- सतेज शार पळोवचें.

संस्कृतायेच्यो तीन संकल्पना आसतात. एक लोहचुंबकाची संकल्पना. हे संस्कृतायेक तरांतरांच्या संस्कृतायांतले लोक येवन दसतात. लोहचुंबकाच्या दोनय ध्रुवांक खिळे दसचे तशें! लोहचुंबकाचें मूळ रूप बदलना. खिळेय खिळेच उरतात. जाता तें एके तरेचें दसप. एकमेकांक घश्टून बसप.

संस्कृतायेची दुसरी संकल्पना आसा ती मेल्टींग पॉटाची. कांय संस्कृतायो आपल्या आयदनांत जें जें पडटा तें तें इतिहासाचे रान्नीर दवरून कडयतात. आपलें निजाचें दूद आनी भायल्यान घाल्लें मेळांय हांचे रासायनीक प्रक्रियेन घुसळून ताक करतात. लोणी करतात. तूप करतात. वेगळीच नवी संमिश्र, व्यामिश्र संस्कृताय घडयतात.

संस्कृतायेची तिसरी संकल्पना म्हाका अदीक आवडटा. फ्रूट सॅलेड वावलाची संकल्पना. फ्रूट सॅलेडांत विगंड विंगड, फळांच्यो फोडी आसतात. दरेक फोड आपली निजाची रूच राखून दवरता आनी अशें आसूनय फ्रूट सॅलेडाक एक वेगळीच रूच आसता. वेगळोच सुवाद आसता.

हैदरावाद हो लोहचुंबक न्हय. हैदराबाद हें मेल्टींग पॉटय न्हय. हैदरावाद हो फ्रूट सॅलेडाचो क्रिस्टल बावल!

हैदरावादाचेर इस्लामी सया आसाच आसा. हैदरावादान थोडो ब्रिटीश भेसय घाला. हैदरावादच्या कपड्यांचे आलमारींत थंयच्या मूळ बंजारा लोकांचो रंगीबेरंगी हारशांचो भेसय आसा. हैदराबादच्या पेटलांत तेलगू संस्कृतायेचो भरजरी शालू आसा. हैदराबादच्या माथ्यांत तामीळ चंद्र आसा. पांयांत कानडी पांयजणां आसात. गळ्यांत महाराष्ट्रीय कंठहार आसा.

हैदरावादचें बहुआयामी संस्कृतायेचें पडबिंब पुरायपणान पडलां तें हैदरावादच्या अन्नब्रह्मांत!

हैदराबादाक गोस्तान खावपाची ती जिलेबी! ह्या देशांत साकर चिनांतल्यान आयली. हिंदी भाशेंत साकरेक 'चिनी' अशेंच म्हणटांत. ह्या देशांत जिलेवी हाडली मोगलांनी.

जिलेवी वरावर आयली जिलेबी करपाची कला. जिलेबी करपाचें शास्त्र. कोणेंय उठचें आनी रान्नीर कायल दवरून जिलेवी काडची -इतलें सोपें न्हय तें!

जिलेवी फावो तितलीच गोड आसूंक जाय. चडय न्हय. उणेंय न्हय. तिची गोडसाण तोंडार मारूंक जायना. जिलेवी जाय तितलीच कुरकुरीत आसूंक जाय आनी जाय तितलीच मोव. चड न्हय. उणें न्हय. केळीचे पांचवे शिरतेर वाडिल्ली जिलेबी सुंदर दिसूंक जाय. वटवटीत दिसूंक फावना ती. केशरी रंगांत हडवो रंग खिरोवन जो रंग जाता त्या रंगाच्या पाकांत बुडोवन जिलेवी रंगे-शरीर जावपाक जाय.

जिलेवी खावपाच्योय म्हणून तरा तरा आसात. एक देशी तरा- वेठीच जिलेवी खावपाची. ताजी, गरमागरम, गोड, कुरकुरीत, वाकस जिलेबी एकेक

क्रून सवकासायेन खावपाची.

जिलेबी खावपाची दुसरी एक फारसी तरा आसा. गोड जिलेब्यो घेवपाच्यो आनी त्यो तिखट फरसाणीबरावर खावपाच्यो. शेव, खारेगांठी, पापडी हांचो एक वचको तोंडांत वडोवपाचो आनी मागीर एक सगळीच्या सगळी जिलेबी मट्ट करपाची. रूचीची अशी ही तिखट, गोड, तिखट, गोड परिक्रमा करतकीर जिलेबी अदीक गोड लागता आनी फरसाण अदीक तीख लागता.

जिलेबी खावपाची तिसरी एक विलायती तरा आसा. गरमागरम जिलेबी आतांच्या आतां कायलींतल्यान काडपाची आनी ती थंडगार वॅनिला आयस्क्रिमांत बुडोवपाची. जिलेबीचे गरमेन आयस्क्रिम वितळ्ळें म्हणटकीर त्या दुदाळ आयस्क्रिमांत भरसतकीर थंड -गरम जिलेबी पोटभर खावपाची.

हांव म्हज्या इश्टांक सांगतां- म्हजे खातीर देवाकडेन वी कितेंय मागतले जाल्यार एकच मागात- हाका गोडे मुताचें दुयेंस जावचें न्हय. म्हाका मरसर पोटभर जिलब्यो खावंक मेळूं.

मागीर ल्हवूच हांव दुसऱ्या इश्टाक सांगतां- तूं मात हेंच मागूं नाका. तू माग-हाका अल्सर, ॲसीडीटी, कॉलेस्ट्रॉल असलीं दुयेंसां जावूं नाका. हाका पोटभर बिर्याणी खावंक मेळूं.

हैदराबादाक वतकीर चारमिनार पळयनासतना येवचें. पूण थंयची बिर्याणी खावची.

बिर्याणीच्यो कितल्यो तरा! बाबा म्हज्या! हैदराबादी बिर्याणी, मोगलाई बिर्याणी, पेशावरी बिर्याणी, अफगाणी बिर्याणी, काश्मीरी बिर्याणी! बिर्याणीचें एक बरें. तिच्या नांवाफाटल्यान खंयच्याय वाठाराचें नांव विशेषण कशें लायलें म्हणटगीर नवी बिर्याणी जाता.

तशेंच शागोतेचें. चिकन मख्खनवाला- तुमी सगळे जाणात. पूण चिकन श्रीखंडवालाय आसूं येता. नान, पराठा, कबाब हे सगळे पदार्थ तांकां तरांतरांचीं उतरां दसोवन तरांतरांचे करूं येता.

हैदराबादाक हे नान, पराठे, कबाब आनी बिर्याणी चापून खातकीर

एक दोन ग्लास थंडगार फलुडा पिवचो. शाही फलुडा, राजेशाही फलुडा, बादशाही फलुडा! थंड दुदांत शीतळ तूपमिरीं, शेवयो, रोजबेरीचें सिरप, ड्राय फ्रूट्स आनी आयस्क्रिम घाल्लो फलुडा पिवन तृप्त जावचें आनी मागीर सुस्त ताणून दिवचें.

सगळी दनपार बरी ऽ न्हीद काडून सांजवेळा उठचें आनी तोंडार उदक मारून भायर येवन कोणाकय विचारचें- आतां, सांग बाबा, हैदरावादाचो तो फामाद चारमिनार खंय आसा? कशें वचप थंय?

चार दिकांकडेन वचपी चार रस्ते ज्या चौरस्त्यांचे ताळयेक फुट्टात त्या चौकांत चारमिनार आसा. चारशें वर्सां पयलीं कुतुबशाही वंशाचो पाचवो राजा क्विला कुतुब शाह हाणें इस्लामी स्थापत्यकलेंतली अप्रूप अशी ही चारमिनाराची वास्तू बांदली. आपली प्रेयसी भागमती हिच्या मोगाचें प्रतीक म्हणून ताणें चारमिनार बांदलो. हैदरावाद हें शारय ताणेंच बांदलें आनी भागमतीक ओंपलें. देखून हैदराबादचें मूळ नांव- भाग्यनगर. फुडें ही भागमती राणी जाली. राजान तिका नवें नांव दवरलें- हैदरमहल आनी तेन्नाच्यान भाग्यनगराक लोक म्हणूंक लागले- हैदराबाद.

चारमिनाराचें शिरवंत रूप पळोवन मन प्रसन्न जाता. मोटो प्रियदर्शन हो चारमिनार. ताचेकडेन दोळे भरून पळयत रावचें. नदर काडची न्हय. पळयत रावचें.

फिकट हडव्या चांफेकळयेच्या कोराचो चारमिनार दिसाच्या रतन उजवाडांत जितलो सुंदर दिसता तितलोच रूपावती रातीच्या दिव्या झगझगाटांत.

चारमिनाराची वास्तू भूमितीच्या प्रमाणबद्ध कोश्टकांत बसल्या. ६६ फूट वाय ६६ फूट अशा चौरसाची ताची बुन्याद. ताचेर ६६ फूट उंचायेचीं चार आर्कां आनी तांचेर ६६ फूट उंचायेचे चार मिनार.

चारमिनार बोटभर उंच आशिल्लो जाल्यार अदीक सुंदर दिसचो नाशिल्लो. चारमिनार वेंतभर मोटवो आशिल्लो जाल्यार मात तो विद्रूप दिसपाचो. लांवाय, रूंदाय आनी उंचाय हांणी फावो तितलींच परिमाणां घेवन

चारमिनाराची त्रियामी वास्तू उबी आसा.

चारमिनार कुतुबमिनारा भशेन गोलघुमटाभशेन, ताजमहालाभशेन लोकांपसून पयस वचून बसूंक ना. वत्सल आज्याभशेन शारांतल्या आपल्या नातरांक मांडयेर घेवन तो तांकां खेळयता.

देखून चारमिनाराविशीं आपलेपण दिसता. आत्मीयता दिसता. चारमिनार लोकांमदीं भरसला आनी लोकांचो जाला. ताचे एके वटेन मक्का मशीद आसा. दुसरे वटेन खड्यांच्या कांकणांचो लाड बजार आसा. तिसरे वटेन मिठायेचीं दुकानां आनी चवथे वटेन मोतयांची पेठ.

चारमिनाराक दोळे भरून पळयत आमी उबीं आशिल्लीं. तेन्ना एक सान भुरगो आमचेसरीं आयलो आनी म्हणूंक लागलो- साब, मेरे साथ लाडबजार चलो. मैं आपको अच्छे अच्छे दुकानमें लेके चलूँगा.

त्या भुरग्याचें नांव- तन्वीर. म्हाका ताची लक्तुबाय दिसली. आपल्याक दोन पयशे मेळचे म्हणून तो हांगा चारमिनार पळोवंक आयिल्ल्या भोंवडेकारांक घेवन लाड बाजारांत वता. तन्वीराक शाळा ना. तन्वीराक शिक्षण ना. तन्वीराक देश ना. धर्म ना. संस्कृताय ना. ह्या देशांतल्या नांव, गांव नाशिल्ल्या शेंकड्यांनी वाल कामगारांचो एक प्रतिनिधी-तन्वीर!

लाड बजार म्हळयार कांकणांचो बाजार. हारीन आसात तीं फकत कांकणकारांचीं दुकानां. खड्यांचीं कांकणां- तांबड्या, पांचव्या, निळया, जांबळया, हडव्या-तरांतरांच्या रंगाच्या खड्यांचीं कांकणां.

म्हाका बाकिबाब याद जालो.

'बांगड्या बघा या....
श्रावण लावण्यराज लागला फुलाया
जलवलये स्वरवलये
दिनकर-शशिकरवलये
मिसळूनि घडिल्या प्रणये,
गोड बांगड्या या

या प्रदोषकांत निळ्या
या बिजल्या सोनसळया
या वासंतिक हिरव्या,
आशांसम नित्य नव्या
वधुहृदयापरि हळव्या
क्षितिजासम या जांभुळ
जलदांसम या श्यामल
वत्सल या गंगेतिल सांध्य मेघ छाया'

माथ्यांत फुलां, कपलार भांगतिळो, नाकांत नथ, गळयांत हार, कानांत कानांतलीं, हातांत कांकणां आनी पायांत पांयजणां... भारतीय अस्तुरेचे हे अलंकार! ह्या सगल्या अलंकारांत कांकणांक एक वेगळीच अप्रूप सुवात आसा.

व्हंकलेक व्हंकलपण दिता तिच्या हळदी हातांतलो पांचव्या कांकणाचो चुडो. भारतीय अस्तुरेच्या हातांतलें कांकण फुटना. तें वाडवता.

हातांत कांकणां घाल म्हणून दादल्यांक तिडायतना आमी नाका आसतना कांकणांचो अपमान करतात, अशें दिसना तुमकां?

लाड बजारांत आमी कांकणां घेतलीं. तन्वीराच्या हातार हांवें पंचवीस रूपया दवरले. भीक दिली ना हांवे ताका. तन्वीर आशिल्लो आमचो लाड बजारांतलो गायड. ताका ताच्या कश्टांचें मोल मेळूंक नाका?

लाड बजाराच्या शेजरा मोतयांची पेठ आसा. हैदराबाद ही मोतयांची व्हडली बाजारपेठ. भांगर, रूपें, वज्रां, माणकां, पाचु, मोतयां, पुश्खराज, नीलमणी आनी कोरलाचे तांवडे, नारिंगी खडे- हांचीं तरांतरांची पर्म्युटेशन्स आनी कॉंबिनेशन्स करून सुवर्णकारांनी तरांतरांचे अलंकार अस्तुरेच्या आंगार घाले. ह्या अलंकारांमदीं मोतयांचीं कांकणां, मोतयांचे हार, मोतयांची नथ, मोतयांचीं कर्णफुलां, मोतयांच्यो मुदयो अप्रूप! वज्राभशेन मोतयां दोळे दिपकायनात. मोतयां दोळयांक थाकाय दितात.

लेव गुलाबी सया पडिल्ली, लेव हडव्या आनी गडद धव्या रंगाचीं

मोतयां. अनंताच्या फुलांभशेन धवीं फुल्ल मोतयां. मान्नी पुनवेच्या चंद्र किर्णां भशेन कुन्देन्दुतुषारधवल मोतयां. बोगनवेलीच्या फुलाचे पाकळेभशेन रंगांतली सगळी सगळी आकुळपिकुळताय घेवन आयिल्लीं मोतयां. मोगरेचो दुवाळी भार आयिल्लीं मोतयां. हीं मोतयां नवरात्रांतले देवतेच्या झेतान भांगराच्या मखरांत बसतात तेन्ना तांचें लावण्य पळोवन दोळे न्हिवतात.

सगल्या रत्नांमदीं मोती हें एकच सेंद्रीय रत्न. शिंपल्यांतलें कालूं आपल्या आंगांतलो जो स्त्राव भायर काडटा तो शिंपल्याच्या भितरल्या आंगाक दसता. मागीर त्या शिंपल्यांत रेंवेचो कण वो दुसरो खंयचोय अती ल्हान वस्तूचो कुडको गेलो म्हणटगीर तो सेंद्रीय स्त्राव त्या कणाभोंवतणी वेटाळो घेता. ताचेंच जाता मोती.

तीन चार टन शिंपल्यांमदीं तीन चार मोतयां मेळटात. मोती जितलें वाटकुळें तितलें ताचें मोल चड. मोती जितलें व्हड तितलें तें म्हारग. मोतयाचेर कसलोच दाग आसूंक फावना. चंद्रमे जे अलांछन म्हळयार दाग नाशिल्ल्या चंद्राभशेन आसूंक जाय मोती.

ह्या वाटकुळ्या मोतयांक मागीर मोटे फिशालकायेन मदीं बुराक करचो पडटा. मागीर हीं मोतयां हायड्रोजन पेरोक्सायड् घाल्ल्या हून उदकांत दवरतात. हाणें मोतयांचो रंग अदीक सतेज जाता.

चारमिनाराक सरभोंवतणी प्रदक्षणा घालची आनी चारमिनाराचे साक्षीन खड्यांचीं कांकणां, मोतयांचे अलंकार ना जाल्यार वेंकटगिरी, पोंचमपल्ली साडयो घेवच्यो. चारमिनार दोळे मोडीत तुमकां सांगता- चलात, आयज जिवाचो हैदराबाद करात.

न्हंयांची उगम सुवात आसता तशें शारांचेंय उगमस्थान आसता.
हैदराबाद शार जल्मलें गोवलकोंडा किल्ल्याच्या कुसव्यांत. काकातिया वंशाच्या राजांनी गोवलकोंडाचो किल्लो बांदलो. फुडें कुतुबशाही राजांनी तो वाडयलो. एके ल्हानशे दोंगुल्लेचेर आशिल्लो हो किल्लो. थंयच्यान दश दिकांच्या वाठाराचें विहंगम दर्शन घडटा.

उदकाची टंचाय आनी प्लेगाची धाम ह्या दोन कारणांनी मूळ शार

आपली साटली पोटली घेवन भायर सरलें. उदका खातीर हुसेन सागराचें तळें बांदून तें ताचे देगेर येवन बसलें आनी तळयाचे पलतडीं ताचें जुवळें भावंड-सिकंदराबाद.

गोवलकोंडा किल्ल्याच्या दाराकडेन कसलोय आवाज काडत जाल्यार तो किल्ल्याचे तेंगशेर आयकूंक येता. किल्ल्याचो मुखेल दरवाजो हत्तींनी धडक मारून मोडचो न्हय म्हणून ताका मोटे मोटे खिळे मारल्यात. दरेक प्रवेशदाराच्या वयर सोल्दारांक लिपून बसपाक सुवातो आसात. घुरी घालपी सैन्याचेर वयल्यान गरम तेल वतोवपाची वेवस्था केल्ली आसा.

किल्लो आतां उध्वस्त जाला. पूण ताच्या राजेशाही थाटाच्यो कुरवो जळीं मळीं शिंपुडल्यात. ते राजा सोंपले. त्यो राणयो सोंपल्यो. तांची उदक नाशिल्लीं, सुकिल्लीं न्हाणीघरां आसात. शिंवासनां चोरून व्हेलीं. दरबार आसा. रितो रिक्त दरबार आसा.

मेकळ्या मळबाकडेन उदास नदरेन पळोवपी खांबे उरल्यात. इतिहासाचो जीव गेला पूण सांगाडो उरला.

अशें आसूनय गोवल कोंड्याचो किल्लो निर्जीव अशें हांव म्हणचोना. तातूंत खंयतरी जीवसाण आसा. खंयतरी क्षीण हूनसाण आसा. कर्णाचें मडें खंय खूब सुंदर दिसतालें. गोवल कोंडा किल्ल्याचें मडें-तशेंच सुंदर!

गोवल कोंड्याचो किल्लो पयसुल्ल्यान पळयता- हैदराबादाचें बदलतें रूप. ताणें पळयला तो दुखेस्त दीस-ज्या दिसा हें शार ताका सोडून गेलें. ताणें पळयलें हुसेन सागराचे दुवाळे आनी चारमिनाराचो जल्म. ताणें पळयलो कुतुबशाही वंशाचो अस्त आनी मोंगली साम्राज्याची रया. ताका याद आसा युनियन जॅकाची. तो विसरूंक ना विलासी निजामाक. तो विसरूंक ना सरदार वल्लभभाई पटेलाचो खणखणीत आवाज. ताका याद आसा अजून भारतीय लश्कराचो खणखणाट.

गोवलकोंडा आतां पळयता हैदराबादाचें हायटेक रूप. हैदराबादाच्या दोळ्यांतलें सायबर सपन. गोवलकोंडा पळयता अजापान- संगणकाच्या चेप्यांतल्यान सॉफ्टवेअराचे सोंशे काडपी जादुगारांच्यो करामती.

गोवलकोंडा किल्लो वारीकसाणीन पळयता- फिल्म सिटीक. उजवाड आनी सावलेच्या कळसुत्री बावल्यांचो खेळ रूपड्यांचो खेळ. नवी घोडेमोंडणी. नवो मुसळांखेळ.

हैदराबादच्या चौरस्त्यावयल्यान भायर सरिल्लें नव्या सोमाराचें पुरसांव पळोवन गोवलकोंडा किल्लो मनांतल्यान खूब खोशी जाता. धादोसकायेन फुलता.

हैदराबादांतलो निमाणो दिस. हांव फांतोडेर उठलों आनी फांतोडपावलेक हुसेन सागराचे तळयेकडेन गेलो.

हुसेन सागराचे मदीं खडपार उबो आसा तथागत बुद्धाचो पुतळो.

हो पुतळो बार्जीतल्यान खडपामेरेन व्हरतना बार्ज उमथली आनी पुतळो तळयांत बुडलो. आमच्या गोंयच्याच आनंद माडगांवकारान बुडिल्ल्या बुद्धाक वयर काडलो. हाचे पयलीं आचार्य धर्मानंद कोसंबीन विस्मृतीच्या म्हासागरांत बुडिल्ल्या बुद्धाक वांचयल्लो आनी हांगा हुसेन सागरांत बुद्ध वाटावलो दुसऱ्या एका गोंयकाराखातीर!

ते फांतोडेर बुद्धाचे अर्धोन्मिलीत नदरेक नदर लावन हांव एकचित्त कितलोसोच वेळ थंय बसलों.

मनातल्या मनांत हांव गुणगुणलों.

बुद्धम् सरणं गस्यामि

धम्मम् सरणं गस्यामि

संघम् सरणं गस्यामि

बुद्धाक म्हजो नमस्कार. ताच्या धम्माक म्हजो प्रणाम. ताच्या संघाक म्हजें नमन. बुद्ध हो मनीस न्हय. देव न्हय. अवतार न्हय. बुद्ध हो एक विचार. त्या विचाराचो आदार घेवया. धम्म म्हळयार धर्म न्हय. पंथ न्हय. धम्म म्हळयार एक जीवनशैली. एक जिणेचें तत्वज्ञान. तें तत्वज्ञान आपणावया. बुद्धाचो संघ म्हळयार कसलें संघटन न्हय. संघ म्हळयार एक आचारसंहिता. तिचो स्विकार करया.

हांवे बुध्दाकडेन मागलें. बुध्दा, आमकां शीलवान कर. आमकां

प्रज्ञावान कर. आमची वाचा म्होवाळ कर. आमची करणी मोगाळ कर. भवतु सर्वे मंगलम्- सगल्यांचें बरें जावं सगळे सुखी जावं.

जिणेतलो वखवख सोंपूं. वसवसो सोपूं. जिणेत तृप्ती येवूं. समाधान येवूं. आमचेमदीं मैत्री वाडूं. मित्ता वाडूं.

हेरांच्या सुखान आमकां खोस जावं. दुसऱ्याच्या दुख्खान आमच्या काळजांत चर्र जावं

तुज्या करुणाष्टाकाच्यो किणकिण घांटी आमच्या कानांत वाजूं.

बुध्दा, मुदिता आनी मैत्री, करूणा आनी उपेक्षा ह्या तुज्या चार मिनारांपलतडचो प्रज्ञेचो पाचवो मिनार आमच्या जिविताच्या चौरस्त्यार उबार



# तो आतां गांव उरूंक ना...

लेक डिस्ट्रीक्ट- तें आतां नांव उरूक ना. ताचें आता एक विशेषण जालां. विंडरमेअर. तो आतां गांव उरूक ना. ताची आतां एक प्रसन्न, परमळीत, मोरपांखी याद जांवन यादींच्या मखरांत वचून बसल्या.

फांतोडेचीं पावणे पांच जाल्यांत हांव अजून जेटलॅगांतल्यान भायर सरूक ना. फांतोडेर म्हाका खूबच बेगीन जाग आयली. भायर खूब शीं आसा. तरी हांव भायर सरतां

लंडनचो हो रसेल स्क्वेअर. रसेल स्क्वेअराकडल्यान चलत हांव यूस्टन स्टेशनार येतां. यूस्टन स्टेशनार जितो मूंस ना. डब्लू. एच. स्मिथाचें पुस्तकांचे दुकान बंद आसा. यूस्टन स्टेशनावल्यान सात जांवन तेरा मिनटांनी जी ट्रेन भायर सरता तिचेर बसल्यार णव साडे णव म्हणसर स्ट्रेटफॉर्ड अपवॉन अव्हॉन पावूं येता. अव्हॉन न्हंयचे देगेवयलो हो विल्यम शेक्सपियराचो गांव. आनी सात अडतीसांची व्हर्जीन ट्रेन एडिंबरो मेरेन वता तिचेर बसून ऑक्सलहोमाक देंवलो जाल्यार दनपारमेरेन विंडरमेअर पावूं येता. विंडरमेअर हो तळयाचे देगेवयलो विल्यम वर्डस्वर्थाचो गांव.

नाटकापरस म्हाका कवितेचे पिशें. शेक्सपियरापरस म्हाका वर्डस्वर्थ प्रिय. शेक्सपियराच्या नाटकांनी दिसता मानवी भावभावनांच्यो तरांतरांच्यो आकृती. मानवी प्रकृती, विकृती आनी संस्कृती हांचो कळसूत्री खेळ दाखयलां ताणें आपल्या नाटकांतल्यान. हय! शेक्सपियरानय कविता

केल्यात. फुलपांखो जांवन म्हाका फुलांफुलांतले म्होंव चाखूंक जाय अशें म्हणपी कवी हो. मूळ पिंडान कवी. मागीर नाटककार. नाटकांतल्यान ताणें गद्य कविताच बरयल्या. म्हाका मात सदांच वर्डस्वर्थ आवडला. वर्डस्वर्थ सैमकवी. कविता हो ताचो श्वास आनी उच्छवास. कविता हें ताचें काळीज. ताच्या काळजाचो ठोको ताच्या काळजाचें स्पंदन. सैमाचे हारशेंत ताणे कविता पळयली आनी आपले कवितेचे हारशेंत ताणें सैमाचे शुद्ध, विशुद्ध रूप दाखयलें.

साडे स जायत आयलीं. तिकीटाच्या जनेलाकडेन तीन चार जाणांचो क्यू लागला चल, हांवेय रावल्यार बरें क्यूंत.

हांव विंडरमेअरच्यो चार तिकेटी काडटा. जनेलाफाटली बायल हांसत हांसत म्हज्या हातांत तिकेटी दिता आनी सांगता - विक एण्डाच्यो सुट्यो आसात. लागींच थॉमस कूकाचो काउंटर आसा थंय वचून हांवे विंडरमेअराचें हॉटेल बुक केल्यार बरें. इंग्लडाक भोंवतना हॉटेलांनी रावचे परस बेड आनी ब्रेकफास्ट दिवपी घरांनी रावचें. थॉमस् कूक म्हाका विंडरमेअराक तळयाचे देगेवयलो प्रिमरोज कॉटेज बुक करता.

वेगींवेगीन हांव हॉटेलार परततां. साडे सात मेरेन आमी यूस्टन स्टेशनार येतात. यूस्टन स्टेशन आतां मनशांनी फुललां. आनी ही पळय व्हर्जीन ट्रेन आयली. व्हर्जीन ट्रेनीचे नांव सुंदर तशें ती ट्रेनय दिसपाक भोव सुंदर. ट्रेनीक पांचवो आनी गुलाबी रंग. एका फाटल्यान एक अशे पाचवे-गुलाबी डवे आशिल्ली रंगीत फुलपाखी ट्रेन. नितळ लखख निवळ. ट्रेनीक व्हडली जनेलां. जनेलांक ग्रीलां नाशिल्ले पारदर्शी हारशें.

ट्रेन सुरू जाता. लंडन शार फाटीं पडत वता. कंट्रीसायड सुरू जाता. पयस पयस पाचवीचार शेतां. शेतांचे देगेर हडवी, केशरी, जांभळी रानफुलां. मदींच आसनमांडी घालून बशिल्यो दोंगुल्यो. तांचेर स्वच्छंद चरपी गुलगुलीत गायो. गुबगुबीत ल्हंवेचीं टुणटुणीत मेंढरां. दोंगुल्लेचे कुशीन ल्हानसो गांव आनी हारीन वशिल्ली घरां.

विंडरमेअर स्टेशन आयलें. प्रिमरोज कॉटेज खंय ती?

हे देंवतेच्या रस्त्यान चलत वचप मागीर दाव्यान सरळ. मागीर लागता विंडरमेअरचें तळें. तळयाच्या कांठाकांठान चलत वचप... ही पळयात आयली प्रिमरोज कॉटेज. तळें खिणभर तिश्टलां हांगा. फुडे वचूं काय नाका अशें म्हणत थांवलां. आनी उत्तरेचे दिकेन धांवत गेलां. ही ल्हानशी दोंगुल्लिका. हांगा तळयाच्या उदकांत ती पांय वुडोवंक आयल्या. आनी ते पळय - मेजून सात रूख. कसलेंच मिती-भूमिती-त्रिमितीचे भान दवरीनास्तना सैरवैर पातळळयात तांच्यो खांद्यो आनी तांचेच सावळेंत बसल्या ही अधोमुख लजकुरीशी प्रिमरोज कॉटेज!

घराच्या वण्टीर पाचवी वाल चडल्या. वण्टी दिसच नात. पळय- मुखार तांबड्यागुंज, गुल गुलाबी, मोतयां कोराच्या गुलाबांचो फ्लॉवर बेड. आनी जनेलां पळय कितली सुंदर. ल्हान ल्हान हारशांच्यो फास्को आनी बाल्कनीक हुमकळत आसात पळय ऑर्किडाचे रंगयाळे, फुलयाळे व्हाज.

ही प्रिमरोज कॉटेज मात्शी थोडी व्हड आसूं येताली. ना, पुणून अदीक व्हड आशिल्ली जाल्यार तिची सोबितकाय घडये अदीक वाडची नाशिल्ली. जाणे कोणे बांदल्या ताणे प्रमाण वध्दतेचे भान दवरूनच ती बांदल्या. आनी जे सुवातेर ती वसल्या ती सुवात पळयात. फाटल्यान दोंगुल्ली. देंवतेर ते सात रूख. सामकार तळें आनी तळें आनी प्रिमरोज कॉटेज हांचेमदी ही ल्हानशी पांयवाट. तळयाक हुंवार आयलो जाल्यार उदक ही वाट बुडोवन कॉटेजीच्या सोंपणामेरेन पावचें ताचेवयर पावचें न्हय म्हणून तिची प्लीन्थ थोडी वयर काडल्या. पुणून चडच वयर न्हय. जाय तितली. आनी दावे व्हटेन हें पोरसूं.

हीं पळय जेनी, जेकब हांसत हांसत भायर आयली. आनी हीं कोण? हें तांचे किटी मांजर आनी हो सॉफ्टी कुत्रो. हीं दोगांय आयलीं पळयात आमकां येवकार दिवपाक. प्रिमरोज कॉटेजीत सकयल जेनी आनी जेकब रावतात आनी वयल्यो दोन कूडी•तीं बेड आनी ब्रेकफास्ट तत्वार भाड्याक दितात.

भुरगीं ना काय तांका? आसूंक जाय. तें पळय कोनशाक टेडी बेअर

आसा. पोरसांत तीन चाकी सायकल आसा, दाराकडेन स्केटर्स् आसात. हो पळय फोटो - नांव किदे काय हांचे धुवेचें? सुफी, सुफी शाळेंत गेलां. वरभरयान परततलें.

गरम उदकाचो शॉवर घेवन हांव सकयल आयलों. दत्ती, चिरागाक खेळूंक किटी आनी सॉफ्टी मेळिल्लो प्रिमरोज कॉटेजीच्या सोंपणार बसून आमी सगळीं विंडरमेअरचें तळें दोळेभर पळोवंक लागलीं.

इतल्यान - इतल्यान सुफी आयले. तामशे सफरचंदी गाल. गालार गाल. पिंगशे केंस निळे दोळे. निळया दोळयांच्यो निळयोभोर बावल्यो. पिराय स सात वर्साची आसूंये. आंगान गुटगुटीत. लेव निळो युनिफॉर्म आनी गडद निळो टाय. पायांत धवे मेंय आनी गोंबरा कोराचे बूट.

सुफी आयलें आनी आमका सगळयांक सोपणार पळोवन खीणभर थांबलें. आपल्या निळया दोळयांनी ताणे आमकां सगळयांक जोखले. चिरागाच्या हातांत आपलें किटी आनी दत्तीन आपलो सॉफ्टी धरला तें पळोवन ताणें तोंड मखख केलें. हें आता हिमटी काडटा काय जाले. रडचें काय रडचें न्हय, रडचें न्हय काय रडचें हो हॅम्लेटी प्रस्न ल्हान भुरग्याक पट्टा आनी ताची जाप सोदपाक भुरगी जी पॉज घेतात तेन्ना तीं अशी ही अपुरबायेची हिमटी काडटात. खरें म्हळयार सुफीक पळोवन किटी आनी सॉफ्टी ताचेसरी वचूंक फुरफुरिल्ली. पुणून चिरागान आनी दत्तीन तांका घट्ट वेंगेंत धरिल्लीं. सुफी हिमटी काडटां काडटां दोळयांतल्यान घळघळीत दुखां काडत आनी मोटमोट्यान रडत ह्या भंयान ताणी हात सैल केले. किटी उडकी मारून सुफी म्हऱ्यान गेलें. सॉफ्टी धांवत धांवत वचून ताच्या पायांक घश्टूंक लागलो. सुफी खुळळकरून हांसलें. किटीक आनी सॉफ्टीक ताणें वयर उखल्लीं आनी तांची पापी घेतली. तितले म्हणसर दत्तीन कॅमेरो क्लिक केलो. खिणभरांत पॉलरायड कॅमेऱ्यांतल्यान किटी आनी सॉफ्टीक धरिल्या सुफीचो फोटो आयलो. सुफी धांवत दत्तीम्हऱ्यांत आयलें. ताणे फोटो हातांत घेतलो. दोळे मोटे केले. बावल्यो गरगरीत भोंवडायल्यो आनी ते हांसूक लागलें. कांय खिणांत सुफीन आमचें काळीज जिखलें.

सुफीकडेन पळयना फुडे नदरेंत भरताले ते ताचे सोबित, सुंदर दोळे, लेव केसांच्यो भुंवयो आनी दोळयांतल्यो निळयोकंठ बावल्यो. सुफी दोळयांनी पळयनासले. तें दरेकाक दोळयांनी जोखतालें. सुफी दोळयांनी उलयतालें. दोळयांनी मख्ख मोने जातालें. ताचे दोळे हांसताले. दोळेच हिमट्यो काडटाले. अजून मेरेन ताच्या तोंडातल्यान एक उतर भायर सरूक नासलें. इतले म्हणसर सुफी धांवत घरांत गेलें. ताणे फ्रीज उगडलो. थंडगार दुदाची बाटली आनी स्ट्रॉबेरी सिरपची बोतल काडली. मगांत दूद ओतून तांतूर सिरप खिरयली आनी मग तोंडाक लायलो. एक घोंट घेत ताणे दोळे परत गरगरायले आनी चिराग दत्तीकडेन पळयत दोळयांनीच तांका विचारल्लें जाय तुमकां? तुमकां जाय?

मागीर सुफीन किटीची आनी सॉफ्टीची ताटली हाडली. तांतूर थोडें दुद वतयलें. एकाच ताटलेतलें दुद किटी आनी सॉफ्टी चाटूंक लागलीं तशें सूफी जमनीर न्हीदून दोनय हातांत आपलें गुलगुलीत तोंड धरून आनी जीब भायर काडून किटी आनी सॉफ्टी दूद चाटटात तें पळोवंक लागलें.

आमी भायर भोंवपाक वचपाची तयारी केली. दत्तीन सुफीक आपयलें. सुफीन दोळयानीच आपले आवयकडेन पळयलें. "वच सुफी, तुका जाय जाल्यार वच तांचे बराबर" जेनीन सांगलें. पुणून सुफी आयलें ना. तें आपलो बोटवो घेवन आपले कूडीत गेलें आनी बोटव्यांतल्यो रंगीत पेन्सिली काडून तन्मयतेन चित्रां चितारूंक लागलें.

दनपार मोव जाल्ली. निकतोच शिरीशिरी शिरीशिरीत पावस पडून गेल्लो. वातावरणांत ओलसाण आशिल्ली. रस्ते भिजिल्ले. रूख ओले जाल्ले. मळभ ओलें आनी उजवाडय ओलोचिंब! वत भिजिल्लें आनी वारोय जाल्लो भिजून चिंब ओलो. आनी तळें? विंडरमेअरच्या तळयाचें न्हेसण चिप्प भिजून ताच्या आंगाक दशिल्लें.

सैमाच्या गर्भ गाभाऱ्यांतले हें विंडरमेअरचें गर्भतळे. शांत शीतळ, नितांत नितळ उदकाचे प्रसन्न पारदर्शी तळें. हजारांनी वर्सां आदी खंय झेलान समेस्त इंग्लंड गोठून गेल्ले. फुडे फुडें झेल वितळून गेलो. उदकांतल्यान

इंग्लडाचो जुंवो उफेवन आयलो. तळयांच्या रूपान भुगोलीक इतिहासान आपलो ओली पावलां खंय खंय रोमून दवरलीं. रसरशीत तांबडेंगुंज दाळींब फोडून ताचे पारदर्शी दाणे ताटभर शिंपुडचे तशे सबंध लेक डिस्ट्रिक्टांत झेलाच्या गर्भदाळंवाचे दाणे ह्या तळयांच्या रूपान शिंपडून गेले. विंडरमेअरचें तळें हो असोच सैम दाळंवाचो पाणीदार दाणो.

ह्याच तळयाच्या देगेर बसून वर्डस्वर्थान वरांचीवरां सैमाचें ऋतुचक्र पळयले. ह्याच तळयाच्या कांठाकांठान आपली भयण डोरोथी वांगडा वर्डस्वर्थ मैलाचे मैल भोंवलो. सकाळ सान फांतोड तिनसांज आपल्या आवडत्या पिपर कुत्र्याक घेवन वर्डस्वर्थ तळयाम्हऱ्यांतल्या रूखापोंदा बसलो.

उदकाचो सांगात वर्डस्वर्थाक प्रिय! न्हय, दर्या आनी तळें उदक आनी भूंय भूंय आनी उदक. उदक आनी उदक आनी उदक.

उदकापरस आदिम दुसरे कांयच ना. मातयेपरसय पुरातन अशें उदक. धर्तरेचो जल्मच उदकांत जाला. आनी मनशांचो जल्म गर्भोदकांत. देखून घडये धर्तरेक आनी धर्तरेच्या धुवापुतांक उदकाची ओढ.

उदकाक आकार ना. ना कसो? आसा. दर्याचो आकार तो उदकाचो. न्हंयचो आकार तो उदकाचो आनी तळयाचो आकार तोय उदकाचोच आकार. उदक अनाकार, निराकार, निर्गंध तितलेंच सगुण, साकार, सुगंधी! उदक खोल आनी उदक शांत. उदक मोने आनी श्रवणीय.

उदक आमच्या जीणेचो स्तोतृ आनी उदक आमच्या मरणाचें सरण. उदकांत आमच्या जीणेच्या गुलावी साळकाचो देंठ किल्लता आनी जिणेचे आमोरेर उदकांतच आमी मर्णाच्या दोण्यांतल्यान आमच्या अस्थींचे जलदीप सोडटात.

अशे हें उदक. उदकाचे दिमखुरें, मुदयाळें रूप पळोवचे तें लेक डिस्ट्रिक्टांत खासा विंडरमेअराक. उदकाची शत रूपां, सहस्त्र रूपां. दोंगुल्लेवयल्यान उडक्यो मारपी घोंग. खुळखुळ व्हांवपी झरे, वझरे, न्हयो, तळयो आनी तळी.

वर्डस्वर्थाची पुराय जीण ह्या उदकाच्या सांगातान गेली. ताणे आपले एके

कवितेंत वरयलां.

म्हज्या सपनांतल्यान लेगीत व्हांवता म्हजी प्रिय न्हंय.

आपल्या भुरगेपणांत वर्डस्वर्थ व्हडें घेवन तळयेतळयांच्या हांडीर खेळलो. भुरगेपणांतल्यो ह्यो विलोदी यादी फुडें एकेक कविता जावन ताचे लिखणेंतल्यान आंकुरल्यो.

तळें बरेंच व्हड आसा चिरागाचे पाय दुखूंक लागले. आमी थोडीं थांवलीं. तळयाचे देगेवयल्यान पांयवाट वता आनी ताका लागूनच थोडे वयर रस्तो आसा. आमी रस्त्यार आयली आनी हॉप ऑन हॉप ऑफ बसीर चडलीं. इंग्लडभर  ह्यो बशी आसात. तांबड्यो डबलडेकर वसी. टॉप नाशिल्यो-वयर उकत्यो. वयर बसपाचे आनी गांव, शारां सैम पळयत भोंवपाचे. हॉप ऑन हॉप ऑफ बसीच्या टॉपार बसून आमी विंडरमेअराची कंट्रीसायड पळयली. विंडरमेअराक जळींमळीं आसात सोबित अमलताशाचे रूख. संस्कृतांत तांका सुवर्णपुष्पा आनी इंग्लेजीत गोल्डन शॉवर्स म्हणटात. भांगरा कोराच्या फुलांनी चंवरिल्ले हे रूख पळोवप हो एक 'रूप पहातां लोचनी, सुख झाले हो साजणी' असो अप्रूप आनंद. अमलताशाच्या सुवर्णपुष्पी रूखानी विंडरमेअरचें वस्त्र भरजरी केलां.

विंडरमेअरची सगली घरां तळयाक अभिमुख खंयच्याच घरान तळयाक फाट करूंक ना. घराक खूब जनेलां - दरेक जनेल तळयाक सन्मुख. एकाय जनेलान तळयाकडली आपली नदर दुसरे व्हंटेन व्हरूंक ना.

हॉप ऑन हॉप ऑफ बस थांबली. मागीर मोटरबोटीन आमी तळयाचे पलतडीं गेलीं. वर्डस्वर्थाचे कवितेंत सिरीन ट्रँक्वील अशीं उतरां येतात. त्या उतरांच्या पायांतल्या पांयजणाचे अनाहत नाद आयकूंक भोवूंक जाय अशे सरत्या सांजवळा विंडरमेअरच्या तळयांत! जेन्ना सांज सोंपता, शेंवणी घोंटेरांत परततात आनी तीनसांज जावंक लागता. अशा वेळार वर्डस्वर्थाची कविता दृश्यावतार घेवन आपुणच जाता एक सांजवळ. एक तीनसांज.

"पळय पळय<br>
ती सोबीत सुंदर

सांज - सांजवळ
पळय पळय कशी
शांत सुशांत वेळ
पळय कसो
पयस पयस पातळील्लो
तो शांत प्रशांत दर्या
आनी उदकांत पळय आतां
विरघळटा कसो
तामसो पिको सूर्या
आनी पळय येता
पळय येता
देवमंदिराच्या दारांतल्यान
काळ्या न्हेसणांतली
धीर-गंभीर
नन कशी तीन सांज!"

तळ्याचे पलतडीं वर्डस्वर्थीची डोव्ह कॉटेज आसा हांगा वर्डस्वर्थान जिणेची कांय वर्सां सारलीं अशें म्हणटात -ताच्या सर्जनशीलतेचे भांगरा दीस पळयले ह्याच डोव्ह कॉटेजीन. थंडगार फातरानी बांदिल्ली ल्हानशी कुटीर. ती तशीच दवरल्या जशी आशिल्ली वर्डस्वर्थ थंय रावताना. वर्डस्वर्थाची कूड. जनेलाम्हऱ्यांतले ताचें मेज, कदेल. मेजार कागद आनी पेन. जसो काय वर्डस्वर्थ आतांच एक कविता बरोवन गेला.

कॉटेजीचे कुशीनच वर्डस्वर्थ म्युझियम आसा. वर्डस्वर्थाच्या अक्षर कवितांचे तक्ते मोतयाळ्या अक्षरांनी बरोवन वण्ठीर लायल्यात. दरेक कवितेच्या तक्त्यामुखार हेडफोन आसा. हेडफोन कानाक लावप एके व्हंटेन वण्टीवयलो कविता वाचप आनीं दुसरे व्हंटेन हेडफोनांतल्यान कविता आयकप.

वर्डस्वर्थ म्युझियमांत कितलो वेळ गेलो - कळेंच ना. थंयच्यान प्रिमरोज

कॉटेजींत परतली तशी रात जावंक आयिल्ली.

प्रिमरोज कॉटेजीच्या जनेलांतल्यान लुकुलुकू दिवे भायर पळयताले. सुफी किटीक घेवन सोंपणार बशिल्ले. सॉफ्टी ताच्या पांयासरी न्हिदील्लो. आमकां पळयना फुडे सुफी उठलें धांवत भीतर गेलें. आपणे काडिल्ली चित्रां आमका दाखोवंक लागलें. तांतूर आशिल्लें एक आमचें चित्र! चित्र म्हळयार आमचीं तोंडा. तोंडासकयल आमची नांवा आनी दरेकाच्या नांवाकडल्यान दरेकाच्या चित्रामेरेन एकेक बाण. एक चित्र- आपले शाळेचे. एक घड्याळीचें आनी एक - वेल्सांत रावपी आपले आज्येचें!

बेड आनी ब्रेकफास्ट दिवपी घरानी रातचें जेवण दिनात पुणून आमकां जेनी आनी जेकबागेरच रातचें जेवण घेवचें आशिल्लें. आमी तांका तशें सांगिल्ले.

जेनीन कलात्मक नदरेन टेबल माणिल्लें. टेबलार हारीन काटे चमचे माणिल्ले. मदी फ्लॉवरपॉट आशिल्लो. फळांची परडी आनी सॅलेडाची रांगीळी घाल्ले ताट. भुरग्याखातीर फ्रूटपंच आनी आमकां फ्रेंच वायन. मशरूम सूप. गार्लीक ब्रेड. चीज बेक्ड पॉटेटो. वेजिटेबल स्ट्यू, रोस्ट चिकन आनी ब्लॅक कॉफी - असो मेनू.

जेवता म्हणसर सुफीचे दोळे पिकुंक लागले. आवयन ताका न्हींदूक वचूंक सांगले. आमकां गुड नायट करून सुफी न्हिदूंक गेले. पोर फाल्यां उठचे पयली आमी फांतोडेर उठून वतली. घडये सुफीक तें खबर नाम्मूंये.

जेवण जातकीर आमी पोरसांत बसली. 'केन्नाय परत विंडरमेअर आयल्यार आमी हांगाच येतलीं' हांवे जेकबाक सांगले. जेकबान जेनीकडेन पळयले. खीणभर कोण्ण कांयच उलयलो ना. मागीर जेनी म्हणूंक लागलें -

'ना. फुडल्या सिझनांतल्यान आमी बेड आनी ब्रेकफास्ट दिवपाचे बंद करतली. जॅकब मोटरबोट घेतलो म्हणटा. भोंवडेकारांक घेवन तळयाची सैर करून तो चार पैशे जोडटलो'

'पुणून तुमी बेड आनी ब्रेकफास्ट किद्याक बंद करतात?' - सुशांतान विचारले;

जेनी परत ओग्गी रावली आनी मागीर तिणें सांगले

दरेक भोंवडेकार येता आनी वता. वतना सुफीचेर जीव दवरून वता. सुफीच्या कवळया मनाचेर परिणाम जाता. आतां तुमी आज आयली. फाल्या वतली सकाळी सुफी उठ्टलें आनी विचारतले - अंकल खंय? आंटी खंय? मागीर सबंध सांजवळ तें एकटेंच खिन्नतायेन सोंपणार बसून रावता. कांय वेळ दिसांचेदीस भोंवडेकार येनात. सुफीक तांची सवय जाल्या. कोण नासतकीर सुफी एकटेंच पट्टा.

जेकब हांसलो. ताणें जेनीचो हात हातांत घेतलो.

"एकूच भुरगें आसप वायट, सुफीक भावंड जाय. आमी सुफीच्या भावंडाची तयारी करतात" - ताणें हांसत म्हळे.

रात जायत आयिल्ली. हांवे जेकबाक सांगले - हांव थोडो वेळ हांगाच बसतां. तळयाच्या सांगातान थोडो वर्डस्वर्थ वाचतां. जेनीन मेणवातीचो स्टॅण्ड हाडून मेजार दवरलो. ताचेवयल्यो तीन मेणवाती पेटयल्यो. सगळे दिवे पालयले आनी सगळी न्हिदूंक गेली.

सगल्याक काळोख पातळिल्लो. फकत मेणवातींच्या मंद उजवाडात हयन्हयशें तळयाचें उदक दिसताले. तळे सुस्त न्हिदील्ले. मळभाचो निळो घुमट आतां काळसावळो जाल्लो. पयस दोंगुल्लेवयल्या एका घरांत एक दिवो पेटटालो. शीं पडिल्लें. वायनीचो घोंट घेत हांव मध्यान राती मेरेन वर्डस्वर्थ वाचतालो.

"ती तन्नी
हरवी दिकाळ पिराय
आनी ते
सुखद, सुखदिणे दीस.
झऱ्यांवझऱ्यांचेर नाचपी
फुलाफुलावयल्यान उडपी
तें फुलपांखे
आनी तांचे फाटल्यान

धांवपी म्हजी
ल्हान
सान
फुलपांखी
भयण.
मार्चातलो तो पयलो दीस.
वसंत रितुची
आयकूंक येतात
पळय पांयजणा
गायतात शेवणीं
फुलल्यांत फुलां
चंवरल्यात रूख
नटल्यात वाली
परमळीत वारो
लख्ख उजवाड
वस्त्रगाळ वत
आनी मळभांत इद्रधोणु.
यो, म्हजे भयणी यो
वसंत रितु आयला
शेंवटून दी तुजो
पुस्तकांचो बोटवो.
आनी घालून यो
तुजो फुलनक्षेचो रंगीत भेंस.
माळ केंसात
केंसभर फुलां.
रंगय ओंठ
ओंठभर हांश्यान.

चल दिवया येवकार
वसंत रितुक
दोनय हातांनी.
भोंवया रानभर
पुनावया फुलां पसोभर
पळोवया फुलपांख्याक
फुलांफुलांतलें म्होंव चोखतना
आनी आयकुया कोगळांक
रूखारूखाववयल्यान गायतना
यो, डोरीथी यो
भिजुया सचैल
अमृताच्या शिवोरांत
आनी घेवया भरून उपाट
काळजाची कळसुली
वतता तशी
उपाट उपाट आनंदान"

हांव पोरसांतल्यान तळयाकडेन आयलो. बूट काडले थंडगार उदकान पांय बुडयले, हात बुडयले. तोंडार शीतळ उदक मारले आनी एकाचित्त सर्वदूर पातळिल्या तळयाकडेन पळयत रावलों. म्हजी तंद्री लागली.

म्हाका दिसलें - म्हज्या वांगडा आसचे म्हजे प्रिय कवी. आसचो म्हऱ्यांत वर्डस्वर्थ. आनी आसची म्हऱ्यांत डोरोथी.

सुखांच्यो म्हणून कितल्यो तरातरा आसतात न्हंय! कोणे म्हळां तें - सगळी सुखां एकेच तरेची आनी दुःखांच्यो मात तरातरा म्हणून! इतलो मठ्ठ कसो तो लिओ टॉलस्टॉय?

सुखांच्योय म्हणून कितल्यो तरातरा आसतात न्हय! कांय सुखां आपले मोरपांखी मोरपिसारे फुलोवन नाचत नाचत येतात. कांय सुखां अशी साद्या, अनलंकृत रूपांत भेटीक येतात.

सुख हें खूब व्हडलें आसूंक जाय अशे न्हय. कांय सुखां अशीं ल्हान सान आसतात - सुफीच्या निळया दोळयांभशेन. कांय सुखां अशीं गूढ गहन - विंडरमेअरच्या तळयांभशेन आनी कांय सुखां अशीं - मुदयाळीं, फुलयाळीं वर्डस्वर्थाच्या कवितेसारकी.

अशा सुखांक नांवा नासतात अशी सुखां विशेषणां जांवन येतात. अशा सुखांचे गांवय नासतात! अशा सुखांच्यो फकत प्रसन्न, परमळीत, मोरपांखी यादी आसतात!





अरबस्तानाच्या नांवातच आसा एक कॉलाज-मैलानमैल पातळिल्ले रेंवट भुंयेचो, खाजुराच्या रूखांचो. अरबस्तानाच्या नांवांतले कॅलीग्राफींत आसात उंटांचे काफिले, धवेफुल्ल भेस घाल्ले अरब, तांचे तंबू.

अरबस्तानाच्या नांवांत आसा एक काणी-हजार रातींची काणी आनी अरबस्तानाच्या जल्माचो आसा एक इतिहास एक दीर्घ, प्रदीर्घ इतिहास-जो सुरू जाता धर्तरिच्या जल्मापसून. कोट्यांनी वर्सां आदीं सुर्यापासून फुटून गेलो एक उज्याचो गुळो-गरगरत गिरगिरत भोंवऱ्याभाशेन अंतरिक्षाच्या आंगणांत घुंवत रावलो. घुंवता घुंवता न्हिवत गेलो. आप, तेज, वायु, पृथ्वी आनी आकाश- पंचमहाभुतां दळूंक लागलीं जात्यार बसून- झरझर झिरपत गेलो ताजो टवटवीत उजवाड. सरसर पडत रावली कवकवीत वस्त्रगाळ माती. मातीयचीं तरातरांची रूपा. किट्ट काळीमाती, रक्त तांबडीमाती आनी फुल्लधवी रेंव.

एक झाड ना. एक रुख ना. एक शेंवणें ना. वयर लेव निळें, मेकळें मळब आनी सकयल लेव धवें, लेव हडवें रेंवटाचें मेकळें मळ ! नग्न नागडें.

नग्नता हेंय एक न्हेसण. निराकार हो एक आकार. निर्गंध ही एक गंधाची तरा. काळोख होय उजवाडाचोच एक रंग. अस्तित्वहीन स्थिती हें एक अस्तित्व.

सैमाची ही सायलंट सिम्फनी म्हळ्यार एक संगीतच. सैमाचे हें वांझ रूप म्हळ्यार सर्जनाचेंच एक रूप.